साहित्य पसवण रुपया पंदरा

प्रकाशक क्र. ८८

1993

**प्रकाशक**

प्रभाकर भिडे, राजहंस वितरण

१-मीनाक्षी बिल्डिंग

डॉ. व्होल्फांगु द सील्व्ह मार्ग

पणजी ४०३ ००१

C डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

वनराई अपार्टमेंटस्

ताळगांव, पणजी.

चित्रकार : दिगंबर शिंगबाळ

**मुद्रक**

राजहंस ऑफसेट, १-मीनाक्षी बिल्डिंग

डॉ. व्होल्फांगु द सील्व्ह मार्ग

पणजी ४०३ ००१

**मोल**

१९९३ वर्सा रु. ६०

१९९४ वर्सा रु. ७०

१९९५ वर्सा रु. ८०

ISBN-85339-87-2

कवीराय मनोहरराय सरदेसाय हे कोंकणी साहित्यांतले एक अमुल्य देणे. ताणी साहित्यांत मोलादीक काव्य निर्मणी केल्या. तशेंच ताणी हेर बरप्यांच्या साहित्यांतले गूण जाणा जावन घेवन तांका फुलोवपाचो यत्न केला.

ताणी कोंकणी पुस्तकांक बरयल्ल्यो तांच्यो प्रस्तावना हाची गवाय दिता. ह्यो प्रस्तावना म्हणचें ताणी काडलेलो कोंकणी साहित्याचो आलेख. हो जरी पुराय म्हणटां येवचो ना तरी तातूंत बरेचशें काम जालां.

कोंकणीचो अभ्यास करतल्यांक ह्यो प्रस्तावना वांगडाच वाचपाक मेळच्यो म्हणून आमी त्यो एकठांय करून प्रकाशित करपाचो हो वावर केला.

# अनुक्रम

म्हजें उतर गावड्याचें
र. वि. पंडित
पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय
1963

## जनेल

संस्कृताय, मनशाच्या रानवटपणाचे कांटयारे कोनशे घांसघांसून, ताजो सभाव निवळ करता. चार चौगांत कशें उलोवप, उठप-बसप हें ताका शिकयता. खाणाजेवणाच्यो तरेकवारी परी कशो करच्यो हें दाखोवन, ताज्या सुवादाचो आनंद घेवयता, पोशेग कसो करचो, कशें नाचचें, कशें गावचें, कशें चितारचें हाजें शिक्षण दिवन ती ताजी जीण सुंदरकायेन अपाट भरता आनी तरीय हीच संस्कृताय केन्नाकेन्ना जिणेची जिवसाण आनी घटसाण हांच्या मुळार येता. मनीस घडोवचे बदला बावल्यो घडयता. अशा वेळार वयर फांसलेलो भुलयणो रंग घांसूनपुसून जो समाज रेबट जिणेक घट वेंग मारता तोच निगून उरता. सगल्या कळांनी परिपूर्ण आनी संवसाराचेर शेक चलोवपी रोमन पातशांचो पराजय जिणेचा नेट आनी जैताचो हावेस बाळगिल्ल्या रानवटांनी केलो अशें अितिहास सांगता.

आपली फाटली वाट अजमावन, जे मूळ जिणेंतल्यान आनी निजांतल्यान आपली सदांची स्फूर्त घेतात तांकाच नवो फुडार घडोवपाचें बळ प्राप्त जाता. जिणेची भर सुकून वेता हें पळोवन लेगीत जे दोळे धांपून पयस पयस उडक्यो मारपाचो पिसो हावेस धरतात ते संवसाराच्या विशाळ रानांत खंयचे खंय नाच जातले. पुण, जांकां ही जाणवीक जाल्या ते मूळ वझऱ्यांतल्यान ताज-त्राण घेतले आनी घटमूट जावन पावल फुडें घालतले

शेंकड्यांनी वर्सां परकी शेकाच्या चेपणाक वा हेर कारणांक लागून गोंयकारान ही निजी शक्त उणी जाल्या. भायल्यान आयिल्लो चकचक-झगझग वाडल्या, चैनिच्यो वस्ती गरजेच्यो जावन बसल्यात, छातयेच्या हाडांचे रुंदाये परस नाचे ज्यूदयेचे फुगिल्ले रुंदायेक लोक चड तोखेवंक लागले. गोंयचे रुचीक ताल्ल्यां परस भायल्या डब्यांतल्या ‘ सार्दिना’क चड मोल आयलें, गांवच्या कारागिरांनी केल्ल्या घट वस्ती परस भायल्यान हाडिल्ल्यो खिणयाळ्यो चकचकीत वस्तीच लोकाक जाय जावंक लागल्यो, नांगर धरपी हातां परस बूट पुसपी हातांचेंच चड

कौतुक जावंक लागलें. अशा वेळार कोणेंतरी निडकीन सांगचें लागता : ‘ मानशें दोळे अकते करून पळेयात. अेक थापट मारल्यार तुमचे पोके ज्युदयेंत गुटलायल्लो, मांन्यार जियेंवपी मेन घडायच करून भूय पडटलो. तिकतिकीत शिमिटाचे लादयेचेर जीण पोसना, ती भळशिकावण्या रेव्यांतल्यानूच जल्माक येता. तुमचे जिणेची बुन्याद पयलीं घट बरी घडयात आनी मागीरूच ताजेर व्हडव्हडल्यो आळयोमाळयो बांदात ना जाल्यार...’

र. वि. पंडित हेंच सांगतात; दुसऱ्या अुतरांनी. गावड्याच्या अुतरांनी. गावडो हो गोंयचो मुळ-पूत, आमचा तो मुळकेश्वर. तो आजून मेरेन आपले भूंयेक, आपले परंपरेक, आपले संस्कृतायेक, जिणेक धरून रावला. गोंयांत कितल्यो राजवटी आयल्यो आनी गेल्यो, कितले व्यापारी आयले आनी गेले, कितले धंदे जल्माक आयले आनी ना जाले, तरी गावडो मात् आसा तसो आसा. आमच्या समाजाची तो बुन्याद. हेर सगले ताजे वयर आसात ताज्या खुमनार जियेतात. गावडो म्हणचे आमचे संस्कृतायेची मूळ झर, तो म्हणचे केन्नाच सोंपनाशिल्ली जिणेची शक्त. आनी तरीय सगले लोक ताका कुंड्यापाश्ट मानतात. तो पावस सोंसता, थंडी सोंसता, हेरां खातीर श्रम सोंसता, आपुण अुपाशीं रावून दुसऱ्यांची जीण पोसता. तरीय ते अेकठांय जमून ताका कांड, काड, काडटात. पुण तो चड सोशीक, खूब चिवट. ताका कितलोय कांडलो तरी ताजो पिठो जायना. पिठो जाता तो हेरांचो, कित्याक तर तो धर्तरेक दसून आसा, मुळाक धरून आसा. तो म्हणटा :

कितलोय कांड, कसोय कांड
म्हजो पिठो मात् जायना.
कांड, भायर पोखरान अुडय
कितेंय कर, हांव कुसना.
आसा तस्सो अुरतां...

तरेकतरान पोशेग आयले आनी गेले. तरेकतरांच्यो फेशनी आयल्यो आनी गेल्यो, पुण गावड्याचो भेस आसा तस्सो आसा. नाटकां, सिनेमा येतात, वेतात, गावड्याचे जागर आनी ताजीं रोमटां आसात तशीं आसात. गावडो हो आमचो मुळ-पुरुस :

कालचे सारको आयज
पैरचे सारको काल
हजार वर्सां फाटीं आसलो
तसो पैर आनी
आतां आसा तसोच
हजारांनी वर्सां...

अशा ह्या गावड्याचें हें अुतर.

गावड्यांचे संगतींत जो जियेला, गावड्याचीं सुखांदुखां जाणें आपलीशीं केल्यांत, गावड्याची भास जो सहजतायेन अुलयता, आनी गावड्याचो भेम जरी नामलो तरी ताजो ह्रावेस जाच्या रगतांत सळसळटा अशा मनशान गायिल्लें हें गीत.

भिरांत नासतना, लजभीड धरिनासतना, हड्डें फुडें काडून ' हांव गावडो ' अशें म्हणपी हो पयलोच कवी. गावड्यावरी हें अुतर अुगडें नागडें. ताका मातयेचो वास येता, ताका मिठाची खारसाण आसा, कामाची घामसाण आसा, रगताची तामसाण आसा, वोताची हुनसाण आसा, जिणेची तिकतिकसाण आसा. हें अुतर भाटांतलें, शेतांतलें, आग्रांतलें, खोंपींतलें.

हें ' गावड्याचें अुतर ' म्हणचे कोंकणी काव्याचे जिवमाणिची खूण. कोंकणी कवी आपल्या मुळ–पुरसा कडल्यान स्फूर्त घेना. मुळाक अुदक घालून नवी जीण पोसता. गावड्याचे नदरेन कवी भोंवतणी पळेता आनी ताका सगळे कडेन अन्याय दिसता. गिरेस्त दुबळ्याक चेपतात :

...आमकां गावड्यांकूय कोण विचारिना.
आमी गावडे तुमकां...
बामणांक, शेटींक
जाय ते, अूब दिवंचे खातीर
तुमची गिरेस्तकाय
फुलोवपा खातीर
भाटकारपण वाडोवपा खातीर...

हो अन्याय कवीच्यान सोंसूं नज. म्हणून ताका मनशाच्यो दोनूच जाती दिसतात– ' चिडुल्लो आनी चिड्डुपी.' आमचो कवी चिडुल्ल्यां वांगडा आसा हें सांगूंक जाय ? भाटकाराच्या सत्यनारायणाक मुंडकाराची पंचखादय कशी जाता हें ताणें अुकत्या दोळ्यांन पळेलां :

देमू, माळी झाड
माळे झाड, सालां झाड. कुडी झाड.
घेरांव काड...
सगळ्या जमनींक
शेण काड
वणटींक चुनो काड...

खरें मनीमपण लोकांक दिसना. अेकाद्रो भोळो-भावार्थी मनीम जल्मभर व्हान व्हडांची सेवा करता, ताचे खातीर मर मर मरता. ताच्या मर्णाच्या वेळार ताजे खातीर कोणूच दुखां गाळिनात :

मोठया कश्टान चोगजाण
जमले
तांणी ताका अुबाल्लो
खूब ताकतिकेन मसणांत व्हेलो
आनी लासलो...

फक्कत कवी मात् दुखेस्त जावन म्हणटा : ' आयज अेक मनीम मेल्लो.'

ह्या संवसारांत न्याय ना. ' जो रोयता तो खाता ' अशें ना. जे काम करतात, कश्टाचो घाम गळयतात तांच्या नशिबांत दोन मुखाचे गोटे नात. आग-ग्याचो जीण तर कबिच्या काळजाक मिठावरी झोमता. ते मरमर कामां करतात तरी :

निस्तें खाल्लें मानशेकारान
पेंसांव खाल्लें भाटकारान
शेळो खाल्लो माडांनी
पैशे खाल्ले व्हडेकारांनी
जीव खाल्लो दुकनकारांनी
मीठ खाल्लें घांटकारांनी...

आनी तांचो नीस मात् सदां अळणी.

शेतकारांचीय तीच गत. पावस पडलो, कणस वाडलें, भात आयलें तरी :

शेतकार खंयचे जेवतले
हातिची अुंडी तोंडाकडेन
देंवचार अुबे रावतले...
शिदाव वांटून घेवपा खातीर
मुकदम देरांत पावतलें...

रिणाच्या, काळांतराच्या, काळांतराच्या रिणाच्या वज्या खाला दुबळो शेतकार चिड्डता, धापेता आनी ताज्या सपन्यातल्या ' थंडगार निमांत भुरग्या-बाळांचीं हुनहुनीत दुकां ' पडटात.

अेकामेकांक जाचपाची, जिवानशीं मारपाची ही वज पळोवन कवीक सांत जाता. मनीम अेकामेकांक त्रास दिवपाचें केन्ना बंद करतलो ? ही जीवघेणी झुंज केन्ना सोंपतली ? मनीम शाणो केन्ना जातलो ? काय, शाणो जावंचोच ना ?

हिरोशिमाचीं चवनां
यादस्तिचे कातीचेर
आजून व्हांवतूच आसात...
...हुलपायल्ल्या रखरखीत
जमनींतल्यान
मनीसपणाचीं चार फुलां
फुलचे पयलींच, परतोय बोवाळ... !

हो अन्याय, ही क्रुरताय कवी अुकल्या दोळयांनी पळेता. संवसारांत जिनली वायट कर्तुपां चल्ल्यां आसतना तो दोळयार केंस काडूंक तयार ना. तागेलें काव्य न्हिदोवपी न्हय तर हालोवन धोलोवन जागोवपी, आपुण जागपी. कवि जाणा कि :

न्हिदेचें सवंग घेवप
वा न्हिदप हीं दोनूय कामां
जागें रावपा परस खूब सोंपीं...

दोळे धांपून बेवप म्हणचे 'अुजवाडाचो दुस्मान जो काळोख ताजी पुजा करप.' म्हणून हो कवी जागर जागयता. जिविनांतली बरीं वायट संवगां बरी करून पळेता. ताका कितें दिसता ?

...चडशे देंवचार, दिवड, वाघ, फुरशीं
कांटे मारपी सांगटां
शेंपडयो तोंपपी वागोळीं
कुसां मोडपी विंचू, दांत रोमपी काणेर.
घोणस, घुवडां
बोब मारपी कावळे
हाडां खावपी गीद...

जिविताच्या जागरांत तांकां असले भयांकृत प्राणीच चड दिसतात. संवसारां-तल्या सुख, आनंद, खोस, रंग हांचे परस तांकां दुःख, जाच हींच चड दिसतात. तांच्या काव्यार पावस फुटून पडचे पयलीं मळबांत जमिल्ल्या काळया कुपांची साय पडल्या. गडगडो आनी जोगलावणी आसून लेगीत. ह्या गावडयाच्या भुतरान नेट आसा तसोच तातूंत किवाटो आसा, तिडक आसा आनी थोडी कोडसाणूय आसा.

कवीक समाजीक अन्यायाची जिनली तिडक तितलेंच ताका मनशाच्या पिशेपणांचें, गर्वाचें आनी धोंगाचें अजाप जाता आनी खंत जाता.

मनीस म्हणचे अेक अिल्लोसो पिट्टोळ पुण तो आपले आपणाक व्हडलो लेखता, आपले आपणाक तोखेता :

हांव पिट्टोळ
अुडणां मारपी
निस्त्याचो राजा
त्या
अिट्टोल भाटकाराच्या तळयांत
म्हाजेलें राज्य चलता...
देवा मदीं अिंद्र
नखेत्रां मदी चंद्र
भुतां मदीं देंवचार
भाटकारां मदीं अिट्टोल...
तसो
निस्त्या मदीं हांव
पिट्टोळ...

अुदक आडावन, जीण कोंडावन केल्ल्या तळयांतले हे मनीस. हांकां भरतीं, सुकती लागना, भायल्या संवसारा कडेन तांचो कसलोच संबंद ना, हांका दिसता आपलें कोंड म्हणजेच सगलें विस्व...

पैशाक लागून जिणेची माती करपी, काळजाच्या जाग्यार चेकबूक दवरपी लोकांची कवीक तिडक येता आनी काकळुटूय दिसता. आनी 'जे मायभाशेंन अन्नावपाचें सोडून शेकानशेक फिर्गी वा अिंग्लेज भास' कानरतात आनी लोकांक भेटटायतात असल्या लोकांक पळोवन तांकां भोव दुःख जाता.

मराठी संतांच्या काव्याचो 'टीकात्मक आनी अैतिहासिक' अभ्यास करून लेगीत जे सुके ते सुकेच अुल्ल्यात असल्या मनशांक कितें म्हणचें तेंच ताका कळना. असल्या लोकांनी :

श्लोकांच्या फुलांचे रंग पळेल्यात
पाकळयो मेजल्यात
वजन केलां
पिसटून, पिसटून बोळ काडला...
...भितल्ल्या अमृताक आपडिनासतना
...अेक लेगीत ओवी अणभविनासतना

तोंडातल्यान वेद अुलोवन लेगीत ते रेडे रेडेच अुल्ल्यात.

पंडित आपल्या मनाच्या घडघाळाचें धांकण अुगडून भितर पळेनात. तांची कला जिणेचे घण सोंसून रंग-रूपाक आयल्या. तांचे वळीत तांचें अस्वस्थ, अशांत काळीज धडधडटा. पुण काळजाचे व्यथे परस तालून बुद्धिची तिडक चड आसा,

शब्दांच्या शृंगारा परस तातूंत सत्याचे जिवे अंगारूच धगधगतात.

तांचें काव्य तांच्या मनावरी जितलें सादें सोपें तितलेंच कठीण. चिंचे–पानावरी.

अेक पान
आनी पानांत
परतींय
पानांच पानां...
ल्हान ल्हान ल्हान
पुण कुडके न्हय...
अखंड...

हें अखंड काव्य पळोवपाक नदरूय अखंड जाय. जो फक्कत चिंचेचें पानूच पळेतलो ताका अेकाद्रें चिंचेचें झाड दिसचें ना.

पंडितांची भास पावसाचे धारेवरी तुटिल्ली, तरीय दडिल्ल्या बियाक जाग हाडपी. तांची भास केळी–पानावरी पिश्टिल्ली तरीय अेका दांडाऱ्याची. अुमाळ्याच्या वावा वांगडा हालपी धोलपी आपले पांचवे जीवमाणेन जोण भरपी. खऱ्या कलावंताक क्रूर जावचें पडटा. आपल्याच आंगार चाबकाचे फटकारे मारून आपल्याच दोळ्यांनीं आपलें रात पळोंवचें पडटा. हे क्रुरतायेंतल्यानूच ताजी कला कणखर जाना, शुद्ध जाता. पंडितांच्या काव्यांत केन्ना केन्ना हे आपखुशिच्या क्रुरतायेचो भास जाल्या बगर रावना.

केन्ना केन्ना ताची लिखणी शस्त्रक्रिया करपी वैंजाची सुरी जावन समाजाची कुशिल्ली कूड चिरून अुकती करता.

फ्रेंच बरोवपी व्हॉल्तॅर हो म्हण कि दर मनशांत अेक वाग आनी अेक माकड आसता. पंडितांची नदर ह्या दानूय जनावरांक वळखून आसा. मनशाच्या रगताक चटावल्ल्या ह्या वागाक केन्ना केन्ना माकड जायन दिसता आनी तो मागता :

बापा कल्परुखा
रागार जावं नाका...
म्हाका
कट्टीभर सूर दी,
म्हज्या
माकडा हातांत
रसरशीत पेटिल्ली
अेक चूड दी !

पंडितांची पिंड स्वतंत्रतायेचो. तांकां बंदेपण सोंसना.

वेडयांक बांदिल्ल्या
बंद्याचें हें रगत...
हांगा गोठेवन पडलां
घाणींत बाबडें रडत ! !

पुण स्वतंत्रतायेचें मोल व्हड. सदां जागृन रावून झुजचें पडटा. रगताचे थेंब सांडचे पडटात. प्राणाची आहुती दिवंची पडटा म्हणून ते म्हणटात :

हड्डयाची धाल कर
पिसो जावन
फुडें सर...

पिसो जावन फुडें सरचेलो वेळ आयज आयला.

शिशाचे कुडके
मासांत रोमतात
रगतात झोमतात
तुज्या ?
हाय म्हज्या भावा
रोमतात रोमुंदी
झोमतात झोमुंदी
पडसर फुडें सर...

निमाणें जैत आमगेलेंच आसा.

मृत्यूंजय
वीर आमचे
हड्डयांचीं
कोटां करून...
हिमालया भोंवतणी
आयज उबे
आसतना...
भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना...

अशें नांकां मनोमन दिसता. चिड्डिल्ल्यांचें काळीज जशें नांकां कळटा तशेंच भुरग्याचें मनूय नांकां कळटा. भेरेल्ल्या मनाच्या जाणटेल्यान कचाकच कापिल्ल्या केळीची याद भुरग्यांक कशी येता तें नांकां खबर आसा .

तीं
बाबडों
केळिचो
अुगडास काडून
चुरचुरतात...
चुरचुरतात...
मनांतले मनांत
घुसमट्टात
घुसमट्टात...

कविचें मन चुरचुरलें, घुसमटलें तरीय ताका निजाच्या सोबितकायेचो स्वाद घेवपाची तांक आसा. भुरग्यां वांगडा तें नाचत नाचत गाता :

पावसा, पावसा
यो रे यो
शेतांत म्हज्या
खेळूंक यो.

आनी केन्ना केन्ना ताचें मन नवे होंकलेवरी कुळाराची वाट चलता :

जाया जुयांनी
घमघमायिल्ली...
मोगऱ्या शेवत्यांनी
परमळायिल्ली...
...कुळाराची वाट.

पंडितांच्या काव्याचे हेर बी विशय आसात. ते आपल्या मनाची मिठाकणी विरगळावन परतून ती सुकोवन तिका चवकोनी आकृताय दितात, सगलें विस्व म्हणचे आपलें घर अशें ते मानतात. ' वयर मळब, सकयल धर्तरी, मदीं हांव मेळून म्हजें घर. हांव आसन थंय म्हजें घर ' म्हणटात. पुण ताच्या काव्याचो मुखेल विशय मनीस आनी ध्येय, मनीसपण.

ह्या काव्याचें स्वरूप कितें ? ताजो आकार कितें ? हें गद्य काय पद्य ? कोणूय म्हणत ह्या काव्याक ताल ना, लय ना, आकृताय ना.

जो खळखळपी व्हाळ्याचो ताल, जो माडाच्या घोलपाचो ताल, जो दर्याच्या ल्हारांचो ताल, जो काळजाचे धडधडिचो ताल तोच पंडितांच्या काव्याचो ताल. ताचें काव्य शिमिटाच्या चवकोनी पारांत आडायल्लें तळें न्हय, ती व्हांवती झर, ती खंय मुखार जाता, आनी खंय सोंपता तें सांगूं नज. पुण जंय जंय ती वेता थंय थंय आपले देगेर ती जीण निर्मिता.

जें सांगचें आसा, तें कवी सरळ, सरळ सांगता. कोणाचीच भीड, भिरांत

धरिनासतना. तांचे जिवेक ' सत्याची धार ' आसा, तन्नेपणाचो नेट आसा. ह्या नेटाक यमकांचो वा हेर बांद घालप तांकां आवडना. काळजांतल्यान जो अुमाळो आयलो तो तसोच ते कागदार अुतरायतात. पुण काव्य म्हणचे निखटो अुमाळो न्हय तर तें अुमाळयाचें अुतर. आनी पंडितांच्या काव्यांत विचार आनी अुमाळयाचो पदर धरीन भास केन्ना केन्ना आडखळून फाटल्यान येता; केन्ना तर ओगीच भोंवनाडे काडटा; परतून, परतून अेकाच जाग्यार नाचत रावता. तांच्या जिविता भशेन तांची कविताय अेके तरेचो जागर. परतून परतून तीच तीं सवंगा दिसतात, तींच तीं पदां तेच ते ताल आयकूंक येतात. जेन्ना ह्या तेच-तेपणात नेट आसता धुंदी आसता तेन्ना वाचप्याक वेळाचो विसर पडटा, पुण जेन्ना अेक ल्हानशी कल्पना कवी परतून परतून, आरतून परतून सांगता तेन्ना ह्या काव्याक पाल्हाळाचें रूप येना. आनी अुतरांची काटकसर नाशिल्ल्यान काव्याची मुळावी गिरेस्तकाय अुणी जाना-देखीक, ' जीण आनी मर्ण ' आनी ' म्हजें अिल्लेशें काळीज ' ह्यो कविता.

पुण दरअेक वळ विसकावन, दरअेक अुतर पिस्टावन, दरअेक अुतर सोल्लून त्या काव्याच्या अर्थाचो गाभो सोदप म्हणचे पिशेंपण हेंय तितलेंच खरें. फार्जाल चिकित्सायेची नदर मानशी कुशीक दवरून, काळजाची दारां अुकती करून ह्या काव्याचो जीण-दिणो नेटाचो घोगो आंगार घेना ताकाच ताजो खरो आनंद अणभवूंक मेळटलो हें समजुनूच वाचप्यान कवी वांगडा वचूंक जाय. कवी वाचपी अेकठांय येतात तेन्नाच काव्य जाता :

म्हजे कवितेंतल्यान
तूं खासा आपणाकूच
काडून अुडयशीत जाल्यार...
म्हजे कवितेंतले काव्य नाच जातलें
आनी अुरतलो तो
फक्कत कागद...

म्हणनूच साहित्याच्या रुपा परस ह्या काव्यांत जिणेची जीवसाण पारखूंक जाय, अुतराच्या कंगरखिसा परस अुमाळयाची हुनसाण अणभवूंक जाय, संगीता-परस अर्थाचें गुपीत आयकूंक जाय. कवी सांगता:

म्हजे कवितेंतल्या
वळीं कडेन पळोवं नाका
अुतरां कडेन पळोवं नाका
तांतलो अर्थ पळे...

प्रस्तावनेचे हे अिल्लेशे फास्केंन हो अर्थ हांव कसो वसोवं ? पंडिताचें काव्य जिणेवरी लांबरुंद, मनशाच्या हावेसा येदें अुंच, ह्या काव्याक फास्क्यो आवडनात. ही फास्की न्हय हें फक्त अेक जनेल. O

**तुफान**

**फेलीसियु कार्दोझ**

**सी. पी. दकोस्त, मडगांव**

1966

## प्रस्तावना

पिरायेन न्हान पूण गिन्यानान जाण्टो, कुडीन बारिकूच पूण काळजान व्हडलो; बंदेपणाच्या काळार बंदखणींत रावन जुल्मा-आड झूजपी, सोडणुके उप्रांत नेणार पणाचो काळोख ना करपाक 'गोंयचो साद' घालून 'सता'चे दिवटेचो उजवाड घालपी फेलीसियु कार्दोज आयज कथाकाराच्या भेसांत आमच्या मुखार आयला.

भेस वेगळो पूण नदर तीच, लिखणी तीच. समाजांतलीं कुस्केपणां पारखुपी, न्यायधर्माच्या नांवाखाल केल्लीं फटिंगपणां उक्ती करून सांगपी, लोकांची पिडा-दुखी जाणा जावपी.

फेलीसियु कार्दोझ आयच्या समाजाचें चित्र धिटायेच्या पिशोलान चितारता. 'तुफान' ह्या ताज्या कथा-झेल्यांत तीन कथा आसात. ह्या तिनूय कथांतल्यान पोरणो संवसार मोडून एक नवो संवसार उबारूंक जायत काय ह्या दुभावाची एक जीव-वेणी खंतूय आसा.

जी एकेच बसकेंत वाचूं येता तिका 'कथा' अशें म्हण्टात. तांतूंत एक प्रसंग, एक उमाळो, एक नदर आसूंक फावो. सुर्वेपासून निमाणे मेरेन वाचप्याचें मन तिणें ओडून घेवंक जाय. आनी तिच्यांत एकूय नाका आशिल्लें उतर आसूंक फाव ना. कथा ही अशी एक संधी, एकाशिवडी आसूंक जाय. बरे कथेंत बऱ्या सिगाराचे गूण आसूंक जाय. तंबाखू, बरें बांदप, बरो वास, बरी रूच. पूण आनीक एक म्हत्त्वाचो गुण आसल्याबगर जायना- सिगारापरीं बरी कथा जळूंक जाय, काळजाक तिचो थोडो भोव हुलप लागूंक जाय.

फेलीमियु कार्दोझाचे कथेंतली मनशां सगळींच जितीं-जिवीं आसतात अशें न्हय, ताज्या बरोवपाची मोडणी जितली सहजतायेन व्हांवपी आसूंक जाय तितली ती ना, पूण ताजी कथा मनाक हूनसाणीचें बोट लायल्याबगर रावना, वाचप्यांच्या चिंतनांक हालोवन सोडल्या बगर रावना, जिवितांत 'तुफान' जागयल्या बगर रावना.

वाऱ्याक सूप धरपी बरोवपी खूब आसात पूण मोडाकूच वेंग मारून लोकांचो सुवार्थ, धोंगां, कुडुपणां कुंडो कसो फुंकून उडोवपी बरोवपी थोडेच.

फेलीमियु कार्दोझाच्या 'तुफानां'तल्यान कोंकणी कथेक नवो नेट मेळूं आनी कोंकणी जिवितांत नवो ह्रावेस खेळूं.

○

**जितलें दिवशी, तितलें घेवशी**

**जेस फेर्नांदिश**

**माणिक प्रकाशन.**

1966

## दोन उतरां

दर खिणाक मनीस देव आनी दैंवचार हांचे मजगतीं जियेता. मनाचे कुडींतलो गुपीत संवसार आनी भायलो विशाळ संवसार हांचो मेळ घालतां, घालतां तो खर्शेता. मनशाचीं दुश्टपणा, नशिबाची कुडुपणां आनी कर्तुपाचीं पिशेपणां हांकां कुशीक सारून वाट सोदतां, सोदतां तो निर्शेता.

जिविताचे वाटेर मनशाची ही भोंवडी दाखोवप हें कथाबरोवप्याचें काम. अणभविल्लें, पळेल्लें, आयकिल्लें, वाचिल्लें आनी कल्पिलें हांचो मनाच्या आगटयांत रांधो जावन उतरांच्या रूपान भायर सरता ताकाच साहित्य म्हण्टात. कथा-साहित्य, तशें पळोवंक गेल्यार, मगल्यांत सोंपें. कविता रचपाक वा नाटक बरोवपाक जितले नेम मानाळचे पडटात तितले नेम कथा-बरोवपाक लागनात. भायले नेम नासले तरी कथेंत भितल्ले नेम आसतात. वाचप्यांचे भोंवतणी एक व्हडलें दुरीग बांदून ताका त्या दुरगा भितर एक आगळो आनी वेगळो संवसार घडोवचो पडटा. हो नवो संवसार रचपाचें काम भोवच कठीण. त्या पासत उतरांचें व्हड भांडार जाय, अणभवाची खोलाय जाय, हातांक नेट जाय आनी मनाक पांखां जाय.

‘ जितलें दिवशी, तितलें घेवशी ’ ही बाब जेस फेर्नांदिश हाणें बरयल्ली कथा. जिविताच्या मोडांतल्यान संवसाराचे आनी नशिबाचे धपके खायत, खायत, एके सान व्हडये भाशेन मारियो हांगा थंय वेता. भयांकृत दर्या केन्ना थंडावतलो? व्हडें देगेक केन्ना लागतलें? वाचप्यामुखार हे प्रस्न सदांच उबे रावतात. पुण मनशांतलो दैंवचार अजून मरूंक ना. सुवार्थाखातीर, खीणयाळच्या सुखाखातीर तो दुसऱ्यांक त्रास दिवंक फाटीं-फुडें पळेना. पुण बऱ्या मनशाक जशी आपल्या बरेपणाचें इनाम घेवंचे आदीं जिविताचे हुलप सोंसून मोन्यानी वाट देखची पडटा तशीच वायट मनशाक लेगीत बरेपणाच्या उजवाडाची वाट पळोवची पडटा.

आर्माद हो असो मनीस– दॆंवचाराच्या चवक्यांत सांपडिल्लो. आपुण कितें करता तेंच ताका खबर नासता. दॆंवचाराच्या हातांतलो तो एक बावलो. पुण जेन्ना वेळ येता तेन्ना ताचे दोळे उक्ते जातात. कितल्याय निबर फातराक उदक बुराक काडटा. बरेपणाचे हुनसाणीन, खरेपणाच्या किर्णांनी निबर काळजाचो मनीस लेगीत विरगळटा. निमाणें जैत खऱ्याचें, बऱ्याचें. वाचप्याक आशेची फांतोड दाखोवन, बरोवपी ही कथा सोंपयता. पुण ताजे पयलीं ताणें आमकां रातयेच्या काळोखांत उतरांचे चुडयेन सगले खांची–कोंयडे दाखयल्यात, मोरोप–फुरशीं दाखयल्यात, मनशाच्या अंतस्कर्णाचे सोबीत कायेचेर उजवाड घाला.

आमच्या कोंकणी वाचप्याक ही कथा मानतलीच. बाब जेमान हाचे पयलीं जायतें बरयलां. 'निर्मण' ही ताची लांब कथा जायते जाणांनी वाखाणल्या. ताज्यो कविता सोंप्यो आनी काळजाक हात घालपी. पिरायेन ल्हान आसलो तरी बाब जेमान कश्ट करून उतरांची जोड जोडल्या, आपले भोंवतणचें जिवीत पळोवन तें ताणें चित्रायलां... मोगान भरिल्ल्या काळजान ताणें हेरांचीं दुकां पळेल्यां. कमवी चित्रिकाच्या पिशोलान ताणें मनशाचीं तरेकतरां रूपां पिंतारल्यां.

कोंकणीच्या भांडारांत बाब जेमान अशीच भर घालीत रावचें हेंच म्हजें मागणें :

जितल्यो दिशी तितल्यो घेशी
जिणे–वेळेर सुखा राशी
दर्या–देगेर आयलां रे मोड
नेटान ओड शिडाचो दोर
जिविताची रीत रे पिशे
जितलो भिवशी, तितलो मरशी.

फाटलीं दुखां आतांच विसर
बऱ्या वायटाक वेंगांत धर
दुखाक कित्याक वोगी पळशी
जितलें दिशी तितलें घेशी.

शिडां पिजूंक आयलां वारें
सोडूं नाका तुजें येरें
हृदयांतलें मोड कशें पालयशी ?
दर्या म्हळ्यार तुजीच हारशी
जितलें दिशी तितलें घेशी.

○

चंवर
माधव श्री. बोरकार
श्रीधर बोरकार
1969

## नवीं पावलां

वसंत ऋतू येवचे आदींच नवे रोंपयेर फुलिल्लीं हीं नवीं चंबरां. सगल्यांकूच पयल्या वयल्या उमाळ्याची ताजबाण आसा; मुखावेल्या फुलां-फळांचो हय-न्हयसो रंग आसा.

कांय कवी काळखे रातीचे मोगी आसतात; कांय दनपारच्या रखरखीत सूर्याचे पुजारी आसतात; तर कांय उदेल्या भास्कराचे भगत. गिरीश हो फांतोडचो कवी. कवितेच्या हुमन्यार रावन तो पयसुल्ल्या दोंगराफाटल्यान जिविताची फांतोड पळेता. ताज्या सगल्याच उतरांचेर फांतोडच्या कंवळ्या किर्णांची भांगरा-ओप चडल्या :–

सकाळ जाल्या
सूर्यदेव आयला
कुपांच्या दोंगरांतल्यान
सूर्यदेव हांसता
पानांतले दवा थेंबे
म्होंव जावन गळटात

हे कवितेंत सांवळचांचो काळोख ना अशें न्हय. कांय चितनांआड निराशेची सांय पडिल्लेवरी दिसता. ल्हान पिरायेंतूच ताका जिवितांतल्या अन्यायाचें, नशिबाच्या निठूरपणाचें दर्शन घडलां :

म्हज्या जिविताच्या वांटयाक
येता फकत दुःख

अशें तो मासून, उबगून म्हण्टा.

मनांत म्हज्या आयलीं
कितलींशींच चिंतनां
पुणून हाय !
सगळीं खरीं जालीं ना...

अशे तो कळवळून सांगता.

पुण ताजें दुख खरें आसलें तरी तांतूंत द्वेमाचो, खंतीचो किवाटो ना. तांतूंत अर्थ नाशिल्ल्या जिविताक पळोवन जाल्ली फक्कत निराशा मात नोंपता. कवीम चलपाची शक्त आसा, मुखार वचपाची उमेद आसा पुण ताका आपुण खंय वता तें खबर ना. ताजे वाटेक खूब फांटे फुटल्यात:-

खंयचे वाटेन वचचें
तेंच म्हाका समजना

आनी येद्या ल्हान वयांत ताका शाणेपण आयलां— संवसाराचो अर्थहीन खेळ पळोवन आयिल्लें शाणेपण.

दुःख हो एक खेळ
जो सगळयांक खेळचो पडटा
सूख ही एक वस्त
जी सदांच पळटा !

आनी ह्या गिन्यानाचीं पिशेपणां पारखून तो मुखार वता.

सूख येवचे आदीं
दुःखाचें येवजिल्यार
सूख कशें येतलें ?

अशी ही चिंतनांचीं चंवरां वाचप्यांक येवजूंक लावपी.

हे कवीचीं चिंतना चित्रांच्या रुपान भायर सरतात तेन्ना तीं मनाव भुलयतात. Image is the pigment of poetry अशें एका कवीन म्हटलां. अशा उतराच्या चित्रांनी गिरीशाची कविता नटल्या :–

मांडवीचे देगेर
एक तारूं
आता उबें
वाऱ्याची पळयत वाट
—

म्हज्या मनांतले सगळे विचार
कावळ्या–रुपान
निराशेच्या व्हड मळबांत
उडून वतात !

—

सूर्य आयला मळबांत
काळखाची विरल्या साय
खुशालकायेन हांबेता
गोठ्यांतली गाय.

सकाळच्या पारार चितनांचीं चित्रां रंगोवपी हो कवी कोण? हो कवी पिरायेन अजून भुरगोच आसा. पंदरा वर्सां जायन. अजून ताणें शाळेचो हुमरो उत्रूक ना. पूण वाचपाची ताका खूब आवड, भोंवतणच्या संवसाराकडेन आगळेच नदरेन पळोवपाची बड. सगल्याच उतरांचे रंग फाव तशे नासले तरी कविता अडेची दिसना. पुस्तकाच्या वाचपाक लागून जिविताच्या अणभवाक आडो पडूंक ना, दुसऱ्या कवीच्या पावलार पावल दिवन आपलें पावल ना करपाचेंय पिशेपण ताणें करूंक ना. जिविताची वाट ताका खबर आसू नासूं. कवितच्या मळावेली ताजी वाट ताका खबर आसा. ताज्या पावलांच्यो फुडारावेल्यो कुरवो पळोवंक हांव आशेन रावतां.

○

---

**गोंय म्हजें हांसता**
**दियोगु मार्कुश फेर्नांदिश**
**आनास्तासिय प्रकाशन, कुडचडें**
1969

---

## वळख आनी देख

गोंयचे पिकाळ भुंयेंत दर वर्सा नेमान नवीं गितां आंकुरतात. आनी त्या गितांतल्यान गोंयचो आत्मो हांसता, फुलता.

बाब दियोगु मार्कुश फेर्नांदिश हाणें अजून तरणी तिशी उपंक ना तरी ताका जाण्टेपणाचो अणभव आसा, ताजेलागीं उतरांचें जायतें गांठवळ आसा, लोकांची दुखी जाणा जावपाचें काळीज आसा, संवसाराची सुंदराय चोवपाची नदर आसा, मनश्यांची पिशेपणां पारखुपाचें गिन्यान आसा.

'गोंय म्हजें हांसता' ह्या गितां–झेल्यान कवीच्या व्यक्तीपणाची ही सगळी तामां होल्मतात. कवीक आपल्या मनीसपणाची जाणविकाय आसा. भोंवतणच्या फटिंगपणानी भरिल्लो कुस्को समाज ताकाय फटिंग, फटकिरो करूंक सोदता. पूण कवी, नेटान निश्चयान म्हण्टा :

'कितलें तुमी त्रास दिल्यार
फटीक सत म्हणचो नां
कितलो तुमी फोर्म केल्यार
सताक फट करचो नां'

देखून ह्या गितांक, सत अणभवाची, उज् चलणुकेची घट बुन्याद आसा. कवीची शक्त कितें, ताजी लागणूक कितें हें ताका पुराय खबर आसा. कवी हो –

'विखा बदलेक
अमृत घालून
रागा बदलेक
मोग भरून
एक कविता रचता

भोंवनणी बोबाट, करांदाय आयकून वाजेल्ले हे कवीक एकूच जाय :

'रानांत सुद्दां रावन हांव
म्हाका फकत शांती जाय.'

शांती जाय तशी ताका सैंमाची सोबीतकाय आनी थंडाय जाय :

'तांबडो रस्तो लांब, लांब –
दोनूय कुशींक सांवळेचीं झाडां
रंग–परमळाचीं फुलां
माथ्यार निळें मळब, धवीं कुपां
हेंच म्हाका जाय.'

आयज मगलेकडेन जें नाटक चल्लां तें पळोवन कवीक किटकिटे येतात, आनी तो गांधीजीक म्हण्टा :

'देखून बापूजी देंव
परतून जल्म तरी घेवन
पळोवंक आमचें नाटक
उपकार करून तूं देंव'

गरीब–दुबळ्यांचें दूख पळोवन ताजें काळीज कळवळटा आनी तो तांकां पाचारता :

'तुमच्या दुखांत वांटो घेतां
काळीज म्हजें तुमकां दितां.'

कवीन एकदां माळोरेची पिलां धरिल्लीं, पुण साळोरे–आवयचो हुस्को ताज्यान पळोवंक जायना. तो म्हण्टा :

'बरें गे, साळोरी–मांय
हांव व्हरनां तांकां
हीं पळय दवरलीं घोंटेरांत,
तूं रडों नाका.'

दुसऱ्यांची दुखी वळखुपी ह्या कवीन मोगाची दुखी भोगल्या .

मोग केल्लो दोगायनी
पुण मोगाक म्हज्या लागल्या रोयणीं'

कवीचे लिखणेंतल्यान, केन्ना, केन्ना मन–भुलोवणी चित्रां उदेतात. दिसाळ्याचें हें अशें चित्र :

'पयलें पान, विमान कोसळून
कितलोसो लोक थार

उदेन्तेचे लडायेक लागून
शंबरांनीं लोक काबार
क्षणीक भूंय-कांप जावन
हजारांनी लोकांक ना घर-दार.'

आनी एका भिकाऱ्याची तो अशी थोडयाच पूण नकसूद उतरांनी वर्णना करता :

' एक भिकारी आसलो
गांव-घरा भोंवतालो
ज्युदी, खोमोस, काश्टी
नासली ताका धास्ती
धव्या माथ्यार रुमाल तांबडो
खांकेंत पोती, हातांत दांडो.'

शांतनायेक आंवडेपी, हेरांच्या दुखान दुर्वळ जावपी कवीचें मन सदांच थीर आसता अशें मात न्हय :

' मन म्हजें
म्हणूं कितें
हेडगें कशें
हेडटा तें
म्हाका हांगा दवरून
संवसार भोंवून
येता तें.'

कवीच्या मनान अशेंच चोंयवशीन हेडून नाणें आमच्या हातार अशींच गितां ओंपची ही मागणी.

()

---

**वेळेवयल्यो घुलो**
**रवीन्द्र केळेकार**
**जाग प्रकाशन, प्रियोळ**
**1971**

---

## घुलो कानाक लायतकूच

आज तीन दीस जाले, रवीन्द्राच्याच घरांत बसून ' वेळेवयल्यो घुलो' वाचतां. भायल्या बारांदार बसलां. रवीन्द्राचें घर एके दोंगुल्लेचेर आसा. भोंवतणी दाट रुखावळ. मुखार एक नागमोडी डांबरी रस्तो, व्हॉन्त घेत पिरवळा गेला. हांगा बशिल्ल्या जाग्यावेल्यान लोक येतात–वेतात ते दिसनात. कांय म्हयन्यां पयलीं हो रस्तो तांबडो आशिल्लो. आतां तो काळो डांबरी जाला. रवीन्द्र म्हणटा : ' पयलीं कोण मनीस गेला तें मातयेंतल्या ताच्या पावलां वेल्यान कळटालें. आतां कळना.' ह्या यंत्रयुगांत धर्तरेचेर मनशाच्या उकत्या पावलांच्यो कुरवो पुसत चल्ल्यात !

पयसुल्ल्या आंब्याचेर कोगूळ गायता. मदीं च कावळ्यांची कावकाव, कोंब्याचो साद आनी तरेकतरा सुकण्यांचो किलबिलाट आयकूंक येता. पानांतल्यान वारो सळसळटा, जसो मनांत विचार.

जे सुवातेर बसून ' वेळे वयल्यो घुलो ' ही दिसपटी तयार जाली तेच सुवातेर बसून हांव म्हजे दिसपटयेंतलें हें पान बरयतां. वाचपाक बरोवपाक हाचे इतली बरी सुवात सोदून मेळची ना.

रवीन्द्र हो चिंतपी. तो बरयतना चिंतता. उलयतना चिंतता. चलतना चिंतता. ताच्या सपनांक लेगीत चिंतनाचो रंग आसतलो. संवसार कसो घडलो हें पळोवपा परस तो कित्याक घडलो हाचेरूच तो विचार करतासो दिसता.

तो म्हाका विचारता : ' बरोवप कित्याक ?'

हांव ताका Jean Paul Sartre चे Les Mots हे आत्मकथेंतल्यो कांय वळी वाचून दाखयतां :

**J'e'cris toujours. Que faire d'autre ?**
**Nulla dies sine linea.**

C'est mon habitude et puis c'est mon metier. Longtemps j'ai pris ma plume pour une e pe e ! a present je connais notre impuissance N'importe ! je fais, je ferai des livres; il en faut; cela sert tout de meme. La culture ne sauve rien ni personne, elle ne justifie pas. Mais e'est un produit de l'homme! il s'y projette, s'y reconnait; seul, ce miroir critique lui offre son image.

– ' हांव सदां बरयतां, आनी दुसरें कितें करतलों ? ' दिसामाजी कांहीं तरी नें लिहावें ' ही म्हजी संवय. त्याभायर म्हजो तो धंदो. म्हजी लिखणी म्हळ्यार तरसाद अशें एका काळार म्हाका दिसतालें. आतां म्हाका आमचीं दुबळेपणां कळ्ळ्यांत. जावं. हांव पुस्तकां बरयतां. बरयत रावतलों. पुस्तकांची गरज आसा. तीं उपकारा पडटात. साहित्य कित्याकूच आनी कोणाकूच वाटायना. पुण साहित्य म्हळ्यार मनशाची एक कृती. तातूंत तो उकतो जाता. तातूंत ताचें प्रतिबिंब पडटा. ह्या चिकित्सक हारशांतूच ताका आपलें रूप दिश्टी पडटा...'

ह्या ' वेळेवयल्या घुलां ' लागीं खेळटना हांवूय चितूंक लागलां. चड चितप म्हाका मानना. जिविता विशीं चड चिंतपाचे भानगडींत हांव पडना. म्हाका दिसता, चिंतून चिंतून मनीस जिविता पसून पयस वता. संवसाराची सोबाय दोळ्यांनी भरून घेवप, जिविताचें संगीत कानांनी आयकून घेवप आनी तें उतरांनी कागदार उतरावप हो म्हजो धर्म. रवीन्द्राचो धर्म मात्सो वेगळो. हांव उतरांत चड करून रंग सोदतां, ताल सोदतां. रवीन्द्र तातूंत गंध आनी अर्थ सोदता. रवीन्द्राची ही दिसपटी Rousseau वा St. Augustine हांच्या Confessions सारकी न्हय. Somerset Maugham च्या A writer's Notebook भाशेनूय न्हय. Andre Gide च्या Journal भाशेन वा Andre Malreaux च्या Anti-Memoires भाशेन तर न्हयच न्हय. रवीन्द्र विचारांक गती दिता. पुणून तो नावाडग्यांक कुटके मारिना. दुश्टांक चिमटे काडिना. बायलांक कळवळायना. जाणट्यांक दुखयना. भुरग्यांक रडयना. ताचे हे दिसपटयेंत ताचें दिसपट्टें जिवीत दिसना. सगळे प्रसंग, सगळे अणभव दिसनात. ताणे कितें देखलां, कितें भोगलां, कितें सोसलां ते कळना. कितें चिंतलां तेंच फकत कळटा. ' रात्रावी बहुतांची अंतरें ' हें सूत्र मुखार दवरून ताणें हीं चिंतनां बरयल्यांत. ताचें जिवीत रासवळ मळार वाड गेलां. पुण ह्या मळार आयिल्ले बरे-वायट, कोडू-गोड अणभव तो हांगां चितारिना. रासवळ मळावेल्यान पयस वचून आपल्या घरांतल्या उकल्या वारांदार बसून अंतर्मुख जावन ताणें हीं चिंतनां बरयल्यांत. हांगा विचार हेंच ताचें मूळ जालां. विचार करपी मनीस होच ताचो रूप जाला. Victor Hugo भाशेन तो म्हणटा : La Pensee est mon pays,

Je suis concitoyen de tout homme qui pense– ' विचार होन म्हजो देस आनी जो विचार करता तोच म्हजो देसभाव.'

तो म्हणटा : ' म्हज्यांत कितलेशेच हांव आसात. म्हज्यात एक साहित्यिक आसा. एक कवी आसा एक सौंदर्यरसिक आसा. एक चिन्तक आसा. एक समाज-सेवक आसा. एक राजकर्णी आसा. एक शिक्षक आसा... म्हज्यान हांव एकलो ना... म्हज्यांत कितलेशेच हांव आसात ..' ह्या सगळ्या हांवांतल्यान एक एकचार दिसून येता. रवीन्द्र ताका integrity म्हणटा. हांव ताका sincerity हें नांव दीन.

ही दिसपटी म्हळचार Confession न्हय. Confessions बरोवपी एक तर Ceryl Chessman सारको बेडर आसचो पडटा वा St. Augustine जावं महात्मा गांधी सारको संत आसचो पडटा. एकल्याक सगळें सांगपाक कोणा बापायचो भंय नासता. दुसऱ्याकडेन लिपोवपासारकें कांय नासता. रवीन्द्र दोनूय न्हय.

पुण सत्याचो सोद लावपी हीं चिंतनां. चार म्हयन्यांचे फास्केंन बसयल्ली. तातूंतल्यान रवीन्द्राच्या दिसपट्या जिविताचें दर्शन जालें ना जाल्यारूय ताच्या मनाचें दर्शन जाता. देखून ही दिसपटी फकत चिंतनां न्हय, तर एक presence. ही दिसपटी वाचता आसतना रवीन्द्राचें मनूच न्हय, तर ताचें व्यक्तिपणूय ताच्या उकतें जायत वता.

तो ही दिसपटी बरयता कित्याक ? तर ' जे अणभव वा जे विचार उरून वतले भाशिल्ले ' ते दवरपाक. पुण तो सगळे विचार आनी सगळे अणभव बरयना. ज्या विचारांनी वाचपी शॉकार जावचो वा जे अणभव चारचौगांत सांगूंक येनात, सांगूंक जायनात, ते तो कागदार उतरायना. तो कांय जाणांची नांवाय सांगिना. नांवां बदला तो फुलयो घालता. जांकां फुल्यो घाल्लिसतना आत्मकथा बरोवंची आसा तांणी कादंबरी बरोवंची. रवीन्द्र हो विचारवंत. विचारवंताच्या जिवितांत विचार होच व्हडांत व्हड अणभव. रवीन्द्राक जें दिसता, तो जें भोगता तातूंतल्यान तो जिवीत पोसपी, नवो समाज घडोवपी अशे नवे विचार काडीत आसा. ताचे कांय विचार पुस्तकाच्या वाचपांतल्यान, कांय विचार कांय प्रसंगांतल्यान रुपाक आयल्यात. ताचे कांय विचार मन हालयतात. कांय विचार खातकुतल्यो करतात. संवसाराच्या चित्रां परस संवसाराकडेन पळोवपाची नदरूच हातूंत चड आसा. दोळे दिपोवपी रंगां परस जिणेची वाट उजळावपी विचारांचो उजवाडूच चड आसा.

रवीन्द्राचें बरोवप म्हळचार एक साधना. ' आंपूण कोण ते जाणां जावपाची. आपणाक सुदारपाची, दुसऱ्यांक बरी देख दिवपाची.' तोच म्हणटा :

‘म्हज्या म्हाकाच वळखुपाक ही दिसपटी म्हाका उपकारा पडल्या.’ Ripeness is all अशें Shakespeare म्हणटा. हे जाणटेपण, हें पिकेपण रवीन्द्राक तरणेपणांतूच आयलां.

दिसपटी म्हळयार एके तरेचें आप-बरोवप. आपल्याच जिविताचेर आपणेच केल्ली एक धांवती Commentary. आत्म-चरित. आत्मचरित्रा परस ही सभाव बरो चितारता. दिसपटयेक कसलीं बंधनां नात. कसलो आकार ना. कसली मेर ना. नाटका भाशेन ती बरोवपाक तंत्राचो अभ्यास करचो पडना. कविते भाशेन तिका यमक, तालाची घटां सांबाळचीं पडनात. काणये भाशेन जावं नवलकाणये भाशेन तिका कथानक रचचें पडना. घेतली लिखणी आनी आपले लागी उलयत बसलो. दिसपटी बरोवप सामके सोपें. पुणून सोपें देखुनूच कठीण. तिका अक्षरांवर साहित्याचें मोल येवप भारी कठीण. पुणून जशी बरें उलोवप ही एक कला तशीच बरें बरोवप हीय एक कला. तशीच बरें बरोवप हीय एक कला. रंगांची संगती जाल्यार चित्र जावं येता. सुरांचो मेळ पडल्यार संगीत जाता. पुणून शब्दांचो मेळ पडलो म्हूण बरोवप जायना. शब्दां फाटल्यान अर्थ आसता. त्या अर्था फाटल्यान जिणेचो अणभव आसता. जातूत शब्दां पलतडच्याचें दर्शन जाता तेंच खरें बरोवप. देखून हांव म्हणटां, गद्य बरोवप जितलें सोपें दिसता तितलेंच तें कठीण. पद्याक नेम आसतात. लय-तालाचे आनी उतरांचे संख्येचे. ते शिकनकूच कोणाकूय थोडें भोव काव्य करूंक येता. गद्याचे नेम थारायल्ले नात. वळ केदी लांब आसची, पूर्णविराम, स्वल्पविराम केन्ना घालचे, हाचें थारायल्लें गणीत ना. तरेकतरा मुद्रांचो अभ्यास करून पांय तालार मारून नाच करूं येता. पुणून बरें चलप कशें शिकतलो ? चलपाचो ताल कसो शिकतलो ? चलपांतलो ताल तसोच गद्यांतलो भितल्लो ताल आपशीच आयिल्लो आसता नाचा मात्शें अडेचें जालें तरूय तें दिसना. पद्य मात्शें अडेचें जालें म्हूण दिसना. पुणून अडेचें गद्य, अडेच्या चलणा भाशेन रोखडेंच दोळयांत भरता.

रवीन्द्राची भास सहज स्फुरिल्ली-निजाची. तातूंत अडेचें उतर सोदून मेळचें ना. विचाराचे तें आंगलें. विचाराच्या आगाक फीट बसपी. भाशेचें हें सादेपण हेंच रवीन्द्राचें व्हडपण. ज्या बरपातल्यान बरीं उतरां वेगळी काडयेत तें बरप बरें न्हय. रवीन्द्राच्या बरपातल्यान बरीं उतरां वेंचून वेगळीं काडूंक येनात. ताच्या बरपांतलें दर एकलें उतर जंय आसूंक जाय थंयच आसा. Anatole France म्हणटा : ‘शैली ही सूर्याच्या वोता भाशेन. ती दिसपाक रंग नाशिल्ली. पुणून तातूंत सातूय रंग आसतात.’

रवीन्द्र म्हणटा, ‘म्हजो सभाव मात्सो चिन्तकाचो. कसल्लीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता आनी चिन्तनाच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओढून व्हरता.’

जो ही दिसपटी वाचता ताचीय अशीच गत्त जाता. हीं चिंतना ताकाय 'खोल खोल ओडून व्हरतात...'

मनशाची समाजीक नीत, Sexual morality, धर्माचें खरें स्वरूप विद्यार्थ्यांचीं बंडां, हिप्पी आनी ताचें जिवित–तत्त्व, बायलांची आवतिकाय, साइत्याचो आदर्श ह्या आनी असल्या विशयांचेर तो चिंतता आनी कांय मोटे प्रस्न मुखार दवरता. ह्या सगळ्या प्रस्नांतल्यान जसो एक खंतिचो सूर आयकूंक येता, तशी एक स्रद्धाय तो उकतावन दाखयता. जें चल्ला तें सगळें सारकें चलना, समाजांत बरे लोक आसात, पुण चडशे लोक दुबळे. ही ताची खंत. जे फाटल्याक रसून गावल्यात ते मात्सो विचार करतीत जाल्यार सगळें तांच्यांनीं बदलूंक जातलें ही ताची स्रद्धा. रवीन्द्रांचीं उतरां violent न्हय. पुणून ताचे विचार क्रांतिकारी.

गोंयच्या हेर खंयच्याय साइत्यिका परस, खंयच्याय स्वातंत्र्य झुजाऱ्या परस, खंयच्याय समाजसेवका परस रवीन्द्रान चड चिंतलां आनी चड बरयलां. गोंयचे भाशेचो प्रस्न, गोंयच्या राजकी फुडाराचो प्रस्न, हिन्दु–किरिस्तांवांच्या एकचाराचो प्रस्न, मनीस आनी सैम हांचो संबंद, ह्या आनी असल्या कितल्याश्याच प्रस्नांचेर फाटल्या पंदरा सोळा वरसां सावन तो एकासारको बरयत आयला.

'मनीस जसो चिंतता तसो तो घडटा' अशें भगवान बुद्धान म्हळां. चिंतनाची ही शक्त, हें व्हडपण रवीन्द्रान पारखिलां. दोळ्यांक दिपोवप्यांपरस तेंनिश्ट वावुरप्यांपरस, थंडायेन विचार करपी आनी विचार करूंक लावपी मनशाचीच समाजाक चड गरज आसा. आंगान नूननायक आशिल्ले व्हडें ताणपी मनीस खूब आसात. आयच्या सवसाराक तकली थाऱ्यार आशिल्लो येरें धरपीच जाय. ना जाल्यार हें व्हडें खंयच्या वादळाक सांपडून तळपार आपटून ताचे कुडके कुडके जायत, सांगूं नज.

एकामेकांक संवाद नाशिल्लीं ही तुटिल्ली चिंतना आसलीं तरूय तीं पावसाचे पांवळे भाशेन थेंब्या थेंब्यान पडपी आनी सतत व्हांवपी.

रवीन्द्राचे हे दिसपटयेक ताच्या जिविताची लांबाय–रुंदाय आनी खोलाय आसा. समुद्रमंथन करून जिविताचो दर्या घुसळून काडिल्ल्यो ह्यो घुलो. जिविताचे दर्याविळेर घुलो खूब पातळ्ळयात. पुणून त्यो पुंजावन घरा हाडपाची बुद्द थोड्यांकूच जाता. ह्यो घुलो, तरेकतरा आकारांच्यो, तरेकतरा रुपा–रंगाच्यो. घुलो कानाक लायल्यार खंय तातूंत दर्याचो आवाज आयकूंक येता. ह्योय घुलो कानाक लायल्यार तातूंतल्यान जिविताच्या दर्याचो उलो कानांत गाजतलो.

दीस धारेर गेला. दर्या पयस आसा.

O

**कोंकणींतलें फूल**
**जुजे आंतोनियु कोश्त**
**प्रेमको पब्लिकेशन्स**
1971

## पयलीं उतरां

जुझे आंतोनियु द कोश्त हो सेमिनारींतलो तरणो शिकपी. देवशास्त्रा-वांगडाच तो जायत्यो भाशा शिकला पुण आवय भाशेच्या खऱ्या मोगाक लागून तो कवी जाला. ताणें जायत्यो कथा आनी नाटकां बरयल्यांत. पुण ताज्या जिवितांतलो अणभव चड करून कवितेंतल्यान फूलता. आपल्या मनांतलीं सपनां, आपल्या काळजाचे आंवडे तो गितांतल्यान उलनायता.

ताजो हो पयलोच कविता-झेलो तुमच्या हातांत दिवपाक म्हाका चड खोस जाता.

शाणेपणान भरिल्लीं हीं कवनां, नितीच्या परमळाचीं, ल्हान-दुबळ्याच्या कळवळ्यान भिजलेलीं.

हो फायचो पाद्री, आयचो कवी, आपल्या जिविताचो वावर वळखता -

' मनश्यां मदलो मनीस तो
स्वामी जेझून काडिल्लो विंचून
दुखी मदें तो संतोस
कश्टां मदें तो धादोस '
देवाचो मनीस तो देवालागीं एकूच मागता :
' म्हज्या जिवितांत सदांच
जिवितानूच बिराड घेवंचें '

हो जेझूचो शिश्य म्हण्टा :

' जेझू बगर
सूख ना '

‘ कश्टां मदें
जेन्ना सूख
सुखां मदें
जेन्ना दूख.’
हो कवी
‘ जंय द्वेस आसा
थंय प्रीत घालता
काळजाचे घाये
गितान धूता.’

सैम इतलो गिरेस्त आसतनां, मनश्यांची गरिबाय पळोवन तो मनांत कळ-वळटा. माडाची अपुर्बाय करीत तो म्हणटा :

‘ इतलें रचून नालींचें पीक
तरीय मागतलें मनीस भीक,
इतलीं रकोवन भुंयेर चुडटां
तरूय कशीं मेळनात घरां
रानां सुखी, शेतां सुखी
मनश्याचें हाड सुखी ना.’

अजून हो कवी तरणो आसा. ताज्या उतरांक अजून धार येवंची आसा. तशी ताच्या मनाक नदर आसा, ... ताज्या जिवाक उमेद आसा, ह्या उमेदीच्या बळार ताजें पावल खऱ्या कवितेच्या मळार एक दीम पडल्या बगर रावचें ना.

O

**ओली सांज**
शीला नायक
जाग प्रकाशन, प्रियोळ
1973

## कोंकणीच्या आंगणातलो सोबीत रांगोळी

'With a tale, forsooth, he cometh unto you; with a tale which holdeth children from play, and old men from the chimney-corner.'

Sir Philip Sidney

( तो काणी सांगूंक लागता तेन्ना भुरगीं खेळपाचें विसरतात, जाणटीं उज्याचो धग सोडून येतात.)

आयचें यूग हें कथेचें. लोकशिक्षणाचो प्रसार, नेमाळयांचो सुकाळ हांकां लागून कथांचें पीक सुमाराभायर आयला.

आयच्या लोकशायेच्या काळांत लोकांक रुचत आनी पचत अशी ही कथा. आयच्या धकाधकिच्या युगांत थोडयाच वेळांत वाचून काडूंक येता अशी, सगळयांक समजता अशी ही कथा. लांबायेन ल्हान पुण गुणांनी व्हड. गाडयेंत बसून ऑफिसांत वेतना, वा रांगेत रावन बसिची वाट पळेताना चड कश्ट-दगदग घेनासताना वाचून जाता अशी ही कथा.

ग्रीक जाणकार सुक्रत म्हणटालो, खंयच्याय विशयाचेर उलोवचे आदीं त्या विशयाची समजावणी करून घेंवक जाय. पुण 'कथा' ह्या उतराची समजावणी कशी करप? आतांचे कथेचें रंग-रूप इतलें बदललां, ताज्यो शिंवोंसरो इतल्यो रुंदावल्यो, तातूंतले धागे-दोरे इतले घुसपल्या, आनी संवसारात तिजो संचार इतलो वाडला कि 'कथा' हें उतर समजावणेचे अशीर फास्कींत घालप मातशें कठिणूच.

'कथा' म्हळयार कितें हें सांगचे परस 'कथा' म्हळयार कितें, कितें न्हय, तेंच सांगचें पडटलें. 'नेति, नेति' हे उद्गार फक्कत ब्रह्माकूच लागतात.

कथेची व्याख्या करताना आयचे जाणकार उपनिषदकारांचीच न्हयकारी मास उपकारतात. Encyclopaedia Britannica 'Short Story' ची अशी समजावणी दितां : ... a Kind of prose fiction distinguished from the novel ( roman ) and the novelette ( nouvelle or novelle) by its compression and its intensity of effect. ( कथा म्हळयार एके तरेचें गद्य साहित्य. बांदिल्ल्या, सांदिल्ल्या आकारापासत आनी एकठावल्ल्या परिणामापासत ती कादंबरी ( नवलकाणी ) आनी लाब कथेपरस (काणी) वेगळी.

नामनेचो इंग्लेज कथाकार सॉमरसेट मॉम ( Somerset Maugham ) हो कथेची अशी समजावणी दिता : ' बरी कथा ही एक गद्य साहित्य–कृती, तातूंत एकूच घडवणूक आसता. खरी घडिल्ली वा रचिल्ली. ती एकेच बसकेंत वाचून जाता, ती निजाची आसूंक जाय, तिणें वाचप्याक दिपावंक जाय; ती वाचून मन उचांबळ जावंक जाय; तिजो मनार एकूच एक परिणाम जावंक जाय; सुर्वेपसून अखेर मेरेन ती एके सरळ चालीन चलूंक जाय.'

( A good short story is a piece of fiction, dealing with a single incident, material or spiritual that can be read at a sitting; it is original, it must sparkle, excite, or impress; and it must have unity of effect or impression; it should move in an even line from its exposition to its close. )

ही व्याख्या बरी अशें मानून लेगीत कांय बऱ्यो कथा हे व्याख्येंत बसतूच म्हणून सांगूं नज. विमाव्या शेंकड्यातल्यो युरोपी वा भारती भासांतल्यो कथा लांबयेन मोटव्यो आसल्यो तरी तांनून ' कथे' चो धागो आसतच म्हणून सांगूंक जायना. कांय मभाव चित्रां आसनात, तर कांय वर्णनां, कांय समाजजिविताचीं आंगां तर काय गद्य–कविता. जायत्या कथांनी कथेचो एकूच गूण होलमता–ती एकेच बसकेंत वाचून जाता.

कथेचें रूप आतां बदललां. तशें बदलत गेल्यार एडगर अॅलन पो ( Edgar Allan Poe) हाजे व्याख्येचें हें एकूच आंग उरत : ' लघुकथा म्हळयार एक गद्य प्रकार जो वाचपाक अर्द वर वा एक वर लागता' ( requiring from half an hour to one hour in its perusol).

आयचे कथेची आवय पोरणी पुरातन काणी. मनश्यांच्या भुरग्यांक जशें काणयांचे पिशें तशीच भुरगे मनीसजातिकूय काणयांची ओड आसली. इजिप्तांतल्या थड्यांनीं पापिरसाचेर बरयल्ल्यो स हजार वर्सां आदल्यो काणयो मेळ्ळया. ग्रीक आनी रोमन गावपी देवांचे गूण आनी शूर–वीरांची कितें काणयांच्या रुपान गायताले म्हणटकच कथा ही काणयां इतलीच पोरणी. सगल्यांत पोरण्या वेदीक सरस्पतींत ल्हान, ल्हान कथा होलमतात. कांय रुपककथा तर कांय बोधकथा.

शाणेपणांनी उपाट भरिल्ल्यो आमच्या देशांतल्यो ‘ पंचतंत्र ’ आनी ‘ हितोपदेश ’ ह्यांतुंतल्यो काणयो आनी ग्रीक बुद्वंत गुलाम ‘ इसाप ’ हाच्यो बोधकथा (Fables) तर सगल्या संवसाराचे वळखिच्यो आणि आवडिच्यो. ‘ एक हजार एक राती ’ ह्या नावाखाला नामना पाविल्ल्यो आरबी काणयो अजून लोक रुचीन वाचतात. खिरस्ती धर्मग्रंथांत तर शेंकड्यांनी, ल्हान, रुचीक काणयो होलमतात. मध्य-युगांतल्यो इतालियान ‘ Novella ’ आनी फ्रेंच ‘ Fabliaux ’ हांणी जायत्या जाणांक खोस दिल्या.

भारतांत तर हांतुंतल्यो कथा सगल्यांचे वळखिच्यो : रामायण-महाभारत, पुराणां, वेताळ-पंचविशी, कथाकल्पतरू, बीरबल-पातशाय कथा, तेणाली रामणाच्यो कथा,...

ह्याभायर गांवांत पुरातन काळापसून जाणट्यांच्या वोंठार घोळत आयिल्ल्यो काणयो. असो हो लांब-रूंद काणयांचो संवसार.

पुर्विल्ली काणी ही आर्विल्ले कथेची आवय आसली तरी आमच्या आर्विल्ल्या भारती भासांतल्या कथा प्रकाराक इंग्लंड, फ्रांस आनी अमेरिका ह्या देशांतले कथेंतल्यान स्फूर्त मेळ्ळी. यकणिसाव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत R. L. Stevenson, फ्रांसांत Maupassant, Balzac, Daudet, अमेरिकेंत Edgar Allan Poe, Washington Irving आनी Nathaniel Hawthorne हांणी कथेक आयचो रुपकार दिलो. आनी मागीर रशियन चेकॉव्ह (Chekhov), अमेरिकन ओ हेन्री (O.Henry), पोर्तुगेज Julio Dantas, हिंदी प्रेमचंद, बंगाली टागोर हांणी तिका केळयली.

जानेर १४, १८३२ ही तारीख कथेच्या इतिहासांत चड म्हत्वाची. त्या दिसा अमेरिकन बरोवपी Edgar Allan Poe हाची ‘Metzengerstein’ ही कथा फायल्डेल्फियेच्या Saturday Courier ह्या नेमाळ्यांत आयली. आनी एकूच घडणूक, एकूच परिणाम आशिल्ल्या तंत्राचे नवे कथेची (Short Story) सुरवात जाली. ह्या दिसा आदी कथा म्हळ्यार धाकटल्यो कादंबऱ्योंच आशिल्ल्यो. नाना पात्रांची गर्दी आसली, प्रसंगांची लूट, वर्णनांचो कचकच. मनशांच्या मनांत किते चलता ताजेपरस तांका किते घडटा हाका म्हत्व आशिल्ले.

बरी कथा बरोवप ही गजाल सोपी न्हय. जायतीं घटां मांडाळचीं पडटात, जायते नेम पाळचे पडटात.

पयले सुवातेर ‘ कथा ’ म्हळ्यार एक काणी आसूंक जाय-म्हळ्यार तातूंत काणयेचें बी आसूंक जाय. आनी त्या बियाभोंवतणी रोस आनी म्हांवळो आसूंक जाय. तशें नासल्यार ती काणी जावंची ना. तें फकत जानलें, अणभवांतल्यान वा कल्पनेंतल्यान काडिल्लें उतरांचें चित्र-तुमी भोंवक वतना किते पळेलें वा

तुमच्या गांवांतल्या जिवितावें चित्र काडलें वा घरच्यो गजाली बारीकसाणीन सांगल्यो म्हुण ती ' कथा ' जायना. कथेंत कसली तरी घडणूक घडूंक फाव, कसलें तरी कथानक आसूंक फाव.

' कथा ' ही ल्हान आसूंक जाय. संवमारांतल्यो कांय नामना पाविल्ल्यो कथा खऱ्यांनीच ल्हान आसात; दोन-तीन हजार उतरांच्यो. कांय लोककथा वा पुराणांतल्यो कथा पांचशें ते हजार उतरांनी सांगिल्ल्यो आसात.

इंग्लडांत एकदां धाकटुल्या कथांची सर्त लागिल्ली. ते सर्तींत हे सकले कथेक पयली तस्त्रीप फाव जाली :

' एका रेल्वेच्या डब्यांत एका मनश्यान दुसऱ्या मनश्याक म्हळें : ' म्हजो भुतांचेर विस्वास ना.'

' खऱ्यानींच ?' दुसऱ्यान विचाल्लें आनी तो नाच्च जालो.'

० ० ०

सुर्वेपसून निमाणे मेरेन कथेचो एकूच सूर आसूंक फाव. जसो संगीतांतल्या एका रागाचो. कसबी गावपी राग आळोवंक बसलो कि रोखडोच त्या रागाचो थाट कळटा, तेच भाशेन कथेचें. पयल्याच कांय उतरांवेल्यान कथेचो थाट लक्षांत येवंक जाय.

हे सूर तरे-तरेचे आसूं येत–दुख्खी, विनोदी, फकाणेर, धांपिल्ल्या हांसपाचे, उकत्या हांसपाचे, विस्मिताचे...

हो सूर लावपाचें आनी फाव तें भोंवतण तयार करपाचें काम शैलिचें ( Style ) आनी पयलें पान परतुंचे आदीच शैली आपलो जादू करता. कथेंत भरभराक मुवान ना, उतरांच्या बोंब्राडघांक थारो ना. कल्पनेच्या मेकळ्या उडपाक वेळ ना. तातूत वर्णन नी कचकच, पात्रांची गर्दी, घडणुकांचो घुस्पागोंदळ आसूंक फावना. जें सांगपाचें तें सडमडीत सांगूंक जाय, फाव त्या उतरांनी सांगूंक जाय. आनी उतर आसूंक जाय मुदयेर थीक कशें. उपकरल्लेल्या दर एका उतरांतल्यान कथानकाक चाल मेळूंक जाय, वा मनश्यांक आकार येवंक जाय, वा भोंवतणात रंग भरूंक जाय. वाचप्याक दिसूंक जाय कि एक वळ जरी चुकली वा हुवली तर कितेंय म्हत्वाचें चुकतलें वा बगडावतले; देखून कथा वाचतकच दिसूंक जाय, कथा आनीक वाडोवन वा लांब करून कांयच फायदो जावंचो नासलो. Economy हो कथेचो प्राणूच म्हळयार जाता. सगले जाणकार हेंच मत्त मांडटात. ' कथेंत एकूच एक विचार वा कल्पना आसूंक जाय आनी तो विचार वा ती कल्पना सोंपेपणान, नटान आनी सरळ रेगेन मुखार व्हरूंक जाय. तिका पालशी चाल चडशी मानना.'

अमेरिकेचो आद्य कथाकार हेंच सांगता :

'A skillful literary artist has constructed a tale. If wise, he has not fashioned his thoughts to accommodate his incidents; but having conceived, with deliberate care, a certain unique or single effect to be brought out, he then invents such incidents-he then combines such effects as may best aid him in establishing this preconceived effect. If his very initial sentence tend not to the outbringing of this effect, then he has failed in his first step. In the whole composition there should be no word written, of which the tendency, direct or indirect, is not to the pre-established design...'

- Edgar Allan Poe

कथेंन वेग जाय. म्हळ्यार खर्शे–खशत कशायकशें धांवप न्हय, तर प्रसंगा-फाटल्यान दुसरे प्रसंग सडमडीत मांडप. घडणुकी सांगपापरस, सभाव चितारपाक चड म्हत्व आसलें तरी कथेक गती आसूंक जाय. कथेंन सवकासायेन, आळसायेन भोंवपा फिरपाक वगत ना, सगलें विस्कावन सांगपाक सुवात ना. कथा आपशीच उकती जायत वचूंक जाय.

कथा आनी कादंबरी ह्याचे भितर जायतो वेगळेपार आसा. कादंबरी चड करून तोडून, तोडून वाचची पडटा (एका दमांत सगली कादंबरी वाचून काडपाक सगल्यांकूच वेळ मेळना). असल्या तुटिल्ल्या वाचपाचो मनार फाव तो परिणाम जायना. ह्या उरफाटें कथा एकेच बसकेंत वाचिल्ल्यान तिजो परिणाम एकठायल्लो साणायल्लो असो उरता. फ्रांसेज कवी Charles Bandelaire Edgar Allan Poe च्या कथा–झेल्याचे प्रस्तावनेंत म्हणटा :

' O Conto tem sobre o romance de grande tamanho a imensa vantagem de juntar a brevidade a intencao do efeito. E uma leitura que podemos conouir de um folego, e que deixa no espirito uma recordacao muito mais poderosa que uma leitura quebrada, frequentes vezes interrompida pelo barulho dos negocios e a preocupacao dos interesses mundanos. A unidade de impressao, a totalidade de efeito e uma infinita vantagem que pode dar a esta especie de composicao uma superioridade absolutamente inconfundivel. '

(पोर्तुगेज अणकार)

कादंबरी म्हळ्यार नग्रेकनरा फळांच्यो फोडी आशिल्लें खतखतें अशें मानलें जाल्यार कथा म्हळ्यार नाल्लाचो आपरोस काडून केल्लें दाट, मखनाल हुमण.

वरी कथा म्हळ्यार जिविताची एकूच रसरशीत पीर. सगल्या काळंगाक

एकदम घांस मारचे परस काळंगाची अशीर शीर सवकसायेन, रूच घेत घेत खावं येता.

पात्रांचो एकामेकांलागीं लागचो संबंद आसूंक फाब अशेंय ना. त्याभायर कादंबरिचे लांबाये–रुंदायेक शीममेर ना.

पुण कथेंत नाका जाल्लें वा सुबेज भाशिल्लें सगलें शिट्कपणान कुशीक दवरचें पडटा. कथेंत ल्हान, ल्हान प्रसंगांतल्यान, वा वर्णनांतल्यान एकूच एक चित्र तयार जावंक जाय, मनांत एकूच एक परिणाम जावंक जाय. देखून R. L. Stevenson म्हणटा ते भाशेन कथेंत 'अखेर कितें नी सगल्यांत आदीं थारूंक जाय आनी सुरवात कितें ती सगल्यान निमाणें थारावंक जाय.'

हाजेय मुखार वचून रशियन कथाकार आंतोन चेकोव्ह (Anton Chekhov) हो म्हणटा :

'विशयालागी संबंद नाशिल्ले खंयचेच गजालीक कथेंत सुवात दिवंक फावना. कथेंत सुर्वेक तुमी तुबक दाखयलें जाल्यार ताजो केन्नातरी फार जावंकूच जाय.'

जशें एक आंकी नाटकुलें तशीच कथा. तातूंन परंपरेन चलन आइल्लीं हीं तीन सूत्रां ( Unities ) आसूंक जाय. एक सुवात, एक वगत, एक घडणूक.

वाचप्याच्या दोळ्यांमुखारूच कथानकाची वाड कथेंतल्यानूच जावंक जाय. बरोवप्यान कथेचे सगले कुडके वाचप्यामुखार स्पश्ट दवरूंक जाय. जाय जाल्यार ताका ते वेगळे काडूंक येवंक जाय, जाय तेन्ना एकठांय करूंक येवंक जाय.

फ्रांसेज कादंबरीकार Les Goncourt भाव म्हणटाले : 'Le roman est un coin de la nature vu a travers un temperament' ( कादंबरी म्हळ्यार एके नदरेंतल्यान पळेल्लो संवसाराचो कोनसो).

आमचे कथेकूय हीच व्याख्या लागू जाता. कथा म्हळ्यार बरोवप्याच्या मनाच्या हारशांतल्यान पळेल्लो संवसाराचो कोनसो.

लघुकथेचे विशय खंयच्यानूय घेवंचे. विशय पावला कणकणो मेळटात. ते पळोवपाची मात नदर जाय. बरो कथाकार आपले दोळे आनी कान सदांच उकते दवरता, नाका तें कुशीक उडयता, जाय तें दवरता आनी ताका कलेचो साज घालून कथा घडयता.

प्रसंगांतल्यान पात्रांचेर उजवाड पडूंक जाय आनी पात्रांच्या सभावांक लागून प्रसंग घडल्यात अशें दिसूंक जाय. सगले ल्हान, व्हड प्रसंग, निमाण्या प्रसंगाकडेन ( Climax ) वेगान आनी सरळ रेगेन वचूंक जाय. दर पावलाक वाचप्याची उमळशीक वाडत वचूंक जाय.

बरोवप्यान मानसशास्त्र जाणा जावंक जाय, पुण ताणें मानसशास्त्राचेर चड

उलोवंक फावना. मनश्याच्या चिंतनांची, उमाळयांची चिकित्साय करूंक फावना, तर मनश्याच्या मनांत कितेंकात घडटा तेंच दाखोवंक जाय.

एका घरान पावल दवरिना फुडेंच तातुंतल्या वातावरणांत आमी घुस्पतात तशेंच कथा वाचपाक सुरवात करिना फुडेंच तांतुंतल्या भोंवतणान भारावन वचूंक जाय.

पयल्या वाक्यानूच कथाकारान वाचप्याचें मन ओडून घेवंक जाय आनी ती ओढ अखेरमेरेन तशीच दवरूंक जाय. कथा फाव त्याच खिणाक सोपोवंक जाय. वोतो येतकच दूद रोखडेंच सकयल काडूंक जाय तेच परी कथानकाक हुनसाण येवन वोतो येना फुडे रोखडीच कथा सोपोवक जाय.

अखेरीक वाचप्याच्या मनाक अजाप जावं येता वा ताज्या काळजाक दूख भोगूं येतां. पुण वाचप्याच्या जिवाक कथेंतल्यान पुराय खांत जावंक जाय.

कथा कशी आसची ? कथा सिगाराभाशेन आमचो अशें एक इंग्लेज बरो-वपी म्हणटा : पयले सुवातेर तंबाखू बरो आसूंक जाय. दुसरे सुवातेर बांदणी घट आसूंक जाय. तिसरे सुवातेर सिगाराक वास बरो आसूक जाय, चवथे सुवातेर ताका रूच बरी आसूंक जाय. पुण इतलेंय आसून पुरो जायना. सिगार जळूंक जाय. हीच गजाल कथेची.

कथा बरोवचे परस, कादंबरी वा नवलकथा बरोवप सोपें अशें म्हणूं येता. कागद, शाय आनी वेळ ह्यो तिनूय वस्तू जाय तितल्यो आसल्यो जाल्यार कोणा-यच्यानूय कादंबरी बरोवं येता. सगली कादंबरी मनांत पुराय तयार आसूक जाय अशें ना– जशें नाटक मनांत तयार आसचें पडटा. व्हड, व्हड कादबरीकार अशे सांगतात कि कादंबरी कशी सुवार थेनली आनी कशी सोपनली हें तांकांच खबर नासलें. कादंबरींत जाय तितले प्रसंग घालूं येतात, जाय तितली मनशां हाडूं येतात. जाय तितलीं वर्णनां भरूं येतात.

कादंबरीकार वाचप्याक खूब दिता आनी ताजेकडल्यान थोडेंच मागता, कथाकार थोडें दिता आनी चड मागता. कादंबरीकार रेगांनी, रंगानी मनश्याची पुराय चित्रां काडटा ; कथाकार कांय ह्यन्ह्यश्यो भाकुनायो काडून तांतंत रंग भरपाक वाचप्याचे कल्पनाशक्तीचेर पातयेता.

कादंबरी ही पुराय जेवणावरी, ती मरयता, भूक पालयता, कथा ही लोणच्यावरी. ती भूक वाडयता. कथाकार सांगता ते परस चड सुचयता, बरयता तेपरस चड सांगता.

० ० ०

गोंयचे मुटके उपरान्त जे कांय कुशळ तरणे कथाकार कोंकणी साहित्याक मेळ्ळयात तातूंत शीला नायक हिजो सुवात आगळीच. जेन्ना तिजो 'गंर ' ही

कथा उजवाडाक आयली तेन्ना वाचप्यांक थोड्याच उतरांनी सांगिल्ली, संयमान बरयल्ली, मनशाचें मन उकतें करपी आनी समाजाचें जिवीत चितारपी अशी नवी कथा वाचिल्ल्याची खोस जाली.

ह्याच काळांत आनीक स सात तरण्या बरोवप्यांनीं आपल्यो अपूर्व कथा कोंकणीक दिल्यो. चंद्रकांत केणी, दामोदर मावजो, सुरेश काकोडकार, अनील बांरकार, मीना गायतोंडे, गोविंद मुद्रस, उदय भेंब्रो, पुंडलिक ना. नायक, दत्ता नायक.

ह्या सगल्यांची साहित्यिक म्हणून आनीक वाड जावची आसली तरी दर एकल्याच्या कथांनी तांचे खाशेले गूण दिश्टीक पडटात. शीला नायक हिणेंय आपले कथेर आपली खाशेली कुरू मारल्या.

शीलाचे भाशेक निजाचे कोंकणीचो परमळ आसा पूण केन्ना, केन्ना, तिका मराठीचो वास मारता. 'चान्न्याची रात. नीरव सूश्ट-सगलें वातावरण कशें प्रसन्न आनी आनंदीत जाल्लें.' असली वर्णना खंय तरी, केन्ना तरी मराठीन वाचिल्ल्यासारकी दिसतात. तशेंच 'तुवें म्हजेकडेन लग्न केलें.' अशीय वाक्यं आसात. पूण असल्यो चुको साप थोड्यो.

शीलाची कथा म्हळ्यार नितळ निवळ केल्ल्या आंगणांतले सोबीत रांगोळे भाशेन. रंग-पिठ्याची चिमटी घेवन ती नाजूक बोटांनी रांगोळी घालीत वेता एक एक चिमटी मेळून. न्हव, न्हव करून पुराय चित्र रुपाक येता. बचकें भरून ती पिठो नेटान शेंवडिना तर ह्यान साबाळून रंग घालता. Impressionist चित्रकार चित्रां काडटात तशें.

थोड्याच चिमट्यांनी ती मन भुलोवणीं चित्रां चितारता :

' सकाळची वेळ. हॉटेलात ही गिर्द. गिरायकांचो बोवाळ, कपांबशयांचो किणकिणाट, रेड्याचो घरघर, पेपरांचो फरफर, जोत्यांचो चरचर.' ( घाय )

' पावसाची एक दडक येवन गेल्या सगळें नितळ करून. पावसान न्हावन वोत आयलां, भांगराभाशेन लखलखीत. आनी येवन बसलां ते दिसर माडांचेर माडाचे चकचकीत कळस करून. कळस हालनात, धोलतात पळे नसले. भाय सगलें ओलें जालां. मळब ओलें, झाडांपेडां ओलीं. घरां ओलीं-सगलेंच ओलें.' ( ओली सांज ).

' टायट पँट, काळीच.

मानेर लांब केस. पोल्यार गले.

गळ्यांत मणयांची माळ ' (कोडवें सूख)

चिमटी, चिमटीभर रंग मारपाचे तरेक लागून तिजी वर्णनां केन्ना केन्ना तुटिल्ले भाशेन दिसतात. तांतूत वेग मेळना. पूण तांतुनली फाव ती थंडाय,

फाव तें भोंवतण आपाप रुपाक येता. शीलाचे भाशेची गती मातशी मंद दिसली तरी ते भाशेंत जीवसाण आसा, ओलमाण आसा. फाव तो ' भाव ' तातुंतल्यान उदेता. आनी हे नदरेचे पळेल्यार शीलाच्यो चडश्यो कथा ह्यो ' भावकथा. ' शीला आपल्या काळजाचे नदरेन ओलसाणीन संवसाराकडेन आनी संवसारांतल्या मनश्याकडेन पळेता.

ह्यो कथा मातश्यो मोटव्योच हो विचार वाचप्याच्या मनाक भाफडून वेता· भाशेंत आनीक मातसो रंग भरिल्लो जाल्यार, उमाळयांक आनीक मातशी हुनमाण आशिल्ली जाल्यार, उतरांत आनीक मातसो नेट आशिल्लो जाल्यार. पुण कोण जाणा ! शीलाक आपली शक्त आनी आपले उणें खबर आसा आनी देखून ती सवकासायेन पावल घालता, काचाबूल जायनामताना. शीलाचो पींड कविचो. सोबीतकाय पारखुपाचो, कल्पना (Fantasy) जागोवपाचो. तिजी वर्णनां तर यमक (Rhyme) नाशिल्ल्यो सुंदर कविताच :

' एके सुंदर चान्याचे राती कुपांचें एक पान घेवचें, ताजेर भाताच्या कणमांचो वास घालून गुलछडिच्या वामान कालोवन तो खावंचो आनी ताज वागडा मातयेचो वास मदी मदीं तोंडाक लावचो ' (ओली मांज)

' मळबांत तरेकतरांची कुपां आशिल्लीं...ताची तांणीं सोबीत फुलां केलीं .. हती, वाग, शींव कोले ... मदींच रश्मीन खूब कुपा एकठांय केलीं आनी ताचेवेल्यान तें चंद्रार चडलें आनी लिपून रावलें ' (मोग). ल्हान भुरग्यांचे मन, तरण्या चलयांचें काळीज, शीलाक कळटा. ताच्या संवसारांत तें रमून वेता. ह्या संवसारांत बेगड आसता, तांबडयो कंवच्यो आसतात, रेवेंतलीं घरां आसतात; चॉकलेटी, फुलां आसतात. आनी खोंटल्यांनी प्रस्न आसतात. ह्या सगल्या प्रस्नाक जापो दिवपाक जाणटयांक जमना हेंय शीला जाणा.

' खेळ ', ' बेबी ', ' मॅगी ' ह्यो अश्योच भुरग्यांची नांव नाशिल्ली दुखां उकती करपी कथा.

तरणेपणाच्या हुमऱ्यार आशिल्ल्या चलयांची मोनी सपनां ती पाकळया-पाकळयानी उसोवन दाखयता ( अशीच एक दनपार ). कंवळया चलयांच्या उमाळयांच्या घुस्मटमाराचीं मन भुलोवणी चित्रांय तिजे लिखणेंतल्यान उदेतात.

शीलाची लिखणी नाजूक, तिजे विशय नाजूक; तरी तिज्या कथांनी Violence ना अशें न्हय. घाय जाल्ल्या आपल्याच हाताक ख्यास्त भोगोवपी गोंयदा ( घाय ), आपले इश्टिणिच्या घोवाक जितो मारपी हेमा ( स्त्राप ) ही पात्रां हिंमकूच. पुण ही Violence रेखताना शीलाची लिखणी उबंबळ जायना, आपलो संयम सोडिना.

पुण केन्ना केन्ना शीलाचें लिखणेंक आगळोच नेट येता– ‘ भार ’ ही कथा वाचताना मन भारावन वेता आनी दामूभाशेनूच तें उजवातिच्या वामाफाटल्यान धांव मारता.

‘ ओली सांज ’ हे कथेंत बरोवपी म्हणटा,

‘ कोणेंतरी पान खावन थंय ते वणटीचेर पिको उडयल्या. आनी तांचें एक सुंदर चित्र जालां. तांबडें रान कशें आनी त्या रानांतल्यान एक आगगाडी आयल्या कशी–’

हो देखाव आसा तसो काड म्हणून कथेंतली चली आपले इश्टिणीक सांगता, पुण तें ताका पिशांतूच काडटा ‘ म्हजे नदरेक जो देखाव दिशिल्लो तो ताका दिसलोच ना.’

शीला हांगा आपलेंच न्हय तर सगल्या कवी–कथाकारांचें दुख्ख उकतें करून दाखयता. कलाकाराचे नदरेक दिसता तें हेर मनशाक दिसच ना. तांकां ती नदरूच नासता. ही नदर शीलाक पुराय मेळ्ळ्या.

शीलाच्या साहित्य–भोगी मनांत साहित्या–विशिंचे अशेंत्र जायते प्रश्न धुंवतात. ‘ पुशिल्लें चित्र ’ हे कथेचो विशयूच तर ‘ कथा ’. कथःकार भोंवतणचो संवसार पळेता आनी तातुंतल्यान आपल्याक जायतीं पात्रां घेता, प्रसंग घेता आनी तांतूंत रंग भरून ताका कलेचें रूप दिता. साहित्यिकाक सुर्वेक वास्तवांतलें सत आनी कल्पनेंतलें मन हीं दोनूय सारकीच दिसतात.

पुण वास्तवांतलें सत लागच्यान पळेल्यार सत आनी कल्पना हांतुंतलें अंतर इतलें लांबत वेता कि सत–चित्र पुराय पुसून काडल्याबगर दुसरो उपायूच उरना.

शीलाच्या बायल–मनाक बायलांचीं मोनीं दुख्खां समजतात. ‘ सतार ’ हे कथेंत छेडिल्ले सूर आमचेंय काळीज चिरीत वेतात. निज्या संगीताचो बाजार करपाक तो सांगता तेन्ना तिजें सपन पिशटून वेता. सुवार्थी दादलो बायलेच्या आत्मसमर्पणाचो फायदो कसो घेता तें हे कथेंत शीलान लिखणेची मनारूच करून सांगलां.

‘ वाऱ्यावयलें सपन ’ ही कथा तर काळजाचो कुडकोच काडटा. ‘ म्हज्या भावाक विसरूंक नाशिल्ले ते पापणीक हांव खंयच्या तोंडान मांगू आशिल्लें कि म्हजो भाव ताजेखातीर लग्न जावंकूच ना म्हुण ! ’ ह्या निमण्या उतरांनीं कोणाक दुख्ख जावं नये म्हणून मारिल्ले ते फटीन वाचप्याच्या मनांत घस्स करून दुख्खाचो झरोच फुट्टा.

शीलाच्या कथांची अखेर काळजाक हुलपून वेता. मोपासां आनी ओ हेन्री

हांच्या कथांवरीच. आदीं 'अखेर' नदरेमुखार दवरुनूच शीला कथा विणीत वेता हातूंत दुबाव ना.

उपाट करुणेन भरिल्ले नदरेन ती मनश्यांकडेन पळेता–तांच्या अंतर्मनाचे पदर सोडयता, अंतर–विश्व जागयता.

शीलाची कथा फक्कत एक रांगोळीच न्हय तर ती उनरांनी आळयल्लो संगीतांतलो एक करुण राग– 'ओली सांजे' भाशेन ओलो, ओलो.

O

कोंकणी आवय

सुरेश रा. पै

सु. रा. पै

1973

# पयली नदर

शितान पोट भरता पुण मन फुलपांक गीत जाय.

पोटाचो धंदो करून उरिल्ल्या वेळांत आपले आनी दुसऱ्याचें मन फुलोवपी मनीस दिसता तेन्ना खोस जाता.

टेलीफोनच्या घांटींच्या किण किणांत काळजाचे सूर घुरमटून गेले नात असो हो कवी–सुरेश पै.

हो सैमाचो मोगी, भुरग्यांचो सांगाती, देवाचो भक्त, आवय भाशेचो सेवक.

गोंयांत येवन रांविल्लो भटकळचो हो कवी गोंयकारा भाशेनूच गोंयच्या मोगांत पडला. गोंयच्या सैमाची गिरेस्ताय पळोवन तोय धादोस जाता :

‘ आंबे पणस काजुफळां
भल्ल्या रसान कुळागरां
सोबींत गोंय पुनीत गोंय
अमृताची व्हांवता न्हंय.’

कवीचें काळीज सैमांत लेगीत जिवीत सोदता. पावस पडटा तो पळोवन ताका दिसता कोण रडटा काय ?

‘ कोणा माल्ले कोणा बडैले
कोण रडले कुपांनो ! ’

सैमानले जीव कवीक मनश्यांसारकेच दिसतात. रानीं कांजुल्यांची गर्दी पळोवन तो विचारता :

‘ कांजुल्यानी सांगात माका
जात्रा आयज खंयची ? ’

इतलेच न्हंय तर जीव नाशिल्ल्या वस्तीक लेगीत तो जिती जिवी करता. घडयाळ्य ही अशी वस्त जाता जिका उरतात.

' बारा दोळे आनी दोनूच हात. '

कवीची नदर भुरग्याची. कवी परतून भुरगो जाता आनी ताका संत्रमार आगळोच दिसता. चंद्रिमाक पळोवन हो कवी–भुरगो म्हूण्टा :

' धांवता थंय येता
कितलो मोगु करता
चादीमामा पळे आवय
माका चोवनु हांसता. '

आनी तो भुरग्याचो वांगडी जावन भुरग्याक म्हूण्टा :

' हांसत राव सदा बाळा
म्हज्या मना चांप्या कळचा ! '

भुरग्यां पासत गितां गावपी हो कवी, देवाच्या भक्तीन भरुन श्रीरामाक आळयता :

' फाले जालें श्रीरामा
उठ आतां घनश्यामा ! '

कवीक कोंकणीचो चड मोग. ती भास म्हळ्यार ताजे आवयच तो म्हूण्टा :

' आवय तुजीं पावलां
पळैन–शी दिसतां '

कोंकणीच्या पर्जळीत फुडाराविशी ताज्या मनांत मातूय दुभाव ना :

' तुगेलो गे रथ
चलतलो मुखार
सर्व जगभर
करीत जयजयकार'

मोगाचे तळमळेय कवीक कळटात :

' दिस सोपलो रात आयली
घरांत दिवो पेटलो ना
तुजे दर्शन घडले विना
नीद माका पडचो ना. '

आनी पयले भेटीची ही वर्णना :

' झुणझुणली पांयजणा
पळयले तुवें त्या खिणा. '

' सोबता तिळो कपलार
गळचात आसा मोतयां हार
नाकां मोतीं काना कुडीक
काकणाचो तो झणत्कार. '

कवीच्या गितांत आवयविशींच्या मोगाकूय सुवात आसा.

' करुणामई आवय ' हे कवितेत तो म्हण्टा :

' नदर तुजी सदा मजेर
दवर आवय मज्या खातीर
वाट जरी चुकलो हांव
चुकलीं ना तूं वाट दाखोंक. '

हो कवी अजून तरणो आसा. ताज्या विचारांक अजून आकार येंवचो आसा; ताज्या उतराक अजून धार येवची आसा पुण ताका कवीची नदर आसा. आनी जाका संवसाराची सोबाय पळोवपाची दिश्ट आसा ताज्या उतरांतल्यान आज ना फाल्यां नवी सृश्ट रुपाक येतलीच येतली.

O

**गोटलां**

**विजया सरमळकार**

**कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव**

1973

## म्होवीं गोटलां

हाल्लीं कोंकणीच्या मळार जायतीं फुलां उदेल्यां– तरेकतरा रंगा–रुपाचीं, तरेकतरा वासा–परमळाचीं. फूल हें सैमाचें कवीत जाल्यार कवीत हें साइत्याचें फूल.

आज विजयाबाय सरमळकार 'गोटलां' भेटयतात. धव्या रंगाचीं, रसमाच्या पाकळयांनीं, मागीलदारच्या पोरसांत फुल्लेलीं, बांयच्या रुचीक उदकान पोसलेलीं, मायेमोगान जपिल्लीं.

विजयाबाय लज–भीड धरिनासताना कवींचे पंक्तीक बसता. आपल्या सुर्वेस उलोवपान आनी माणकुल्याच गितांनी संमेलनाक रूच हाडटा. पुण तिणें घरकान्नपण राखल्लां. घराभायल्या विशयांचेर ती बरयना, पुण घरांतल्या विशयांचेर बरयताना तिजी लिखणी तिजें मन सांगता तशीं मोडटा.

दादल्यांची लिखणी संवसार जिखून आयली तरी घराच्या हुमऱ्याकडे पावनकच थारना, मागशेना. विजयाबायच्या लिखणीच्या जैताची सुरवात रांदची कुडीतल्यानूच जाता.

बायलांचे उर्बा–उमाळे, सुख–सुवाळे, विजयाबाय व्हडवीक लिखणेन चितारता तेन्ना घरांतले चकचकीत दिवलेच्या लकलकीत चांदण्यांत मन न्हाता–धुता.

बायलांचे दुख चड, तितलेंच तांचें सुखूय व्हड. तांचो संवसार भावनांनी भरिल्लो. जीवनाकडेन तीं काळजाचे नदरेन पळेनात. तीं मोगान फुलतात, रागान जळतात, द्वेसान सुकतात.

हुमऱ्यार निश्टत रावन दोळयांतल्लो हुस्को लिपयत, काळजांतली धडधड थामयत, वाट पळोवपाची जीव–घेणी कळ दादल्यांक कळचेली ना. मोगाचो

उमाळो, साखरपुडयाची खोस, पयल्या भुरग्याची सुलूस, आजयेची उमेद; विधवेची व्यथा हीं दादल्यांक मांगून समजुपाचीं ना.

' गोटलां ' म्हळ्यार नारी–जिविताचीं उमाळयान थपथपलेलीं चित्रां :–

साकरपुडो ! साकरेभशेन गोड हें उतर आंकवारीच्या अंतरांत सपनांचीं चंवरां फुलयता. साकरपुडयावेळचे चलयेच्या मनाचे रस्मी धागे विजयाबायनूच उसोवन दाखोवचे :–

' कारणाविणे हांसती ओंठ
पालशी नदर चाबता बोट
सूर नुलयत देंवता गळयांत
रस्मी भाव फुल्ल्या दोळयांत '

मनांतल्यो काय व्यथा उलोवंक येनात, उलोवंक जायनात– मायेचो मनीस पयस वेता तेन्ना ' ओंठार हांसो सुकून येता ' ' दोळयां–तळयांत झरी भरतात ' ' काळजाक सुरी तोंपता ' आनी–

रुखा कुशींत रिगल्या वेल
भोंवरे फुलां खेळटा खेळ
हांव मात एकसुरीच
भायर भितर काट्टां वेळ '

अशी गत जाता.

अपुर्बायेन वाडयल्ले चलयेक तिज्या नव्या घराक धाडटना आवयचें मन कशें भरून येता पळेयात :

' आंगणांतले तुळशीवरी
शिंपून केली ल्हान व्हड
दितना आज दुसऱ्या घरा
दुकान दोळे जाता जड.'

आनी अणभवाचीं दोन उतरां ती आपले चलयेक सांगता :

' संवसाराच्या भागेल्याक
दिगो तुजी धीरा धीगी
अरिश्टाच्या वोता पारा
माये सावली घाल वेगी '

आवयपणाची सुलूस लागता तेन्ना :

' लसलसून आयल्यो वैर
उमाळयाच्यो म्होव्यो झरी
ओंठा जोड फुरफुरता
कोणाक गुपीत सांगचें तरी '

नवी सून घरा आयल्ली पळोवन ती खोसयेन भरून ओता–

' गोमटो, गोरो हांसतो चेरो
पोवळी कशे ओंठ
हात्यावरी हातांत गो
सोबता बाये गोंठ !'

आनी जेन्ना ती आजी जाता तेन्ना नातीची अशी तोखणाय जाता :

' अपुर्बायेची नात आमची
कळी जशी मोगरेची
काळशे निळशे दोळे जशे
निळमणी सोबता कशे '

आनी जाण्टेपणात :

' लकणी जरी आयली दोळयांक
रात हांव काडतां जागयत
काळजाच्या कुरकुटांत
उगडासांचे पनेळ व्हलयत'

केन्ना केन्ना उबगणेन जीव बावता तेन्ना :

' जीव आज ना थाऱ्यार
मन म्हजें उखल्लां
धुंवल्लेले येवजणेंत
वाट हांव विसल्लां

आनी जेन्ना कूकूम फांसता, कांकणां फुट्टात तेन्ना आदार नाशिल्ली विधवा विजयाबायक अशी दिसता :

' घुस्मटून कर्पलेली
माटवावीण मुट्टेलेली
रूख मोडून अदंकुटयार
घट्टी बाल बावलेली.'

जिवितांत बरे तशे वायट खीण येतात :

' ताळयेचेर पानां मदीं
हांसता फूल तकली काडून
असोच एक खीण येता
देंठासेत पट्टा गळून.'

अशें हें कवीत बायलांचो घरसंवसार उजळायता, तांचें भावजिवीत चितारता.

गोठल्यांक वास नासता पुण तांच्या देठांत म्होंवाचो थेंबो उरताच उरता.

O

**अशोकांकी**

अशोक कामत

कामत प्रकाशन, कुडचडे

1973

## पयलीं उतरां

‘ Le Seui Vral Theater Est Ce Miroir De La Vie Ou Chaque Homme Vient Se Contempler, Contempler Son Epoque, Et Se Forme Dans Le Meme Temps Une Image Universelle De Lespece.’

FRANCIS AMBRIERE

अशोक कामत ह्या तरण्या नाटककाराच्या पांच नाटकुल्यांचो हो दुसरो झेलो. पयलो झेलो ‘ म्हजी भूंय म्हजो मोग ’ ह्या नांवान भायर सरिल्लो. त्याच नांवाच्या नाटकुल्याक १९७३–७४ वर्साची कला अकादमीची दुसरी तस्त्रीप फाव जाल्ली.

ह्या झेल्यांतल्या नाटकांकूय लोकांची मान्यताय मेळ्ळ्या ‘ उमाळो ’ ह्या नाटकुल्याक १९७१–७२ वर्सा कला अकादमीची दुसरी तस्त्रीप मेळिल्ली; आनी कला अकादमीन ‘ मायेची भूक ’ ह्या नाटकुल्याक, ७२–७३ वर्सा दुसरी तस्त्रीप दिली.

नाटकांचो जल्म जाता गरजेतल्यांन. अशोक कामतीच्या नाटकुल्यांचो जल्म असोच गरजेंतल्यान जालो. अशोकान साइत्याच्या मळार पावल दवल्लें कथा-काणयो बरोवन. पूण सर्वोदय हायस्कुलांत शिकयताना स्कुलाच्या गॅदरिंगाक नाटकांची गरज जाली. आनी अशे तरेन अशोकाच्या हातसून नाटकां घडत गेलीं.

हीं सगलीं नाटकुलीं माचयेर आयल्यां, आनी ती लोकांक मानल्या खंय. नाटकांच्या यशाविशीं आनी किदे सांगतलों ? The success of play depends on its success. ( नाटकाचें यश हेंच ताजे यश. )

हीं नाटकुलीं हांवे फक्कत बाचल्यां. तीं माचयेर पळोवंक नात. नाटकाची खरी रूच घेतली जाल्यार नाटक पळोवंक जाय. नाटक ही करून पळोवपाची वस्त. छापिल्या उतरांपरस बरयल्या उतरां फाटल्यान जिवीत उरता तेंच नाटकाचें खरें जिवीत. कागदार बरयल्लीं उतरां म्हळ्यार नाटकाचो एक वांटो. देखुनूच नाटक हें शुद्ध साहित्य न्हंय अशें काय जाणकार म्हणटात. नाटक माचयेर उबें करतलो जाल्यार हेर कलांचो आदार जाय. नाटककार नाटक बरयता तें वल्तेरार बसून वाचप्या खातीर न्हय तर नाटक घराच्या सालांत बसून पळोवपी लोकाखातीर. नाटक बरयताना वा वाचताना माचय दोळ्यामुखार हाडून ताजेर मनश्यांक चलोवचीं, उलोवंक लावचीं पडटा. नाटक म्हळ्यार 'Literature that walks and talks' ( चलपी उलवपी साहित्य ) अशें म्हळां तें लटीक न्हय.

नाटयकला म्हळ्यार अभिनय हें विसरूंक फावना. नाटक कितलेंय बरें आसून अभिनय वायट जाल्यार नाटक पडल्याबगर रावचें ना. कारण नट हो बरोवपी आनी प्रेक्षक हांकां जोडपी. बरोवप्याच्या उतरांक तो आवाज दिता, रूप दिता. चाल दिता बरोवप्याच्या कल्पनेंतलें विश्व तो प्रेक्षकांच्या दोळ्यामुखार खेळयता, मनांत उतरायता.

वाचपाक रुचीक लागिल्लीं नाटकां माचयेर उठत म्हणून सांगूं नज आनी माचयेर जैत जोडिल्लीं नाटकां वाचप्यांक रुचत अशेंय म्हणूं नज. भास सदर आसली म्हणून बरें अशें जायना. नाटकाचो मांगाडो घट जाय आनी तें माचयेर जितें जिवें दिसूंक जाय.

पुण आतां ही उतरां बरयतां तीं नाटकां फक्त वाचूनूच. वाचिल्लीं नाटकां केन्नातरी चलिल्लीं दिसताली अशी आस्त धरतां.

कादंबरी बरोवप सगल्यांत सोपें तर नाटक बरोवप सगल्यांत कठीण म्हणटात. नाटक बरयताना जायतीं घटां सांबाळचीं पडटात. वेळाचें बंधन, थळाचें बंधन, भाशेचें बंधन अशीं बंधनां पाळचीं पडटात.

अशोक कामतीन ह्या बंधनाचो आनी नेमांचो थोडो भोव अभ्यास केल्लो दिसता. एकांकीक नाटकाचीं सगलीं बंधनां थोडीभोव मानचीं पडलीं तरी तीन आंकी नाटकापरस एकांकीची प्रकृती मात्शी वेगळी. कादंबरीक जशी लघुकथा तशीच तीन आंकी नाटकांक एकांकी. लघुकथेभाशेनूच वाचप्याच्या मनार एकूच एक परिणाम घडोवन हाडचो पडटा. आयचें नाटक ग्रीक नाटयशास्त्रान सांगिल्ले तीन नेम (एकूच दीस, एकूच थळ, एकूच घडणूक) चडशे पाळीना. पुण ती त्रिसूत्री एकांकींत दोळ्यांत तेल घालून पाळची पडटा. सगलें दाखोवपापरस खूबशें सुचोवचें पडटा. अदेवराच्या अशीर वेळांत जिविताची एकूच एक

शीर दाखोंव येना. चिंतनाचो घुस्पागोंदळ सोडोवन दाखोवपाक हांगा सुवात ना. मनश्याच्या सभावाचे तरेकतरा नमूने दाखोवपाक हांगा वेळ ना. सभावाचो विकास करुं येना. भावनांचो फाव तो परिपोष हांगा जायना. हांगा कांय खिणूच दाखोवं येतात. वसींची वर्सां दाखोवंक येनात. देखाव परतू-परतून बदलूंक येनात. एकूच सुवात दाखोंव येता. ही सगलीं घटां जो पाळूंक नकळ ताज्यान बरी एकांकी बरोवंक जावंची ना. एकांकी बरयताना हांथरूण पळोवन पांय पातळूंक जाय. आनी एकांकीचें हांथरूण खुबूच मोटवें.

अशोकाचीं नाटकुलीं वाचतांना केन्ना केन्ना दिसता एकांकीचेर तो घुबेज बेज घालना. ( ' Literature that walks must not carry heavy loads as well ' BOULTON )

सांगूंक जाय ताजेपरस चड सांगूक सोदता. धरूंक जाता ताजेपरस चड वेंगायता. जसो अणभव चडटलो आनी शाणेपण वाडटलें तशी ताज्या नाटकुल्यांक धार येतली हातूंत दुबाव ना.

अशोकान चिनारलेले वायट मनीस नाटक सोंपचे पयलींच बरे जातात. हो बदल वाचप्याक मात्सो अडेचो दिसल्याबगर रावना. ह्या नाटकातली मनशां मात्शी चडूच उलयनात. आनी ती उलयनात ती उतरां आनी तीं चिंतनां तांची निजाचीं न्हय तर नाटककाराचीं असो भास जाता. केन्ना केन्ना बरोवप्याच्या ह्यानांतलीं ती खामसूत्री बावलीचशीं दिसतात. एक दोन आडबाद सोडल्यार तीं आपल्या खाशेल्या जिविनात जियेतात अशें दिसना.

जांव तंत्र जांव सभावचित्रण पळेल्यार ' गुन्यांव कोणाचो ' हें सगल्यांत ल्हान नाटकुलेंच सगल्यांत बरेंशें दिसता.

अर्दवराचें गंभीर नाटकुलेंच बरवप ही दिसता तितली सोपी गजाल न्हय. फाव त्या सेटिंगान आनी फाव ते भाशेन पळोवप्याचें मन रोखडेंच ओडून घेवचें पडटा. ताका गंभीर भावनणात बुडोवचो पडटा. मदीं अभिनय मात्सो चुकल्यार, मदीं संवाद मात्सो अडेचो दिसल्यार रसभंग जावपाक वेळ लागना. देखून गंभीर नाटकुली बरोवपाक खूब जाणांक धीर जायना. कोंकणीन तर तत्वगिन्यानान भरिल्ली गंभीर नाटकुली साप थोडीं प्रो. राणू नायक, रघुवीर नेंवरेकार, किसन कामत हांणी बरयल्ली चडशीं नाटकूला हासोवणींच.

अशोक कामतीची ही नाटकुलीं मात्शी वेगळीं ताका कितेंतरी सांगचें आसा. मनश्याक भेशटावपी, त्रासपी प्रस्न तो साचयेर उबे करता. ताजी लिखणी ध्येयाची सोगी. नीतीमान मनीस निजो आदर्श, संवसारी दुखांतल्यान रूपाक आइल्लें आतिमक सुख हें तिजें सपन. ताज्या नाटकुल्यांत लांब नाटकांत आसता, तसले जूंज आसता द्वेस आनी मोग, भोग आनी त्याग, हांजे मदलें.

लोकांच्या मनाचें तात्पुरतें मनोरंजन हो अशोक कामतीचो उद्देश न्हय.

तर कांय मुळावे प्रस्न तांचे मुखार सदांच उरचे आनी त्या प्रस्नांचेर विचार करून तांच्या मनाक खोलाय येंवची होच ताजो हेत दिसता. ताजें नाटक हें पलायनवादी न्हंय. तर लोकांक जिवितांत अदीक रस घेवक लावपी. J. L STYNA हो म्हण्टा :– 'Going to the play is not to be thought of as an escape, certainly not a matter of living life at secoud hand. Happily, We have a consuming curiosity about man, about his life, his problems, his loves and sorrows and aspirations, the whole range and sweep of the human spirit in its relationships and conflicts. We go to the theatre as one of the means by which we come to terms with life. It is exciting first hand work, and an urgent part of living.'

'मायेची भूक' ह्या नाटकुल्यात मोग नामून जिवीत कशें सूकून वेता, मन कशें करपता आनी मोगचो शिंवर पडटकच तें कशें परतून फुलून लसलसता हें दाखयता. '**उमाळो**' ह्या नाटकुल्यांत बरोवप्याचो खर आशावाद दिसता. हांतून निबर काळजाच्या मनशाकय दुसऱ्याचें दूख पळोवन कळवळो येता आनी तो बदलता. '**सत्यम् शिवम्, सुन्दरम्**' हे नाटफुलें सरळ, निर्मळ मनाचे घिटायेक ओंपला. भुरग्यांच्या मोगाक लागून तवनाम स्वर्चीक बापूय कसो बदलता तें '**परीक्ष**' ह्या नाटकुल्यात पळोवचें. '**गुन्याव कोणाचो**' ह्या नाटकुल्यात एक चली लग्न जावपा खातीर फटींगपणा करता आनी मागीर पोलिसाच्या हातात सांपडटा; तरी तिजो घोव तिका सोडीना.

एका अर्थान ह्या पांचूय नाटकुल्याचो विषय एकूच म्हळ्यार जाना वायटाचेर बऱ्याचें, असत्याचेर सताचें, काळखाचेर उजवाशाचें जैत. ताची शिकवण नीतीची. फ्रांसेज नाटककार रोमा रोलां म्हण्टा ;

'नीती म्हळ्यार मनाची आनी काळजाची भलायकी. आरोग्य आनी आनंद हांणी भरून आत्ता अशें नाटक म्हाका जाय.'

( La morale n'est qu'une hygie'ne de l'espirt et du cocur. Faites nous un theatre qui de'borde de sante et de joie. )

नाटककारान आपल्या नाटकुल्यांक '**अशोकांकों**' हें नाव दिला हें नाव तांका जिस्त फाव जाता. ह्या नाटकांत शोक आसा आनी शोकाचें निवळावण आसा, दुखाच्या काळ्या कुपांक रुपेरी झगझगीत देग आसा. निराशेच्या संवसारात आशेचो संदेश आसा.

खरें नाटक हें जिविताचो हारसो. ह्या हारश्यांत मनीस आपलें रूप पळेता.

अशोक कामतीच्या ह्या नाटकुल्यांत मनीस सभावाची बरीवायट तरेकवारी रुपां दिश्टीक पडटात आनी जिविताच्या एका कोनश्यार उजवाड पडिल्लयावरी दिसता.

O

**मोगाची दौलत**
**ब्राझीन्यु सुआरिश**
**एफ. एक्स. दीयश, सांताक्रुज**
**1974**

## दोन उतरां

ब्राझीन्यु सुआरिश कालापुरकाराची 'मोगाची दौलत' वाचली आनी खोस जाली. कोंकणी साहित्याच्या मळार नवे-नवे तरणाटे येवन कवितेचीं नवीं चंवरां फुलयतात. बाब ब्राझीन्यु हो एक तरणाटो कवी, उमेदीन भरिल्लो, कवितेच्या मोगान भारावल्लो.

ब्राझीन्यु सुआरिश हाणें आतांच्या भांडवलशायेची अनीत पळेल्या आनी सोंसल्या जे लोकांक सदांच चेपून, पिड्डून तांकां पिळटात, खातात तांका हो कवी अशेतरेन पाचारता :

> ' गरिबांच्या पोटार दवरून पांय,
> सांग, कितें बरें तुवें केलांय ?'

समाजांत जशी न्याय-नीत तशीच मनशाच्या काळजांत नितळकाय आसूंक फाव. कवी चुकिल्ले वो चुकपाचे वाटेंत आसलेले भयणीक उपदेस करता :

> ' गळयांत पडत लजेची कोयणी
> कविता लागत खार अयणी
> पयस कर आयल्यार ताळणी
> गोंयकार म्हजे आंकवार भयणी '

ब्राझीन्यांचे कवितेंतलो उपदेस खऱ्यानीच मोलादीक :

> ' आयल्यार तुजेर लाचारकाय,
> मनाक घे तूं थंडाय,
> चड तूं भियेनाकाय,

काळजाक आसूंदी घटाय,
तीच तुजी गिरेस्तकाय.'

० ० ०

' जशीं रोंपी तशें झाड
पयलो कवातो मागीर माड.'

० ० ०

' पळोवन आपली जोड,
फाव तशी करची मोड.'

० ० ०

चेडवाचे पळोवन गूण
घराक हाडची सून.'

० ० ०

' सोन्याची इश्टागत आसल्यार सोड,
फुडलें जिवीत तुजें अवगोड
हांसतलो तुका सगलो वाडो
तूं म्हणोन नश्टो बेवदो

ब्राझीन्यान आपले भोंवतणचो संवसार बारकायेन पळेला. गांवच्या म्हार-ग्याचे वर्णना तो अशी करता.

उदकार मारून आमी ओले
समदीराच्या पोटार चल्ले.'
' न्हेसोन, भेंडार रुप्या– मूज आनी काश्टी,
मासळी मारपांत आमी बरे कश्टी.

हें चित्र शेतकामत्याचें :

' उठां हांव कोंब्या सादार,
कांबळ– नांगर म्हज्या खांदार,
सांगाती म्हजे दोन, जोतांचे पाडे,
कोंचता जमनीचे दिकोव तशे आडे.'

एक ह्रिमटो मनीस ताका असो दिसता. :

' एक खारो बांगडो हाडटालो,
आठ दीस लावन जेवतालो,
फकत दुडूच पुंजायतालो,
आनी दर दिसा मेजतालो.'

संवसाराची उणीं कवीक दिसतात तेच परी ताका ताची सोबाय लेगीत दिसता. ‘ रोफीन ’ हे कवितेंत तो आंकवार चलयेचें अशें सोबीत रुप चित्रायता :

‘ वाटकुळेंच तिचें कपल
पोले गुलाबी, ते दोन आपोल
दोळे तिचे मानरा पोरीं आझूल
एकेच तिचे नदरेन जाता गुल.’

कवीक मोग समजता आनी मोगाची दुखीय :

‘ फुलतें फूल तोडलें,
अद्रुश्टी दुखान भरलें,
जिवीत विखान उरलें,
आतां कितें करचेलें ?’

तरेकतरा रुपाची अशी ही ‘ मोगाची दौलत ’ ब्राझीन्यु मुआरिश हाणें कोंकणीक ओंपल्या. कवीची कवितांची दौलत अशीच वाडत वचची हो म्हजो आंवडो.

()

## गुलाब

आग्नेलराव ब्रागांझ

1976

## गुलाब : परमळ आनी कांटे

नाटक आनी कविता ह्यो दोन गजाली गोंयकारांचे आवडीच्यो. नाटक-नियात्रांतल्यान तो भौशिक जिवीत चितारता, हांसयता, रडयता, तर कवितेंतल्यान तो काळजाचे उमाळे, मनाचीं चिंतनां उक्तीं करता. कवीत ही खऱ्यानीच एक गुपीत गजाल जी एकसुरो कवी एकसुऱ्या वाचप्याच्या कानांत फुसफुसता.

आग्नेलराव ब्रागांझ असलोच एक कवी. तो आयज वाचप्यांक 'गुलाब' भेटयता : उतरांच्या परमळान काळजाचें गुपीत सांगता. आग्नेलराव चड 'उलोवपी' न्हय पूण खूब 'बरोवपी.' तो एक तरणाटो, तरण्या हावेसांचो, नव्या चिंतनांचो मागी. ताचे कवितेक आनिकूय आकार येवंक जाय, पूण ताचें पावल पडटा तें बरें वाटता. जें हेरांक दिसना तें कवीक दिसता, जें हेरांक कळना तें कवीक कळटा, जें हेरांक सांगूंक येना तें कवी सांगता. आग्नेलराव भोंवतणचो संवसार पारखिता आनी तो चोवन ताच्या मनाक दूख भोगता. मनश्याचो पिशेपणां, कुड्डेपणां, कुस्केपणां ताका दिसतात आनी तांणी घाल्लें बरेपणाचें रूपडें तो पिंजून उडयता :

'भावपणाचें रूपणें घालून,
क्रिस्ताचें धोरण घेवन,
देव- मंदिरांत भितर सरून,
मनशा, तूं खंय वेताय ?'
'तूं देव-मंदिरांत वचपी,
सदांच ताका प्रार्थन करपी,
पूण ताच्यो करण्यो मात
पांयां-तळा मस्तून...
हाका ताका नागोवपी
तेन्ना तूं कोण ?

देव मोगी वो धोंगी ?
‘ जेन्ना हांत पिजक्या कपड्यांनी
बाजारांत भोंवतालो
कट्टी घेवन भिक मागतालों
तेन्ना तुका हांसो आयलो ?’
‘ वचत थंय कुस्केपणां
कुत्र्यांक मोटरां, मेजार जेवणां.’

आग्नेलराव दिसपट्ट्या जिवितांचीं चित्रां साद्या-सोंप्या उतरांच्या रिस्कांनी रेखता :

‘ जून म्हयन्यांत शाळा सुरू,
नवीं पुस्तकां, नवे गुरू,
जाकी, आंतोन आनी गाब्रू
आठ वाजतां शाळा सुरू ’

हें हुंदीर मामाचें मन-भुलोवणें चित्र :

‘ दोळ्यांचो उजवाड तुजो,
काळोखांत चकचकता,
त्या उजवाडांत मिश्यो तुज्यो
सुंदरायेन बिकबिकता ’

आनी हो रेंदेर मामा :

‘ आमचो रेंदेर मामा
कसली चाकरी करता,
रेंदेर मामा सूर काडटा,
सदांच माडार चडटा.’

सेतेंब्र म्हयन्यांत चवथीच्या वेळार :

‘ समेस्तांचीं खोशीं मनां,
नेवऱ्यांच्या धमधमान,
गोड जावन तोंडां,
खोशे नादार मारतात उडणां.’

भुरगेपणाचें हें चित्र :

‘ बश्ये कुडके करून पैशे,
पसऱ्यार गिरायक करतलों
चिकलांत उदकांत नाचतलों ’

हो गोंयचो शेतकामती :

' हातांत पांटो, खांदार फोरें
वोताचो भार म्हणून घालून चेपें '

ह्या ' गुलाबा'क परमळ आसा, रंग आसा आनी निबर हाताक तोंपपी कांटेय आसात.'

()

**कवासो**

**जयमाला दणायत**

**पुष्पा वि. नावेलकार, मडगांव**

1978

## दोन पाकळचो

आयच्या कोंकणी कथा–साहित्याचे निर्मितींत दादल्यांइतलोच बायलांचो वांटो आसा. दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, सुरेश काकोडकार हांचे वांगडाच शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार आनी जयमाला दणायत हांची नांवा घेवचीं पडटली. ‘ ओली मांज, ’ ‘ दोंगर चवल्ला, ’ हांचे उप्रांत हो ‘ कवासो.’

जयमालाक बरोवपाची आवड भुरगेपणापसूनची–कोंकणींत आनी मराठींत, कथांच्या सर्तींत तिणें जायतीं इनामां मेळयल्यां. कथाकाराक जाय ते सगलें साहित्य निजेलागीं आसा. भायलो संवसार पळोवपाची नदर, भितल्लो संवसार पारखुपाचें मन, आनी विचार उक्तें करपाक फाव तें उतर. शीलाबायच्या कथांत उमाळो फुलता, मीनाबायच्या कथांत भास चंवरता तर जयमालाच्या कथांत बुद्द लिकलिकता. ह्या चडश्या कथांनी ती एक प्रॉब्लेम मांडटा. ‘ प्रॉब्लेम ’ हें तर तिजे एके कथेचें नांव. हातूंत नोकरी करपी चलयांचो एक खरो प्रॉब्लेम चितारला. निराक नोकरी करून घर सांबाळचें पडटा, भुरग्याक पळोवचें पडटा, केन्ना केन्ना ऑफिस चुकोवचें पडटा, बॉसाकडल्यान उलोवणीं खावचीं पडटात. नोकरी सोडूंक मन जायना. हून दुदाचो घोंट तो. निराचो घोव नोकरी करता पुण एकटयाच्या पगारांत संवसार कसो चलत? निरा घरांत एक चेडूं दवरता पुण तें भुरग्याक मारता, ताका गाळी सवूंक शिकयता. भुरगो घरांत एकटो रावंकूय कसाच तयार जायना. ‘ जल्मगांठी ’ हे पत्र–रुपी कथेंत हुंडयाचो ‘ प्रॉब्लेम ’ मांडला. निमाचो साकरपुडो जाता पुण ऐन वेळार न्हवरो पन्नास हजार रुपया हुंडो मागता. निमाचो बापूय इतलो दुडू खंयचो हाडटलो? लग्न मोडटा. आवय–बापूय चिंतेत पडटात, निमा अस्वस्थ जाता. ‘ नाती–भेद ’ हे कथेंतून आंतर–

जातीय लग्नापसून उप्रामलेले प्रस्न दाखयल्यात. आपली भयण जातीभायर लग्न जाल्या म्हणून मदानंद तिजेकडलो संबंद साप तोडून उडयता. संबंद तोडले तरी मनां एकामेकालागी ओडल्याबगर राबनात. जयमाला हे प्रस्न मांडूनूच वोगी रावना. ती ते प्रस्न कशे सोडोवचे तेंय सांगता. 'प्रोब्लेम' कथेंतलो प्रस्न ती अशेतरेन सोडयता. निरा आपल्या मांव–मांयक घरा हाडून दवरता. 'जल्म–गांठी'ली निमा हुंडो न घेवपी नरेशाकडेन लग्न जाता आनी सुखी जाता. 'जाती–भेदा'तलो मदानंद भाचयेच्या लग्नाक वेता आनी अशेतरेन भाव–भैणीचो एकचार जाता. 'आंकवार–मोरी' हे कथेंत एक जीवघेणो प्रस्न मांडला. सुमित्राक लग्ना आदींच चलो जाता आनी लग्न जावंचे आदींच तिजो मोगी मरता. जायते कश्ट काडून, त्राम सोसून ती चल्याक सांबाळटा, ल्हान व्हड करता, ताजें लग्न करता. एका गिरेस्ताचे चल्येक सून म्हणून घरा हाडटा. आतां तिजो खरो प्रस्न सुरू जाता. आपलो घोव आपल्या भावयच्या सांगण्या–प्रमाण चलता, तीजीच तुस्त गायता हें पळोवन सुनेच्या मनांत मत्सर रिगता, आपले मांयचें फाटलें जिवीत तिका कळटा. ती तिका 'आंकवार मोरी' म्हणून हिणसायता. आपली उरिल्ली जीण चलो–सुनेपसून पयस रावन सारप हाजेबगर आतां तिका गत्यंतर ना.

कथाकार हो हेरांभशेनूच समाजाचो एक घटक. समाजापसून पयस वचून नां समाजाचेर नदर घाल्ना तरी समाजाक जें भोगता तें ताकाय लागता. समाजाचे प्रस्न जाणून घेवन ते मुखार मांडप ही कथाकाराची एक लागणूक–सनीम म्हणून, आनी बरोवपी म्हणून. पुण, अशें करनाना ताणें वाचप्याच्या बुद्दीकूच हालोवन जायना, काळजाकूय हात घाल्ूंक जाय जयमाला कांय प्रस्न बरे तरेन मांडटा पुण ते चड नाकतिकेन सोडयता. वाचप्याचे बुद्दीक हे प्रस्न कळटात पुण ताजें काळीज कळवळना.

'प्रॉब्लेम' 'जल्म–गांठी', 'जाती–भेद' ह्या कथांत मात्सो प्रचारकी सूर आयकूंक येता आनी त्या सूराक लागूनूच जयमालाच्यो ह्यो कथा थोडे–भोव वेसूर लागतात. ज्या कथांत प्रचार ना त्यो चड खऱ्यो दिसतात. कथा ह्यो खऱ्यो आसून जायनात, त्यो खऱ्यो भासूंक जाय.

तसल्योय कांय कथा ह्या झेल्यांत आसात : सनीम सभावाचेर उजवाड घालपी आनी मनशाच्या मनांतले वेपार उक्ते करून दाखोवपी ; असल्यो कथा वाचप्याच्या काळजाक चिमटो काडल्याबगर रावनात.

'नागवणो' हे कथेंत एका चामट नागवण्या मनशाचो आत्मो आपल्ले उप्रांत आपल्ले चल्ले कशे झगडटात आनी आपल्याकूच गाळी घाल्तात हें पळोवन पश्चातापांत हूलपता.. ह्या दोनूच पानाच्या कथेंतल्यान नागवण्याचें पुराय चित्र

रुपाक येता. कथा चल्यांच्या झगड्यान सुरवात जाता आनी नागवण्याच्या दुकांनी सोंपता. नागवण्याचें चित्र काडटानां जयमालेन फाव ते रंग वापरल्यात. 'बाप्पान इतले लोकांक नागोवन आनी तोपयो घालून एकठांय केल्ल्या पैशांचो जल्मांत लाव घेतलो ना. पोरणी ज्युदी, कुसकें खोमीस, जल्मांत शाबू लाय-नाशिल्ले म्हेळें पुडवें, पिंजकेंर जोतें आनी रंग गेल्ली लग्नाकडली तोपी हो बाप्पाचो भेस !'

बाप्पाचो हो भेस वाचप्याच्या मनांत मदांच उरतलो.

'नोट चलयली' हे कथेंतूय मनशाच्या दुश्टपणाचें चित्र बरे तरेन काडलां. एक ल्हानूच प्रसंग. पुण भितर तीन तरेचीं तीन मनशां ; विनू शिरूकडेन पैंज मारता आपुण खोटी नोट चलयनां म्हणून. ती नोट तो बाबड्या अनाडी सुंद्र्याक लाटता आनी तिजेकडल्यान मुळे घेता. सुंद्रें ती नोट घेवन दोतोराकडेन वेता. आपल्या वायटकार चेड्याक पळोवंक यो म्हुण आपयता. पैशे आदीं दिल्याबगर दोतोर येवंक तयार ना. सुंद्रें ताजेकडेन ती नोट दिता. ती खोटी नोट पळोवन दोतोर तापता आनी सुंद्र्याक धांवडायता. दोतोर वेळार न पाविल्ल्यान तिजो चेडो मरता. त्याच वेळार खोटी नोट चलोवन पैंज जिखिल्लो विनू आपल्या आमिगांवांगडी सिनेमा पळेता. वॉर्ड नं. १६ ही आनी एक कथा : ओस्पितालांतलें भोंवतण. निर्मला ही एक चली वायटकार म्हणून येता आनी आपल्या हांसोवपान आनी उलोवपान 'वॉर्ड नं. १६' च्या सगल्या वायटकारांचें मन फुलयता. एक दीस तें मरता. पुण ताजेपासत कोण रडना. 'सदांचो कुलकुलाट सुरू जाल्लो. आयाच्यो गाळी-फेरी झडटाल्यो. खिणाभितर सगलें विसरून जण एकलो पोटपुजा बादूंक लागलो.'

मनशाचें निबरपण तशेंच मनशाचें दुबळेपणूय ती दाखयता : 'मामाली चली' हे कथेंत निमा मावळणील्या चल्याचो मोग करता, भुरगेपणापसून ताका उमेशाची बायल म्हणून चाळयनाली. भायर दोतोरकी शिकूंक गेल्ल्या उमेशाची तें वाट पळेता. एक चीट येता. उमेश खंय निमाकडेन लग्न जावंक तयार ना. ही खबर आयकून निमाची तकली आल्तेरार जाता. ताका पिशें लागता. ही कथा जयमालेन अशे तरेन सोंपयल्या ; 'मदींच ताका खुब हांसन दिसतालें. मदींच तें व्हडान रडटालें. गोंदळून गेल्ल्या बापायच्या हाताक हिसडो मारून तें उबें रावलें आनीं धालो म्हणत नाचूंक लागलें—

'...सोंश्यालें मास काड्न मामा दितेलीं आनी मामाली चली हाडून सून करतली.'

'सूड' हे कथेंतल्या बाबलीकूय अशेंच पिशें लागता. तो येत्यावेत्याच्या आंगार वेता आनी तांकां लडे घालूंक सोदता. बाबली एक बरो मनीस, ताका बायलूय बरी मेळिल्ली. तो एका मास्तराक आपल्या घरांत दवरता. मास्तर ताजे

बायलेक फुसलायता आनी तिका पळोवन व्हरता. ह्या प्रसंगाक लागून बाबलीक पिशें लागता आनी कोणूय दिसल्यार तो मास्तरूच म्हणून समजून ' सूड' घेवपाक तो ताजेफाटीं लागता.

' कवासो ' ही कथा आपल्या दुखेस्त पमॅळान मनांक ओड लायता. निक्तेंच लग्न जाल्ली रंजना देवळांत वेता, भट तिका प्रसाद म्हणून हात्याची एक पाकळी दिता. ती पाकळी ती माळीना. ती पाकळी पळोवन तिजें मन फाटी वेता तिका तो खूब आवडटालो. तिका हातो हाडून दिवपाखातीर एकदां तिजो एक बालमित्र रानांत गेल्लो आनी सोरोप चाबून मेल्लो. ह्या उगडासान रंजना अस्वस्थ जाता. इतल्यांत तिजो घोव येता आनी ताज्या माथ्यांत तो कवासो खोयता. रंजना आपल्याच मनाक खडसायता. ' हांव आतां नीता, रंजना न्हय. कवासो केन्ना सोपलों. उल्ला तो हो हातो.'

मनशांच्याच मनांत रिगून जयमालाक धादोस जायना; मोन जातीच्या मनाचोय सांद घेवपाक तो सोदता. ' अशी गांवरे येतो ' हे मराठी कथेंत तिणें चिमण्यांच्या माणकुल्या संवसाराचें अपूप अशें चित्र चितारिल्लें. हांगा ' पाल ' हे कथेंत पालीची ' चुकचुकी ' भास शिकून ती ताच्या जिवीतांत शिरता. 'कावळो–कावळी ' हे कथेंत कावळयांच्या संवसाराक ती उडटी नदर मारता.

ह्या कथांतलीं कांय शब्द–चित्रां मनात भुलयतात. ' लजेव्हकलेच्या झाडाक चुकून लेगीत कोणाचो हात लागल्यार पुरो, तिजी पानां रोखडीं धांपतात, तशें कोणें हटकिल्यार लेगीत ताजी मान उमथी जाताली.' ' बायलांचीं तोंडां म्हळयार कोदं सुटिल्लयो घडयाळी '; ' ताजें दिसा–सपन फिल्म तुटिल्लेवरी मदींच तुट्टा.'

जयमालाची भासूय घरगुती, ' मन उखलता ', ' ताका माल्ली भिरभिरी ' ' करतां खुर्दो ', ' तोंडाक उदक सुटचें ', ' पापा काडिल्लीं ', ' ह्याका, ताका तोपयो घालून ', ' बोडावेल्यान हात भोंवडावपी ', ' काव, काव करून घेतिल्लीं आशिल्लीं सगलें झाड माथ्यार ', ' कानामनार घेना ', ' कितें म्हणून चावयेंन दवरनलें ? ', ' गोमटेक धांस मारपाक तयार जातले ', ' दुसऱ्या खुस्नार भुमकं मारप ', ' बरेंच काळींग केलें ', वल्तेरांत लोडेता '.

तेरा पाकळयांचो हो कवासो, भांगरा रंगाचो, मंद परमळाचो. तो घरा-घरांत पावचो हीच इत्सा.

O

## आन्या आकय् आनी इतर कवनां

जे. स. स्वामी सुप्रिय

1980

## प्रस्तावना

' The poet is a teacher. I wish to be considered as a teacher or as nothing.'

— William Wordsworth

स्वामी सुप्रियाच्या जिवितांक जायतीं तासां आसात. ताका जांणी पळेला आनी आयकला ते ताच्या समर्थ व्यक्तीपणान भारावन गेल्या. शास्त्र आनी साहित्य, अध्यात्म आनी कला, हांचो अप्रूप मेळ ताच्या जिवितांत दिसून येता. बहुभाषी, बहुश्रुत, बहुरंगी असो हो मनीस– देवाचो भक्त, मनश्यांचो इष्ट, सत्याचो, सुंदरायेचो भोगी.

कोंकणी, कन्नड, इंग्लेज, ह्या भासांनी ताणें जायतें बरयलां, उजवाडाक हाडलां, आज तो आमचे मुखार येता. कोंकणी कवी म्हणून– कवी लुईस माश्कारेनास सारकिल्या कवीचें दायज मुखार व्हरून पोरूंच ताणें भुरग्यांक रुचीक काणयां घोस बरोवन तांकां नीत शिकयल्ली, गिन्यान दिल्लें, आनी तांचें मनोरंजन केल्लें. ताच्या कवितांत लेगीत हे तिनूय हेत फळाक आयल्यात.

ह्या गीतां झेल्याची सुरवात जाता एका परमळीत उगडासान ; पयली कविता ' आन्या आकय ' ताणें आपल्या बापायचे मानिल्ले भयणीक ओंपल्या. मंगळूरच्या पूज्य बिस्प सायबाची आजी ती. यादीन रंगयिल्लीं आनी उमाळ्यान थपथपिल्लीं हीं उतरां आन्या आकयचें जितें जिवें चित्र चितारतात :

' आस्तोरांत्लि पाटि पडोन  
सुने संगि व्हॉजि व्हाबन्न  
गजाल्यांचि ल्हारां व्हाळन्न  
सुड्सुडायेन मुखार चल्लि  
आकय आम्चि आन्या आकय.'

हे कवितेचे चालींत आन्या आकयची चाल आसा. तिचो उगडास कवीक आकुळ–विकुळ करून सोडटा.

' आकय सरोन वरसां जाल्लि
कोणे जर ति खबार दिल्लि
रड्टो ना हांव बायलां पर्रि.'

हो कवी, मनशांचो मोगी तसोच सैमाचो इश्ट. ताचें उतर पिशोल जावन, निसर्गाचीं चित्रां चितारता– रंगांत संगीत भरशिना, संगीतांत रंग भरशिता.

' रात निताळ्ळि
उर्देत लज्लि
सुरयो उदेव्न तिळित
ताणा पाक्ळि
दोवांत न्हालि
फुलां संभ्रमल्लि.'

हो आशेच्या उजवाडाचो कवी :

' दार तूं उगड
जनेल उसय
निरास उब्लो वारयार.'

स्वामी सुप्रिय, प्रिय आनी केन्ना अप्रिय उलोवपी. असो स्वामी–गुरू. वर्डस्वर्थ हो इंग्लेज कवी म्हण्टालो : ' कवी, हो एक गुरु.' स्वामी सुप्रिय हो एक गुरू– उजवाड दाखोवपी, शाणी उतरां सांगपी, लोकांक शाणे करून सोडपी. सन्त रामदास म्हण्टालो : ' जें जें आपणासि ठावे, तें तें दुसऱ्यास शिकवावें, शहाणें करून सोडावें सकळ जनासी '

स्वत: भाजून, हुलपून लोकांक शिकोवप ही कवीची खरी लागणूक.

स्वामी सुप्रिय म्हण्टा :

' जळया कोंडांत भाजोन ल्हासोन
न्हाळच्या न्हाळांत बुडोवन उप्येन्न
देवाक मनश्याक आपुट ओळ् कोन
कवन तुजें उदेत जाल्यार

जिवनाचीं काय महान सतां स्वामी सुप्रिय कवनांत गुंथना :

' हजार खंति हजार दुकित
बेजार कंगाल पिसो

मेजिनास्तां सगळेंच सोस्चो
तो जयत जोड्चो शाणो.'
" गुणेस्त मानेस्त भेटलो जाल्यार
पाट्लाव ताचो कर्चो
अण्वो भेट्ल्यार चाळ्वानास्तां
आप्लोच विचार सोध्चो'
' लायता एक्लो खाता दुस्त्रो
अन्याय हांतुं कसलो ?
लेखुक तुं शिक लोकाक सर्वथ
तुजा दिरव्याक वारेस

देवाचो भक्त हो पयलीं मनश्यांची मोगी उरता. मनश्यांक त्रास दिवन देवाची कृपा केन्नाच मेळना.

' खंचा देवाक मोस्त्रा दुव्रान
धुंपन्न तूं भजतायि ?
मन्श्याक ठकव्न जिक्लोयि तरि
जिक्लोनांयि तूं देवाक !'

जिविताच्या दरयांत बुडी मारून कवी कांय रहस्यां आमचे मुखार दरवता आनी तांतूंत एक शाणेपण आमकां समजता. आयच्या दिसाचें मोल आनी आयच्या दिसाचें म्हत्व तो जाणा. देखून तो म्हण्टा,

' राकोन राकोन वेळ सार्तांना
सुकाळ आयचो परत येना
कर्चें आस्लें आतांच तें कर.'
' जिणि सुफळ ह्याच ते घडये
आमचें मुटिंत आस्चि घडि
देस्वाट्नास्तां आतांच धरयां '

जिविताच्या चिंतनांतल्यान, अनुभवांतल्यान स्वामी सुप्रियाक आदरी मनश्याचें दर्शन घडलां हो आदरी पुरूष :

' मोवाळ जिन्ताप मोवाळ उतार
विश्वास गुण्ड् गुण्ड् वोंपित
उदार अपार दानान सबार
मयपास मोगान पेटयत '

पुण देवाची कृपा आसल्याबगर मनश्याच्या वावराक फळ येना :

'कोस्लें आमि जाल्यार कितें ?
वोंपलें जाल्यार कितें ?
तान्त्लें एकच बि तरि
किरलंक्क आम्कां तांक्लें ?'

स्वामी सुप्रिय हो असो कवी आनी गुरु ताची हीं उतरां आमी मनांत घोळवंया, कृतींत उतरावंया :

'दिखें जोडुंक धांवशि जाल्यार
शान्ति होग्डाव्न पळ्शि
दिखें तुजें वांटुन दिल्यार
शांति वेंगुंक पावशि'

स्वामी सुप्रियान आमचे मुखार दवरलेले हें उतरांचें धन आमी वांटुन शांति वेंगाव्या.

O

सासाय

बाकीबाब बोरकार

कुळागर प्रकाशन, मडगांव

1980

# होरावणी

हांवें दोन उतरां बरोवचीं अशें बाकीबाबान सुचयलें. भारतभर कीर्त जोशिल्ल्या आनी गोंयकारांच्या वळखीच्या आनी मोगाच्या कवीचे कवितेक प्रस्तावनेची कसली गरज ? पुण कविता सदांच नवीं, नवीं रुपां धारण करता आनी तिजी वळखूय सदांच नव्यान जावंक जाय अशें म्हाका दिसता. देखून धीर करतां आनी ' गोंयचे मामाये ' क ही होरावणी घालतां.

१८ जून १९४६ वर्सा, मंगळारा दिसा पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्ले गोंयचे एक नेटाचें ल्हार उमळ्ळें. पयलेच फावट पेडणें ते पैंगीण मेरेनचे गोंयकार एकाच वेळार परकी सरकाराआड उबे रावले. शेंकड्यानी वर्साच्यो बेड्यो तोडपाक तांणीं पेंगट बांदलें.

त्या इतिहासीक तुफानी दिसाचो दिश्टावो कवीक आदीच जाल्लो. कवीक फुडल्या क्रांतीची सुलूस आदींच लागता ती अशी.

' वळी बरैल्यो ह्यो ज्यो तांची सुकचे पैलि शाय, दोळे भरून हांवें पळेली उमळ्ळेली ल्हाय.' ह्या वेळार गोंयच्या भौसाच्या काळजांतलो हुनहुनीत उमाळो कवीच्या ताळ्यांतसून धगधगीत उतरां जावन भायर सल्लो :

' पवित्र हो मंगळार! आयचो पवित्र हो मंगळार!

आज गाजतलो धेंक शिवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार! '

सालाझारान चळवळ चिड्डून उडोवपाखातीर स्वतंत्रताय झुजऱ्याक जाच करपाक, ध्वास्त दिवपाक सुरवात केली. जायते गोंयकार गोंयाभायरे जाले. ह्या काळांत गोंयच्या राजकी सुटकेचो वावर आनी कोंकणी भाशेची उदरगत हीं सांगातान चलतालीं. कोंकणीचो हो वावर चडसो गोंयाभायरूच चलतालो.

मुम्बय येवन बाकीबाबान ' प्रजेचो आवाज ' हें नेमाळें सुरू केलें. गोंयचे प्रजेचो हो आवाज, जंय जंय गोंयकार आसात थंय थंय गाजलो. ह्याच वगतार कोंकणी साइत्याक काव्याची नवीं, नवीं चंवरां फुट्टालीं.

' मीर्ग ,' ' साद, ' ' साळीक, ' ' प्रजेचो आवाज, ' ' गोमंत भारती ' ह्या नेमाळ्यांतल्यान ' अभिजित, ' दिनकर देसाय, शंकर भांडारी, मनोहर सरदेसाय, बाकी बोरकार हांच्यो कविता येवंक लागल्यो.

' अभिजिताच्यो कविता ' म्हळयार सोबीत कांतयल्ल्यो पाशाणाच्या म्हुर्तींच– अर्थान भरिल्ल्यो, प्रतिमांनी फुलिल्ल्यो. स्फूर्त आनी विचार हांच्या मेळांतल्यान उदेल्ल्यो. दिनकर देसाय हे कानडी साइत्यात नामना पाविल्ले कवी. तांणीं कांय नीतीपर गितां आनी फकाणेर कवनां दिलीं. मराठींत येस जोडिल्ल्या शंकर रामाणीनी मुर्तूम प्रेम–गीतां दिलीं. मंगळूरच्या चा. फ्रा. डिकोस्तान आपल्यो खाशेल्यो अपूर्प कविता रचल्यो. अर्थ संगीत आनी प्रतिमा हांचो मेळ तांतूंत मादला तितलो आनीक कोणाकूच चडसो सादूंक ना. मनाक तेंकपी आनी काळीज हालोवपी अशो त्यो कविता.

शंकर भांडारी हांणीं कांय रुचीक कवनां दिलीं, मनोहर सरदेसाय हांणीं फ्रांसांतल्यान गोंयच्या मोगान थपथपिल्ल्यो आनी उमळशिकेन थरथरलेल्यो अशो कविता दिल्यो आनी बाकी बोरकार हांणीं आपल्या ' प्रजेचो आवाज ' ह्या नेमाळ्यांतल्यान गोंयच्यामुखार येवपी स्वतंत्रतायेचो मेकळ्या गळ्यान जयघोष केलो.

ह्या वेळार एक व्हड मराठी कवी म्हणून तांची महाराष्ट्रभर नामना जाल्ली. भुरगेपणापसून ते मराठी वाचीत आइल्ले, बरयत आइल्ले. ' प्रतिमा, ' ' जीवन–संगीत, ' ' दूध–सागर, ' ' आनंद–भैरवी ' हे 'कविता–संग्रह,' ' मावळता चंद्र, ' ' अंधारांतील वाट ' आनी ' भावीण ' ह्यो कादंबऱ्यो, ' कागदी होड्या ' हो निबंदांचो झेलो इतलें मराठी साहित्य उजवाडाक आइल्लें. महाराष्ट्रांत इतली कीर्त जोडिल्लो आनी मराठी साहित्याच्या प्रभावांत वाडिल्लो हो बरोवपी कोंकणीकडेन कसो पावलो ? ती काणी बाकीबाबाकूच सांगूं दी :

' गर्भांत आसताना भुरगें जशें वारेच्या धाग्यान आवयच्या जिवार जियेता तसो म्हजो जीव स्वयच्या तरी अदृश्य रुणानुबंदान कोंकणी बाचे मायेर जियेतालो, पोसतालो आनी वाडटालो. पूर्व संचितान म्हाका भाशेचें मंजूळ संगीत दुदाच्या कासडा वांगडाच कळूंक लागिल्लें आनी बाचा फुटूंक लागली तसो कानार पडिल्ले जणेक सोबीत उतर हांव ओंवळ कशें वेचतालों, ताज्या परमळान भुल्लसतालों, अर्थीन तें गुंथतालों. एकादली कोंकणी उतरावळ वा ओपार, जानपद गीत वा काणी कानार पडूकच म्हजें मन फुला भोंवतणच्या पिसोळ्या

भाशेन ताज्या भोवतणी आंदाळचो–गुंदाळचो काट्टालें.'

आनी मागीर बाकीबाबांक पात्रीम रेंदेर मेळ्ळो: ' पात्रीस शेवाक वेतना सद्दां म्हाका एकाद्रें कोंकणी गीत म्हणून दाखयतालो आनी म्हजे कडल्यान म्हणून घेतालो. पुण तो खासा तीं घट्टा हें म्हज्या सपनांत लेगीत केन्ना आयलें ना... चडच आग्रो जालो तेन्ना पात्रिसान थोडो वेळ येवजिल्ल्यावरी केले आना समारंभाचेरूच थंयच्या थंय कटाव करून तो म्हणूंक लागलो :

' काल तिवळ केलें लग्न सरायक
येजमान्या बाबडया बेठे तरास
आगा येजमान्या म्हाका नाका जायणी
मिस्तुर केलां पचक–फेणी
कपाळाची जाता उसा–उसळणी.'

यमकार यमकां जोडीत आनी घडघडीत उलयल्लेवरी पात्रिम असो कटाव रचीत म्हणूंक लागिल्लो पळोवन म्हज्या अजापाक पारावार उल्लो ना. म्हाका तो दिगा पुरुस वाडवाडत गगनाक तेंकता काय दिसलो. कटाव सोंपलो तेन्ना जमिल्ल्या लोकान ताका सामको देव कसो माथ्यार घेतलो. किलें ? कवन मनीम घट्टा ? तर तो मागीर मनीस न्हय. मनशाचें रुप घेवन आयिल्लो तो देवच अशें म्हाका दिसलें आनी मनांत आयलें म्हाका अशें पात्रिमा भाशेन कशें जावंक येत ?'

मराठी काव्यांत बाकीबाबान तांब्यांची गायकी मुखार व्हेली तशेंच कोंकणींत तांणी पात्रिम रेंदेराचें कवित्व फुडें चलयलें. कोंकणीनलो तांचो पयलो गुरू एक रेंदेर हांतूंत अजाप ना. रेंदेर हो कांतराचे सूर आनी माडाची सूर एकाच वेळार काडपी. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणीं रेंदेराक अशीं उतराची अर्गी ओंपल्या : ' माडार चडटना ताजी कूड मुकण्यावरी ल्हव जाता जावंक जाय, तशेंच ताजें मनूय उडूंक लागता जावंक जाय... माडाच्या खांपार पांय दवरून तो जेन्ना शिळोणी घालीत, धोलत वयर चडटा तेन्ना ताका मोडन, मोडन वेता ती निळी न्हंय दिसता, तिज्या थंड उदकावेल्यान धांवनान ती वाऱ्यान भल्लेलीं धवो फुल्ल शिडां दिसतात... उमाशेचे रातीं गुपाट काळोख काळीज उक्तें करून ताका आपले गुपीत सांगता... नितळ मळबांतलीं नखेत्रां ताजे लागी फुत–फुततात. जेन्ना सर्गातलें विजूबाय वयर साकून उडकी मारून त्रैलोक्य उजवाडायत आनी कडकडायत पाताळांत गडप जाता, तेन्ना ताजे कुडीचें भान सुट्टा. सैमाचो हो खेळ पळोवन ताका आपले खोंपीतले कुचमणेची विसराय पडटा आनी त्या अन्नाडो मनशाचें भितल्लें मन उफेवन वयर येता आनी कांतारांनल्यान प्रगट जाता. तेन्ना तो सूर काडपी रेंदेर उरना. तो कवी जाता.'

ह्या कवी-गुरूक बाकीबाबान आपली ‘पांयजणां’ ओंपल्यां. ताणेंच बाकीबाबांक कोंकणीच्या ‘अपार काव्यशक्तीचो पयलो जीवंत साक्षात्कार’ घडयला.

बाकीबाबांचो दुसरो गुरू शणै गोंयबाब. हो गुरू तांकां खंय आनी कसो भेटलो ?

‘हांव मराठी बरप शिकूंक लागलों, भजनांत मराठी पदां म्हणूंक लागलों आनी मराठी साहित्याचें वाचन करतां, करतां घरादारांत दिसरात कोंकणी उलयतां आसतानाच निका विसरलों... ‘स्वयंसेवका’चो खाशेलो आवै आंक म्हज्या हातांत आयलो तेन्ना हांव १२-१३ वर्सांचो जायत. त्या आंकांत वामनबाबाली ‘म्हजी बा खंय गेली ?’ ही काणी आशिल्ली. ती आमगेल्या माळयेर हांवें एकान्तांत बसून वाचली. वाचतां, वाचतां जेन्ना बाबूलो देवाकडेन झगडटा आनी ‘मागीर तुका पळे न्हाण ना, धोण ना, फुलाची पाखळी ना, दिवो ना, वात ना अशें भंय घालता तेन्ना अकस्मात हड्डुं फुटून म्हाका रडूंक आयलें. कितलो तरी वेळ हांव सामको हुंडक्या हुंदक्यांनी रडलों.– त्या दुखाच्या अमृत वर्सावांत कोंकणीचे भक्तीची बी रुजवणां पडली जावंये.’

बाकीबाबांचो तिसरो गुरू कोंकणी मनीस. कोंकणी मनीस मराठी बरयतालो, पोर्तुगेज वाचतालो, इंग्लेज समजतालो पुण तो उलयतालो कोंकणी. गोंयचे मुक्तीचे झूज सुरू जालें आनी १८ जून १९४६ ह्या दिसा गोंयचो सगलो भौस एकदम जागो जालो. तेन्ना ताज्या मनाक शिकोवपाक, काळजाक हालोवपाक कोंकणी उतरांचीच गरज आसली. आनी आजवेर मराठीत बरोवन आइल्ल्या कवीक कोंकणीचो कंठ फुटलो, बाकीबाब सांगतात :

‘आमची गोंयची चळवळ उखल्ली. गोंयचो तो उलो इतलो दुर्दम्य आशिल्लो की ताजी सया पडून हांव भितर ओडलों. आनी एकाएक क्रांतीच्यो कविता बरोवंक लागलों... म्हज्या मुखांतल्यान म्हजी कोंकणी बा कवितेंत उलोवंक लागली.’

कवीक भितल्ल्यान स्फूर्त मेळटा तशी ती भायल्यानूय मेळटा. भौसाच्या जिवितांतल्यान स्फूर्त घेवनूय कवी आपलें कवीत घडयता. अशा वेळार ताजें कवीत म्हळयार भायल्या घडणुकीचें पडबींब जाता. व्हिक्तोर युगो, पाब्लो नेरूदा हाच्या काव्यांत भौसाच्या जिविनांतले पडसाद आयकूंक येतात. व्हिक्तोर युगोच्या सब्दांत, कवीचें काळीज म्हळयार संवसाराचो ‘संगीतमय पडसाद’ ( echo sonore ).

बाकीबाबाच्या गळ्यांतल्यान भायर सरिल्लो गोंयच्या घडणुकांचो पडसाद कवनांच्या रुपान आयलो. कवन हें लोकगीत. तें लोकांक रोखडेंच कळटा, मानता

आनी थोड्याच वेळांत सगळयांच्या तोंडांत घोळटा. गोंयच्या सुटकेच्या झुजांत बाकीबाबाचें हें कवन जाण्टया–नेण्टयांच्या ओंठार घोळटालें :

‘ दोतोर बोस, दोतोर बोस
समजीकायेन वाग
तकली तुका ना जाल्यार
उठून चलूंक लाग
फातरां–तांदूळ
तेय ना वेळार
पोटाक पेटली आग
लजेक लुगट !
म्हारग जालां
उक्ती पडलो आंग ’

आनी हें दुसरें कवन :

‘ म्हात्मा गांधी आयलो रे
गोंयांत आमच्या पावलो रे
लोहियान हाडलो बावटो ताचो
मडगांव शारांत लायलो रे ’

असल्या कवनांचोच जुल्मी सरकाराक चड भय दिसता. पुस्तकांत शापिल्ली कविता पिंजून उडोवं येता, पुण जिबेर फुलिल्लें कवन कशें धरतलो ?

भाशणांनी जायना तें केन्ना, केन्ना कवन करून दाखयता. असल्या कवनांचो फ्रांसेज राज–क्रांतीत बरोच वांटो आसलो. सा इरा, सा इरा, सा इरा (Çoira, Çaira, Çaira) आनी ‘ मादाम व्हेतो आव्हें प्रोमी ’ (Madame Veto avait promis) ह्या कवनांनी फ्रेंच क्रांतीकारांच्या काळजांक आनी हातापांयाक स्फूर्त दिल्ली. आनी इटालीचो स्वातंत्र्य–वीर ‘ गारिबाल्दी ’ हाजी तुस्त करपी हें कवन इंग्लंडांत खूब लोकप्रिय जाल्लें :

‘ Give me a penny
Give me a penny ’
‘ What for ? What for ?
To buy a rope, to hang the Pope
Instead of Garibaldi ’

आनी ब्रिटिशांच्या काळांत, सत्याग्रहाच्या वेळार पोलिसांमुखार मुंबयचे भुरगे हें कवन म्हण्टाले :

‘ पिवळी पगडी कौन छे ? ’
‘ हमारो हजाम छे ! ’
‘ महात्मा गांधी कौन छे ? ’
‘ हमारो राजा छे ! ’

१९४७ ते १९६१ हो काळ गांवभायरेपणाचो. ह्या काळांत जायते गोंयकार पोर्तुगेजांच्या जाचाक त्रासून गोंयाभायर सल्ले. गोंयाभायर रावन सुटके–झुजाची चळवळ करूं लागले. बेळगाव, मुंबय, गोंयकारांची राजकी मंडळां चलूंक लागलीं. वर्तमानपत्रां, पत्रकां भायर सरूंक लागलीं. ह्याच काळांत बाकीबाबांच्या यत्नाक लागून, मुंबयच्या आकाशवाणीर कोंकणी आयली. ते वेळचे गोंयचे रेडियो स्टेशन बरेंच बळिश्ट आसलें आनी थंयच्यो कार्यावळी मुंबयमेरेन स्पश्ट आयकूंक येताल्यो. त्या कार्यावळीन पोर्तुगेज राजवटीची तुस्त, तोखणाय जाताली. ‘ आकी यॅ पोर्तुगाल ’ ह्या उतरान ही कार्यावळ सुरू जाताली. पोर्तुगेजांचो हो प्रचार आळाबंदा हाडपाखातीर मुंबयच्यान कोंकणी कार्यावळी वितरावपाक सुरवात जाली. तेच वेळार बाकीबाब मुंबय पाविल्ले. आकाशवाणीचेर तांच्यो कविता गाजूंक लागल्यो: ‘ सात लाख गोंयकार आमी, ’ ‘ भारताच्या ध्वजा म्हज्या ’ ‘ संजीवनी ’ ह्यो ते वेळच्योच कविता. ह्यो आनी हेर जायत्यो कविता ‘ प्रजेच्या आवाजा ’ त शापून आयिल्ल्यो. त्यो आनी हेर कविता एकठांय करून ‘ पांयजणां ’ हो झेलो उजवाडाक आयलो.

मराठी कवितेभाशेनूच बाकीबाबाची कोंकणी कविता गायपासारकी. तांच्या कवितेंत संगीताचीं पांयजणां सतत वाजतात. ‘ गेयताय ’ ही बाकीबाबांच्या कवितांची एक खाशेली कुरू. बाकीबाबांच्या संगीताचें पिशें ताणीं आपल्या मराठी कवितां–झेल्यांक दिल्ल्यां नांवांतूय दिसून येता: ‘ आनंद–भैरवी, ’ ‘ चित्र–वीणा, ’ ‘ गितार... ...’

बाकीबाबाक उतरांचें पिशें भुरगेपणापासूनचें. काव्य करप हो तांचो सभाव–धर्मूच. बाकीबाब म्हण्टात : ‘ कविता ही बरोवपाची आसता हेंच म्हाका खबर नासलें. जश्यो न्हंयो आसतात, दोंगर आसतात, नखेत्रां आसतात, तशोच कवितायबी आसतात असो म्हजो भोळो समज. ’

उतर म्हळयार चित्र आनी स्वर हांचो मेळ. रंग आनी स्वर ह्या दोगांचीय तांकां ओढ. बाकीबाब एक चित्रिकूय हें खूब जाणांक खबर ना. उतरांच्या मोगांत ते घुस्पू नाशिल्ले जाल्यार ते रंगांच्या धुंदींत रंगून वेतले आसले.

‘ रंगा भाशेनूच म्हाका स्वरांचेंय पिशें आशिल्लें. म्हजो व्हडलो मामा खांपो गावपी. ताजो आवाज जितलो गोड तितलोच पल्लेदार. म्हज्या भुरगेपणांतलो

संवसार आठूयपार आनी बाराय म्हयने कवितेन भल्लेलो उरतालो. दिसाक सुरवात जाताली ती भूपाळयांनीं आनी अखेर जाताली रातच्या भजनांनीं.'

ह्या ' पांयजणां ' तल्यान कानाक भुलोवपी, मनाक भाळोवपी आनी काळ-जाक हालोवपी अशे सूर भायर सरतात : तरेकतरांचे ताल, तरकतरांचे छंद घेवन एकाच कविता झेल्यांत कवितेचीं इतलीं वेगवेगळी रुपां पळोवंक मेळूं नासली. खासा बाकीबाबांच्या गळयांतल्यान ' पांयजणां ' कितलेदा आयकलीं तरी तांचो नाद नित्य नवीनूच भासता. बाकीबाबांच्या कवितेची ही जादू सांगूंक कठीण. तांतूतल्यान कोंकणी भाशेचें निजाचें संगीत उक्तें जाता. काका कालेलकार ही गवाय दितात :

' It was only when I heard some excellent Konkani poems by poet Borkar at Karwar that I realised the power of this language which expressed the best, nicest and subtlest thoughts of the people '

( जेन्ना हांवे कवी बोरकारांच्या तोंडसून कांय उत्तम कोंकणी कविता आयकल्यो तेन्ना म्हाका ते भाशेची शक्त कळून आयली. बऱ्यांतले बरे, सुंदरांतले सुंदर आनी सुक्षिमांतले सुक्षीम विचार ते भाशेंतल्यान उक्तावंक येतात हें म्हाका समजलें.)

संवसारांतलो खंयचोच विशय बाकीबाबांक वर्ज ना : देश-भक्ती, देवभक्ती, बायलांची सोबाय सैमाची सुंदराय, भुग्यांची अर्थ. तांचे कवितांत भोग आनी त्याग अेकठांय नांदतात. ' सात लाख गोंयकार आमी ' हांतूतलो निबर हावेस, ' तूं म्हज्या घराची रसणाय ' हांतूंतलो ल्हवपीक उमाळो, आनी ' भगवंता तुजी गोष्टी लाय ' हांतूंतलो भक्ती भाव ही सगलीं अेकाच कवी मनाचीं तासां. तांतूत विरोध कसलो ? वॉल्ट विटमन ह्या अमेरिकन कवीन आदींच जाप दिवन दवल्या :

' I am the poet of the Body
And I am the poet of the soul
Do I contradict myself ?
Very well then I contradict myself.
I am large, I contain multitudes '

गोंयकार कवींत आनीक दोन विशय दिसतात. कोंकणीची ओड आनी गोंयचो मोग. आपल्या काव्याक बया भावान सुरवात केल्ली ती ' कोंकण आमचो देस कोंकणी आमचो भास ' हे वळीन. तोच विचार बाकीबाब मुखार व्हरतात : ' गोंय आमचें मूळपीठ, कोंकणी आमची भास.'

' गोंयचो मोग ' हो गोंयकार कवीचो मोगाचो विशय: ' गोड म्हजें गोंय !

सुंदर म्हजें गोंय !' ( शणै गोंयबाब ) ' सोबीत सुन्दर नंदनवन हें गोमंतक हाजें नांव ' ( बयाभाव ) Nossa Terra-Linda Terra ! ( आदेवदात बार्रेत ) 'स्मरुनि गोमंतदेवि मूर्ति संपदा, प्रेमभरें हृदयभरे नमन तव पदा' (दा. अ. कारे).

बाकीबाबांचे कवितेंतूय गोंयच्या सैमाचो मोग भल्ला. हो मोग कसो उदेलो ? बाकीबाब सांगतात :

' म्हजें मन चडूच संवेदनशील. ताका लागून भुरगेपणांत म्हज्या वांटचाक सुखापरस दुखूच चड आयलें. म्हजें मन समजून घेवपी, म्हज्या भावनांक उक्ते नदरेन माथ दिवपी असो कोण म्हाका मेळ्ळोच ना. हाका लागून मनशांचो भकेल्लो आसूनूय हांव चड आनी चड एकसुरो रावंक लागलों आनी हडुयालागीं जापल्लीं सुखदुखां हाव सैमातल्या झाडांपेडांक, जनावरांक, ते म्हजेच इश्ट समजून मांगूंक लागलो. तांच्या सागातांत हांव चड आनी चड रमूक लागलों आनी म्हज्या मनावयलें वजें ल्हव जावंक लागलें. तांचे लागीं तन्मय जातनां जायते खेपो म्हज्या दोल्यावेल्यान कृतार्थतायेची दुकां व्हांवल्यां.'

बाकीबाबांच्या काव्यांतलो सैम म्हळचार फक्कत चित्र न्हय, देखाव न्हय तर तो तांच्या अणभव-विस्वाचो एक मोलाचो वांटो. सैमाचें पडबोंब तांच्या काव्याच्या हारशांत पडटा-जशें जुवारेचे देगेवेले आबे-माड न्हंयेंत दिसतात: मान्शे वेगळे, ल्हारांचें हालप-धोलप घेवन, उदकाची ओलसाण घेवन, सपनाचें रूप घेवन.

तांच्या काव्यांतलो हो सैम गोंयचो. बाकीबाब ' गोकुळीचो कृष्ण ' ' गोंयच्या वनीं ' देखतात. ' पांचव्यो, पांचव्यो कोंडचा-आळी ' आनी ' थंयच आमली निळी तळी ' हीं गोंयचीं. हो गोंयचो मोग तांचे जिणेचोच कुडको. तो कसोच वेगळो काडूं नज, बाकीबाब म्हण्टात :

' In the whole of India, Kashmir, Kamarupa, Kerala and Konkan are supposed to be the richest in scenic beauty. I have had the good luck of drinking deep in the founts of their distinctive charms and thus to get my aesthetic sense refined. But if I am to be born again and I am allowed to choose my future birth place, I shall undoubtedly opt for Goa '

(सगल्या भारतांत, काश्मीर, कामरुप, केरळ आनी कोंकण ह्या वाठारांतलो सैम सगल्यांत सोबीत अशें म्हण्टात. त्या सगल्यांच्या खाशेले सोबायेचो पुराय आस्वाद घेवपाचें म्हाका भाग्य मेळ्ळां. आनी ताका लागून म्हजे सुंदरायेचे नदरेक धार आयल्या. तरी म्हाका पुनर्जल्म मेळ्ळो जाल्यार आनी खंय जल्म घेवचो तें म्हज्या हातान आसल्यार हांव गोयांतूच जल्म घेतलों.)

' बाकीबाबांच्या मराठी कवितेंनूय होच मांग सळमळटा :

माझ्या गोव्याच्या भूमीत
येतें चांदणें माहेरा
ओलावल्या लोचनांनी
भेटे आकाश सागरा
माझ्या गोव्याच्या भूमीत
तृणी सुमनांचे गेंद
सिद्ध कुणब्यांच्या तोंडीं
शुद्ध सौंदर्याचे वेद '

## ' गोंयची सासाय '

' गोंयची सासाय ' ' पांयजणां ' उप्रांत सुमार वीस वर्सांनीं भायर सरता. ह्या वीस वर्सांत मांडवी–जुवारी न्हंयांतल्यान जायतें उदक व्हांवलां. पोर्तुगेजांचे कादयेंतलें गोंय मेकळें जालें. फिरंगी वचून इंग्लिश आयली : पेद्रूचो पिटर जालो. ब्रिटिश कायदो आयलो. फांशी आयली. बोरये–पूल दोनदां म्होडलो, दोनदां सारको केलो. परतो म्होडला. दोन मंत्रिमंडळां आयलीं गेलीं. चार गोव्हेर्नादोर आयले गेले. कोंकणी मराठी–वाद उसळ्ळो, थंडावलो. सार्वमत जालें–विलीनीकरण कुशीक उल्लें. भाशा–परिशदो गाजल्यो, लेखक–संमेलनां जालीं. घरांघरांत वीज आयली, गांवागांवांत शाळो पडल्यो. जात्रा जाल्यो, फेस्तां जालीं. संप जाले, बहिष्कार जाले... आलेटी पडल्यो, बशी मोटारी म्होडल्यो, सत्कार जाले, येवकार जाले, सारें कारखानो पडलो, उदक दूशीत जालें–नुस्तें मरूंक लागलें. खून, मारामाऱ्यो, आत्मघात, अपघात वाडले. बशी पासयेर चडून उबे राविल्ल्या लोकाक चिड्डून मारूंक लागल्यो. स्मग्लिंग वाडलें, सोरो फसफसलो, टुरिझम चडलो, बशींनीं गर्दी वाडली. नवे सिनेमा, नवी हॉटेलां पडलीं. वाळेस गिरेस्त जाले, गिरेस्त फटिंग जाले. दुडवाकारांच्या हातांत सत्ता आयली. सत्ताधारी दुडवाकार जाले. चार कोंकणी साइत्य परिशदो जाल्यो, पांच कोंकणी लेखक–संमेलनां जालीं. ' लोक साद ' ' संत ' ' दिवटी ' ' उजवाड ' ' प्रकाश ' ' नवें–गोंय ' ' कोंकणी ' ' माळीक ' ' परमळ ' ' सोमार ' ' अपुर्बाय ' ' मारुती ' हीं नेमाळीं भायर सल्लीं. शेंकड्यांनी नवे कोंकणी बरोवपी उदेले आनी कोंकणी कवितेक रंगयाळीं पांखां फुटलीं.

मनोहर सरदेसाय हांचे ' गोंया तुज्या मोगाखातीर ' ' जायात जागे ' ' जायो–जुयो ' हे झेले भायर सल्ले. तांणी गोंयकारांक गोंयच्या मोगान भारायले, जागयले आनी विचारांचो परमळ फांकयलो. र. वि. पंडित हांणी एकाच दिसा आपले पांच झेले उजवाडायले. ' म्हजें उतर गावड्याचें ' ' धर्तरेचें कवन '

' चंद्रावळ ' आनी ' उरतलें तें रूप धरतलें '. ' चंद्रावळ '– एका नव्या नेटाच्या, निर्यमकी काव्यान कोंकणी साहित्यांत नवो जीव ओंपलो. पांडुरंग भांगी हांचो ' दिश्टावो ' नवी नदर दिवन गेलो. माधव बोरकारांच्या ' उजवाडाच्या रुखान ' अंतर्मनाचेर उजवाड घालो. पुंडलीक नायकाच्या ' गा आमी राखणे ' ह्या क्षेत्यान कोंकणी काव्यांत बांगर बैलाचो धेंक गाजयलो. प्रकाश पाडगांवकार हांणीं ' वास्कोयनां ' तल्या शारांतल्या मनशांची व्यथा सांगली. अ. ना. म्हांब्रो हांणी भुरग्यांखातीर ' घुमचेकटर घुम ' ची धिमडी वाजयली.

लक्ष्मणराव सरदेसायांसारख्या लघुकथा लेखकान लेगीत जाण्टचा वयांत तरणे नदरेच्यो कोंकणी कविता रचल्यो. रमेश वेळुस्कारांचीं, माडाचे सांयेंत रचिल्लीं ल्हवपीक, रंगयाळी, मोरपांखां कोंकणी काव्यांत अप्रूपच. त्या भायर कितलेश्याच कवीच्यो कितलेश्योच बर्‍यो कविता नेमाळ्यांनी दडून आसात. आकाशवाणीच्या टेपीत लिपून आसात : शंकर रामाणी, शंकर भांडारी, उदय भेंब्रो, जेस फेर्नांदिश, ट्रिन ट्रिन, तोमाझीन कार्दोज, नूरजहां तुघलक, फातिमा द् सोवझ ...

' गोंयची सासायें 'तल्यो कविता ह्याच काळांतल्यो– गोंयचे सुटकेउप्रांत रचल्ल्यो. ' पांयजणां 'तल्या भाशेनूच ' गोंयचे सासायें 'त गोंयांतल्या घडवणुकीचो पडसाद आयकूंक येता. हांगाय कवी ताळो नाशिल्ल्या भोंमाचो ताळो जावन उलयता. तेंच हें गोंय, पुण कितले वेगळें ! ' पांयजणां 'त गोंयच्या गुलामपणाची खंत, कवीच्या कोंवळ्या काळजाक कांटो कशी तोंपता, तरी फुडाराचें सवर्णसपन पळोवन ताजें हृदूं फुलून येता. जैताचे मंत्र कशीं ताजीं उतरां पाखां फडफडायत आसमंतांत घुंवघुंवतात : काळ्या किट्ट काळखाउप्रान झगझगीत फांतोड फुट्टलीन फुट्टली ह्या दृढ आत्मविस्वासान ताज्या गात्रांत हावेसाचें ल्हार उसळटा, आवाजांत विजयाची धार थरथरता.
त्या वेळार कवी म्हण्टालो :

' सात लाख गोंयकार आमी
  युग नवें फुलैतले
अंदल्यात मंत्र जिवी
  ते फाल्यां उलैतले.
आज जरी काळोख विण्ण
  सगले कडेन पडलां किण्ण
दनपाराच्या कडार फाल्यां रथ भुजार खेळैतले.'

—– भारताचो ध्वज जागलो; नाळीच्या गडगडांत गोंयची सुटका जाली, नवें युग फुल्लवपाक सात लाख गोंयकार सेकळे जाले. ' भायरो जाल्लो गोंमाय '

परतो गांवघरा पावलो. पुण ताज्या मनांतलें सपन ताका सभ्यांत साकार जाल्लें दिसलें ना. देखून झूज सोंपलें तरी कवीक किवाटच्यान म्हणचें पडटा :

अजुन सरूंक ना संगर आमचें
लढचें आसा अजून खूब
लढले, थकले कितलेय जरि तुमि
तरीय राखा पैली ऊब
कितलें दैन्य, अन्याय असत्यय
अजून चलता भायर भितर !
पुरतें तें हुमटिल्या बगर रे
मुक्त जावंचे नात आमचे पितर.

गोंय मेकळें जालें आनी एकेच रातींत संधीमाधूंनी पगडी फिरयली. जे पोर्तुगीजांचे बूट चाटपी आसले तेच आतां खादी टोपी घालून खरे देशभक्त म्हणून मिरवंक लागले. सत्ता नाडांच्याच हातांत उल्ली. स्वातंत्र्य–यज्ञांत जांणी सत्यापासत आपल्या रगताची, सुखाची आहुती दिल्ली आनी सर्वस्वाचो त्याग करपाक सदांच मुखार आसले ते फाटीं उल्ले. ही खंत हेर कवीय उक्ती करतात :

मनोहर सरदेसाय म्हण्टा :

' अजून आसात पिडपी हांगा
अजून आसात नाडपी हांगा
तरणे तशे दांडगे तुमी
अजून कशे रावल्या वोगे
हड्ड्यांतले इंगळे आज
धगधगून जावं दि जागे '

राजकी स्वातंत्र्य मेळ्ळें म्हुण सगलें स्वातंत्र्य मेळ्ळें अशें जायना. राजकी स्वातंत्र्य हें फक्कत पयले पावल. भायले पातशाय गेले म्हणून घरचे सुल्तान ना जायनात. एक फ्रांसेज इतिहासकार म्हण्टा :

'इंग्लेजांक धांवडावपाक आमकां शेंबर वर्सां लागलीं पुण घरच्याच जुल्मी राजांक सकला ओडून उडोवपाक आमकां एक हजार वर्सां लागलीं.'

स्वातंत्र्य येवनूय, खरें स्वातंत्र्य येवंक ना हें एकाच वर्सा उप्रांत कवीक कळून येता आनी तो खंतीन म्हण्टा :

' प्राणाक क्षय, बुद्धीक भंग, फाल्यांक जय कालचीच वंय
भायला थंय स्वातंत्र्य तें, स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय.
आप जंयच्या सगलें भष्टें.

वंद्य परक्यांलेंच उष्टें.
हुटकेती तांच्या भितोडे मेळटा ती उखलूंक तळय.'

Where the mind is without fear and the head is held high. 'चित्त जंय भयाविरैत, उंच नित्य माथें' ह्या रवीद्रनाथांच्या चित्राच्या उरफाटें हें चित्र.

मेकळे जातकच सगले हात एका मनान एकाच रथाक लावने बदला, गोंयकारांत धोस जाली. कोंकणी–मराठी वाद, भाटकार–मुंडकार वाद, विलीनीकरण वाद ह्या वादांच्या करांदायेंत ममतेचें, न्यायाचें, भावकेचें, सोबीत, सुंदर गोंय घडोवपाचें ते विसल्ले. कांय जणांनी तर आपलो सुवार्थ मादपाक लज–भीड कुशीक मारून नाख पावणेर काडलें. त्या किंवाटचान कवी म्हण्टा :

' नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस
म्हणशात तुमी तीच आमी
म्हणू आमचो भास '
' मेखळेपणा जोखमे-परस
बरे बंद पास
नाख आमी पावणेर काडलां
घालात तुमी लांस.'

स्वतंत्रायेचीं पवित्रताय भश्टोवपी लोकांचेर बाकीबाब हो असो उतरांच्या चाबकाचो मार घालतात.

पुण बाकीबाबाचो मूड आशावादी. मनशाच्या बरेपणाचेर, गोंयकाराच्या खरेपणाचेर, गोंयच्या फुडारांचेर तांचो अढळ विस्वास.

दर एका समाजाक आपली सोडणूक करून आपणाक नवें जिवीत दिवपी कोणूय येतलो अशी धड आस्त उरता. ते आस्तेचेर त्या समाजाची पोसवण जाता, त्या एका सपनाच्या आदाचार ते जिविताचे सगले कश्ट दगदग हांस–हांसत सोसतात. हिंदु धर्मांतली 'अवतारा'ची हीच कल्पना. जूदेव धर्मांतली 'मसाया'ची तीच कल्पना. जेन्ना धर्मांचेर अनीत वाडटा, जुल्म जाचता, मनीसपण कुसता तेन्ना देव अवतार घेता. तेन्ना खंयच्यातरी मनशांत देवपण येता, ताजेर भार येता.

आनी गोंयांतूय तसलो भार येवपाचो वगत जाल्ला, जुलूम, फटीगपणा, भित्रेपणा, लाचारी ही इतली वाडल्यां की भार येवपाचो वेळ सामको पिकून आयला. देखून कवी नेटान म्हण्टा :

' जागी जाल्या गोंयची सासाय
येतलो भार, येतलो भार

धोल ताशे वडय, वडय
मार शेंसार, मार शेंसार.'

हे कवितेच्या तालांतल्यान, थाटांतल्यान आनी नेटांतल्यान देवळामुखार भान सोडून तीर कसो गर्देंतल्यान धांवत येवन तरंग झोमून खांदार तोलपी भाराचें जितेंजिवें चित्र उबें रावता– चित्रूच न्हय तर हें चलत्–चित्र वाचप्याक आपल्यावांगडा भाराभाशेन ओडीत वेता. 'मार शेंमार! मार शेंमार!' हीं उतरां मंत्रासारकीं कानांत घुमघुमतात, शिरंत्रांनीं रिगतात, जागयतात, खुबयतात.

जसो 'पांयजणां' तलो मुखेल विशय 'गोंय' तसोच तो 'गोंयची सासाये' चो. 'पांयजणांत' किणकिणपी गोंयचो मोग 'गोंयची सासायें'त सळसळटा. कवी अभिमानान सांगता :

'असली माती जिती विती संसारांत ना रे
दिखळांतल्यान सैंमाचे सरति वैर तारे
परमळान अरळ हिच्या आठय दिकां–वारें
हिजे कुशींतल्यान व्हांवति म्होवाळ व्हाळवझरे'

ही असली माती

'असली माती म्हज्या हातीं रोयण कशी वाढ्टा
प्रगट जावंक तुमचे म्हजे लक्ष हात मागता'

बाकीबाबांचो हो गोंयचो मोग कुड्डो न्हय. तांका गोंयकारांचीं आनी गोंयचीं उणीं दिसनासतना रावनात. गोंयांत–

'तांदुळ, नाल्ल सगलें म्हारग
करबटपासून रुपयान वता.'
'खरेंच हांगा जाणवाय सोडून
दुसरें आनीक पिकता कितें?'

तरी कवीच्यान गोंयचे मयपास तोडून वचूं नज. कारण कितें? मोगाक कारण लागता?

'नकळ गोंयांत आसा कितें
अेक मात खबर म्हाका
अेकदां गोंयां पाविल्ल्याक
परतें गोंय सोडूंक नाका'

१९६७ वर्साच्या जानेवारी म्हयन्यांत १६ तारखेक गोंया 'ओपिनियन पोल' जालो. 'महाराष्ट्रांत विलीनीकरण' काय 'संघप्रदेश' हें थारावपाक गोंयकारांचे मत मागिल्लें. त्या वेळचो प्रचाराचो काळ म्हळयार गोंयच्या

राजकी आनी समाजीक जिवितांतलो चड म्हत्वाचो काळ. 'फूल' काय 'दोन पानां'? गोंयकारांच्यो अेकाच खिणांत दोन जाती जाल्यो. अेक फूलकार विलीनीकरण वादी आनी दुसरी पानकार संघप्रदेशी. तें अेक तरेचें झूजूच आसलें – आनी ह्या वेळार 'राष्ट्रमत' ह्या दिसाळचांतल्यान आनी हेर नेमाळचांतल्यान शेंकडयांनी बऱ्योवायट कोंकणी कविता फुलून आयल्यो – - दोन पानांचे वटेन. संघप्रदेश राखपाक आनी कोंकणीचें खाशेलपण सांबाळपांत कोंकणी कवींनी बरोच हातभार लायलो तातूत बाकीबाबांचोय वांटो आसा :

बाकीबाब म्हण्टात :

'कुदूंक लागला गांवचो मुळी
वाजूंक लागल्या घांट
दिसता ताका पांचवि चार
जुंवळी पानां वाट
होंरावणेची वेळ जाल्या
घुमघुमता धोल
पोल न्हयरे जावचो आसा
सांतेरेचो कौल'

विलीनीकरणाचो प्रचार करपाक महाराष्ट्रांतल्यान भाडोत्री प्रचारक आयले. ताणी गोंयकारांक भुलोवपाखातीर म्होवी–म्होवीं उतरां उलोवन व्हड-व्हडलीं वचनां दिलीं :

'सूर्य दिनां, चंद्र दिनां म्हणत आयलि म्होंवी
संवसंवनी गोंयांत आमच्या घालूंक आमकां दावीं
हांयम लावन घाल्यात ताणीं जळीमळी गरे
घरामुळा पुल्ला सूरिग खणुन व्हरूंक चिरे.'

ह्यो भायलो प्रचारक गोंयाक उजो लावन विडी ओडूंक सोदतालो :

'घांटार सावन आयला जोगी
घेवन भगवी घुडी
घराक चूड लावन सोदता
ओडूंक आपली विडी'

'कोणाच्या खाडाक उजो लागलो आनी कोण विडी ओडूंक सोदता' हे कोंकणी म्हणीची हांगा याद जाल्याबगर रावना.

शंकर भांडारी हांणींय बी आपल्या खणखणीत आनी धारेच्या ताळयान गोंयचे व्हंकलेलागी लग्न जावंक सोदपी मुंबयच्या म्हातान्याचीं फकाणां मारिल्लीं :

' मुंबयचा म्हातारा गोव्याला आला...'

आनी मनोहर सरदेसायान वी शिटकायल्लें :

' नदर कावळयाची तवशार
नदर बुकल्याची भोवशार
कावळयाक तवशें मेळचें ना
बुकल्याक भोवशें मेळचें ना
मेळचें ना रे मेळचें ना
गोंय आमगेलें मेळचें ना '

बाकीबाबान महाराष्ट्रवाद्यांच्यो तडुकी करण्यो दिस्न पारखिल्यो :

' फुलांत लिपुन आयला भावा तक्षकाचो पिलो
सादुर तुवें जावचें म्हणून घालित आयलां उलो '

कवीच्या काळजांतल्यान आइल्लो हो उलो आयकून गोंयकार सादूर जालो आनी फुलाक भायर शेंवटून ताणें प्रमादाचीं दोन पानां विंचून काडलीं. गोंय संघप्रदेशांत उल्लो. ताजें विलीनीकरण जालें ना.

पुण ' गोंयची सासाय ' ह्या झेल्यांत फक्कत राजकी आनी प्रसंगीक कविता आसात अशें समजूं नये. कवी हो समाजाचो एक वांगडी, भौसाचो तो एक वांटो—समाजाचेर आइल्लें संकट ताकाय लागता. देखून रावना जावन तो प्रसंगीक कविता करता. पुण बाकीबाब मनशाच्या जिविनाचेर खोल नदर मारून सर्व-कालीक सत्यांय सांगता. खरो कवी तत्त्वचिंतक उरता. व्यास, शेक्सपियर, टागोर हे सगले व्हडले कवी व्हड चिंतक आसले.

कवीचो जितलो अणभवांलागीं संबंद तितलोच तो उतरां लागीं. कवीच्या उतराचें मोल समर्थपणान सांगपाक कवीच जाय.

' एकेक उतर घडूंक भावा ! कितले कल्प गेले
उतरां गुंथित रावले तशे मनीस आमी जाले !
तांचेविणें पुण्य उणें सगळें जिणें पोल
सत्तेचे मत्तेचे व्यर्थ ताशे धोल ! '

आपल्या जिणेंतल्या अणभवांतल्यान बाकीबाबान कांय सत्यां सोदून काडल्यांत, जिविताक वाट दाखोवपी सूख हें जिविताचें एक ध्येय. तें कशें मेळोवचें ? तें खंय आसता ?

' सूख ना रे पैस, पळे, उदक कशें व्हांवता
पुंजावक वेशी जाल्यार मात पारज जावन धांवता '

जंय सगलेंच जिवीत धांवत वेता थंय सुखाक धरतलो कसो ? आनी

संवसारभर धांवलो म्हणून सूख भोव मेळटा ? जर्मन कवी गटे हांच विचार मांडटा :

' Wilt du immer weiter scheifen
Wann das Gluck liegt so nah ?
Lerne nur das Gluck ergreifen
Und das Gluck ist immer da '

( सूख सोदपाखातीर तूं असो हांगा थंय कित्याक हेडटा ? सूख विंचून काडूंक जाण जाशी जाल्यार सूख तुका तुजें लागीच मेळटलें. )

बाकीबाबूय तशेंच सांगता :

' भोगचें तुवें म्हणून सूख, भोंवतणीच भोंवता '

संवसार हो खिणयाळो अशें सगलेच मांगतात. संवसार हो खिणयाळो देखूनूच हर खिणाक ताजो आस्वाद घेवंक जाय.

फ्रांसेज कवी रांसार ( Ronsard ) म्हण्टा :

' Cueillez des aujourd' hui
Les roses de la vie '
( जिविताचे गुलाब आजूच खुंटून घे. )

बाकीबाब म्हण्टा :

' दोळयां सपन फुलता तंवर
जग पळोन घे
गळयां गीत घोळटा तंवर
मन केळोन घे,'

जिविताविशींच खरो तत्त्वचिंतक मर्णाचो विचार करता. खरें म्हळयार जिवीत मर्णाचें लांबूच लांब चिंतन :

' संसाराचे पेले थडी
सोदूंक म्हजें फाटलें थडें
जातलो जेन्ना हांवच म्हजें
शीड, व्हलो, येरें, व्हडें '

जो मर्णाचें चिंतन करीना ताका खऱ्यानीच जियेवचें कशें तेंच कळना. मरणूच मनशाक मनीसपण शिकयता :

' संकश्टाच्या वेळार नासता आपलो आनी दुजो
मर्णाचो सांपळो नासता वेगळो म्हजो तुजो '

जीवन मर्णाचो खेळ पळेत, कवी हेर लोकांपरस दोन पावलां फुडेंच आसता. तसो नासल्यार तो कवीच न्हय. कवी हो प्रेषित, ताका फुडाराचो दिश्टावो जाता.

जाका फक्कत स्फूर्त येता तो खरो कवी न्हय. खरो कवी दुसऱ्यांकूय स्फूर्त दिता. मध्यानरातीं ताका फांतोडेचें सपन पडटा. संवसाराचे वाटेर दिवटी घेवन तो फुडार दाखयता, फुडाराक आपयता, 'पांयजणां'तलो गांवभायरो गोंसाय 'सासायें'त दिवटीकार जाता :

' दिवटिकार हांव तुमचो बांगडी
सांगतां हांव तुमची फुडली वाट '

साठ वर्सां जावन गेलीं तरी बाकीबाबान मोगाक फाट करूंक ना. सुंदरीची पावलां आयकूंक येतात तेन्ना तांचें आंग अजून शिरशिरता :

' पावलांच्या सुलुसानच आंगार शिरशिरी
सळसळटा पदर मना वेग भर्जरी '
' सकाळफुडें आयलें जाल्यार आंगणि फुलता पात
सांजचें पावलें जाल्यार येता चान्नें फाटोफाट.'

अजून तांची नदर सुंदर नारीची सोबाय दोळयांत सांठोवन घेता; आनी आपल्या गितांन वाचप्याकय मोगा-पिशें लायता :

' कुपांत जोगुल तशी तुजी आबोल्याची फांती
वांयगणाचीं चोळी, काराड रगत खणी माती
चिरो कशी फाट, कमर कंरगुटाचो मुडो
उज्या किटी झडंत वता कोंपरमेरेन चुडो.'

आनी ह्यो किटी आमचेंय काळीज पेटयत वेतात.

तरीय कवी जाणा आपलें जिणेक सुकती आयल्या. पांयजणांतूय कवी सांगतालो :

' तांतलें कांय नुल्ले आज, सगल्या जिणे आयल्या सांज '
' सुकतेच्या वेळार म्हज्या
आयलें जावन भरति किल्या ?
फांतोटेचीं ओंवळां तुजीं
सांजचीं म्हजेर झरति किल्या ?'

कवीच्या जिवितांत सांज आयली वा सुकती आयली तरी मोग सदांच तरणो, मोगा-गीत सदांच तरणें.

० ० ०

जसो, जसो मनीस जाण्टो जाता तशें तशें ताका भुरग्याचें मन बरें कळटा आनी भुरगींय जाण्टयाच्या सांगातांत रमतात. बाकीबाबान भुरग्यांखातीर बरयल्या कवनांतलें मनूय भुरगें न्हय, तर तांतूंतली भासूय भुरगी-भुरग्यांची. आपले संस्कृत अलंकार काडून उडोवन हांगा कोंकणी घरावी आनी थळावी जाता. ह्या गीत-संवसारांत जनावरां वावुरतात, मनश्यावरी उलयतात :

‘ आगो, आगो बिलू तुका सांग कितें जाय ?’
‘ तव्यावेलें नुस्तें आनी दुदावेली साय.’
‘ बिलु, बिलु कशे तुजे विलोदाचे पाय ?’
‘ सातां माळयावेली ह्यांव रायाली बाय ’

ह्यांगा कावळो होंवळींक हाडटा :

‘ कावळयान हाडली होंवळीक
लग्न आसा गोंधळीक
लग्न पोण्ण कोणाचें ?
सदांच दोगां जाणांचें !
बांगडो न्हवरो व्हंकल पेड ’

हें नुस्त्यांचें लग्न गोंयकारांक परकी न्हय, भुरगेपणांन हें गीत कानार पडटालें :

‘ शेतूक करवली, भायर सरवली
खरचाणी रागान गेली रे पालवा ’

आनी ही बावल्याची सोरगत :

‘ बावलो तुजो पोटारो
तिनय त्रिकाळ भकारो
बावली म्हजी नाजूक चली
कितलें म्हणून रांदतली ?’

पुण बावल्याची आवय सांगता :

‘ बावलो म्हजो कसोय आसूं
बावलेक तुजे मानला खंय
कर्मी वर्मी काडून आमी
सुखांत बिवो घालचो न्हय ’

आनी बावल्यांचो खेळ सोपोवन भुरगीं आतां मोरावांगडा नाचतात :

‘ नाचता मोर आलतडी
पावस पट्टा पलतडी
डरांव डरांव गायति बेबे
तळयेर खेळटि तालगडी.’

आनी कवी किदें मागता ? तर एक पांख :

‘ लोकां सुखां लाख दी
म्हाका एकच पांख दी

पुस्तकांत म्हज्या मोरा !
नांव तुजें रावं दी.'

बाकीबाबांक खंयचोय विशय वर्ज ना. कवी हो म्होंवामूमाभशेन. तो तरेकतरांच्या फुलांर बसता आनी सगल्यांचेंच म्होंव करता : ' Sur chaque fleur l'abeille se repose

' Et. fait du miel de toute chose '

जाण्टया वयांत लेगीत संवसाराचो व्याप सांबाळून, जिविनाचो ताप सोंसून कवी गायत रावता हीच खरी ' गोंयची सामाय.'

कवी म्हण्टा :

' घाणो ओट्टनाय
गायतच उल्लों
शिकनास्तानाय उजवाडान भल्लों '

O

काजुले

आलेक्स गॉयश

क्रिस्त प्रकाशन, मडकय

1982

## वाटेंतलीं उतरां

कोंकणी साइत्याचो ओघ सध्या नाटक, कथा, कांदबरी ह्या साइत्य प्रकारां-कडेन वळिल्लो दिसता. पुण गोंयचे सुटके उप्रांत घमाघमा व्हांवक लागिल्लो कोंकणी काव्याचो दूदसागर तसोच व्हांवन आसा. नागेश करमली, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार, जेस फेर्नांदिश आनी जायत्या तरण्या कवींनी कोंकणी काव्याक नवो आकार, नवो नेट दिला.

आज हो तरणो कवी आलेक्स गॉयस तुमचेमुखार आपल्यो धाकट्ल्यो कविता दवरता. रेडियो आयकतल्यांक आनी कोंकणी नेमाळी वाचतल्यांक आले-क्साचें नांव नवीन न्हय. त्याभायर दुसरो एक कवी जे. एल. गॉयस हाजो तो भाव. आपली पयली स्फूर्त ताणें भावाकडल्यानूच घेतल्या. हेर भासांनी भासांकडलें तुटिल्लें नातें परतून जुळवपाक कांय कातोलिक बरोवप्यांनी येत्न केले. मराठी, हिंदी हाचो अभ्यास करून आनी शणै गोंयबाबांचो बरपावळ वाचून आनी पचोवन ताणीं आपली साहित्यिक कोंकणी घडयली. जशे रोमींत तशेच ते नागरीत बरोवंक लागले. ही नवी वाट दाखोवपी बरोवपी म्हळ्यार फेलीस कार्दोझ. तेंच गिरेस्त दायज घेवन, आलेक्स कविता बरयता ताजेर हिंदू कोंकणी कवीचो शाप दिसता हातूंत दुभाव ना. पुण हिंदू आनी किरिस्तांव समाजांक एकठाय हाडपी, सगल्याचे वळखीची, पुण नवे धर्तीची कोंकणी तो आपणायता. आलेक्स हाणें देवनागरीतलें कोंकणी साहित्य वाचल्लेंच पुण मराठी, हिंदी आनी संस्कृत ह्या भासांचोय ताणें अभ्यास केला. अशेंच सगल्यांनी केल्यार कोंकणी भाशेच्या मळार हिंदू आनी किरिस्तांव असो भेद उरचोना. पुण आपली भास अशी अखिल–गोमंतकीय करताना, आमका कोंकणी लोक–काव्याचो आनी हजारांनी घडिल्ल्या कांतरांचो विसराय पडूंक फावना. किरिस्तांव कवींनी मांडे, दुल्पदां, कांतरां हांचीय परंपरा

मुखार चलोवंक जाय. तरणो कवी तोमाझिन्यु कार्दोझ हाणें ती वाट धल्ल्या. आलेक्षम हो पिरायेन भुरगो तरी आपल्या जिवितांतले लिक–लिक उजवाड दिवपी कांय अणभवाचे काजुले ताणें ह्या पानांर शिपडायल्या.

ताजे वळींत उमाळयाची हूनसाण आसा तसोच बुद्धीचो उजवाड. भोंवतणची ढोंगा ताणें पारखिल्यां.

' देवाक धा नाल्लांचें गोडशें घाल, जीब लाळेल्या, देवाली काय भटाली ?'

' कित्याक अशें तोंड लिपयता, दुड्डू हातान व्हेले, हात लिपय !'

' ताजे तकलेर पांय दवरून, तो चलता, रस्तो फुडलो.'

' गरीबालीं, भाटां बेसां खावन, ' तो ' केस करता कोर्टांत.'

' पाद्री, शेरमांव सांगता, जुजेफीनाक, पळोवन.'

हो कवी अशे हे चिमटे काडटा.

पुण हो कवी तरणो म्हण्टकच मोगाच्या मोगांन पडिल्लो. आपले सपन सुंदरीक तो म्हण्टा :

' तुवें सदांच, लजेत रावचें, आनी हावें, तोखेत !'

आनी तो तिका पाचारता.

' मेळचें जाल्यार, यो एके काळखे राती, नखेत्रांच्या उजवाडांत, जीण फुलोवंक.'

आनी तिज्या रागाचोय ताका मोग.

' तुवें मोखलें रागान, हावें जिखलें मोगान.'

ह्या तरणाटयान जिविताचे बरे–वायट अणभव घेतल्या आनी शाणेपण जोडलां.

' घडून गेल्ल्या घडण्याचेर उजवाड कित्याक, घावो उस्नून दिस्टयो वेदना कित्याक ?'

अशे हे काजुले, झिगझिगोत, लिकलिकत, धाकटुलेच पुण काळोख उजळावपी आनी वाट सांसपितल्यांक, ' रस्त्यार हाडून सोडपी.'

एक रात अशी येवची असल्याच काजूल्यांनी उमाशेची, लख्ख पुनव जावची, तोमेरेन ह्या धव्या पानांवेले काजुल्यांक आमी तोखेन गावया.

O

**तुज्या मोगाखातीर**
**नारायण बोरकार**
**छाया ना. बोरकार**
1984

## दोन उतरां–वाचप्याखातीर

नारायण बोरकारान आपल्या काणयांचें हानाळें हाडून म्हाका वाचपाक दिलें– सुदारपाक दिलें. काणयो बऱ्यो आसात जाल्यारूच शापून उजवाडा हाडपाक.

नारायण बोरकाराची हांवें एकूय कथा वाचूंक नामल्ली. हांवें तें हानाळें काडून म्हजे बायलेकडेन दिलें. म्हजे बायलेक बरोवपाचो वाज पुण वाचपाची खूब आवड. हांवें मनांत थारायल्लें, त्यो काणयो बायलेक मानल्यो जाल्यारूच मागीर त्यो बारीक नदरेन पळोवच्यो, तांचेर सुदारपाचो हात भोंवडावचो.

व्हडव्हडल्या कथाकारांच्यो बऱ्यो, बऱ्यो कथा वाचून आमचे जिवेक माठो पडल्या, आमची नदर विश्व साहित्याच्या जाळचांत घुसपल्या. त्याभायर हांव एक शिक्षक. काणयेखातीर काणी वाचप आमच्यान जायचना. हे काणयेची भास कशी, तत्र कशें, ती आदर्श काणी काय ना अश्या प्रस्नांनी मन झिरकून उरता. मोपासा, गोर्की, मॉम, प्रेमचंद, फडके, खांडेकर, किशन चंदर, जुल्यिु दान्तश, हांची सांवळी मनार पडटा. ही कथा पोरनी– कथा, काय नव–कथा असो गोंदळ जाता– आनी मखार आशिल्ल्या, थळाव्या कथेची फाव ती रूच घेवप कडेक उरता. म्हणटकच म्हळें घरकान्नीच्या घराव्या रुचीचोच आदीं मान राखचो.

आनी घरकान्नीन सांगलें, ' नारायण बोरकाराच्यो काणयो म्हाका रुचीक लागल्यो.'

म्हजे बायलेचीच कसोटी लावन त्यो काणयो हांवें वाचल्यो. सर्व साधारण वाचप्याक त्यो मानवल्यो हांतूंन म्हाका दुभाव ना.

नारायण बोरकारांच्या काणयांची रूच ताज्या भाशेच्या साधेपणांत आसा. साडावळीच्या सहजपणांत आसा. जें पळेल्लां, अणभवल्लां तें मोडणां घेनास्ताना तो

सांगता. तो उतरांची कसरत करीना, भाशेक अळंकारांनी जड करीना. तो आपणाक कुशीक दवरून उलयता, बरयता. साइत्याची खरी भास पारदर्शक आसूंक फाव. भास दिसनासतना जिविताचें दर्शन घडूंक जाय.

नारायणाच्यो काणयो रुचीक– तांतूत जाय तितलीच मीठ–मिरसांग आसा. मचमचीत ससाल्यान जीब हुलपता. नारायण काळजाक हालयना. पुण उचांबळ करीना, कल्पनेक जागयता पुण मनाक दिपकायना. ताजो संयम कवतुक करी–सारको. खंयच पाल्हाळ ना, नाका जाल्लीं वर्णना ना, उपदेस ना, तत्त्वगिन्यानाचो आव ना, थोडयाच उतरांनी चड सांगप हो बऱ्या साहित्यकाराचो गुण कथाकाराक चड गरजेचो. तो गुण नारायणांत आसा.

अन्नाक रूच आसली म्हणून जायना तांतूत सत्त्व आसूक जाय. ह्या कथांत तें सत्त्वूय आसा. जिविताचेर उजवाड घालर आनी मनश्याच्या मनांतले एका-मेकांत घुस्पल्ले धागे विस्कटावन दाखवप हें साहित्याचें मुखेल कार्य– तेंच कार्य कथेचें.

नारायणाच्यो कथा अश्योच मनशाच्या मनांत रिगून मनाचीं कांय न सुटपी हुमाणीं मुखार दवरतात– मोगान पिशी जाल्ली मोगांन निराश जावन कशी खऱ्यानीच पिशी जाता ती काणी म्हळयार 'पिशें.' वयलेचाराक दिसता तें पळोवन, साहित्यकाराक समाधान जायना, मनशांच्या कर्तुपांचो मळसूद तो तांच्या मनांत सोदूंक वावुरता. 'प्रोफेसोर आर्मांद' हीय अशीच कथा. मनीस आपल्याच आपणाक कसो फटयना आनी ते फटीचेरूच आपली जीण कशी सारता तें हे कथेंत सांगलां, सुचयलां.

नारायण बोरकार– मनशाचें मन पारखिना तसोच झाडापेडांच्या, सुकण्या–सावदांच्याय मनांत रिगूंक सोदता. 'खन्त' हे कथेंत सवणी आनी रुख हांचो अप्रुप इश्टागत दाखयल्या. 'तामू' हे कथेंत एका पाडयाचें मन रंगयलां.

ह्या काणयांनी गोंयच्या जिविताचेंच दर्शन जाता. 'पिशें' काणयेंतलें गोंयचें देवूळ, 'ओढ' काणयेंतलें गोंयचें बालकांव मनाक ओड लायतात.

ह्या कथांची रूच घेवंक लावपाक आनीक उतरांची गरज ना. हीं दोनूच उतरां पुरो.

()

निरांजन
राम बा. प्रभू चोडणेकार
स्वस्तिक प्रकाशन, कुडचडें
1984

## वात पेटयतना

भुरगो आनी जाण्टो हाचे मदलें अंतर वर्सांचें न्हय तर वृत्तीचें. जाण्टेपणांत भुरगेपण राखना तोच तरणो. जिवितांत रम घेता, वावरांत उमेद भरशिता तोच तरणो. कपलाक मिरी पडल्यार जाता ती गिन्यानाची कुरू; पुण काळजाक मिरी पडूंक फावना.

निर्मिती हें तरणेपणाचें लक्षण. जो कलेक जल्म दिता तो सदांच तरणो उरता. कविता प्रसवता ताका म्हातारपण आपुडना. रामबाबांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार ' रान–वन पांचवें तें ओडलावणें. म्हातारपणय जाणवता तरणे कवितेचें रानूय अशें सदांच पांचवें आनी त्या रानांत पावल्यार मन सदांच तरणें उरता. मनाभाशेनूच, कवीची नदर तरणी आसता; सदांच तरणी आसूंक जाय. संवसाराकडेन नित्य नवे नदरेन पळेता आनी उतरांच्या आदारान ती नदर दुसऱ्याक दिता तोच खरो कवी. रामबाबा लागीं असली तरणी नदर आसा, असलें कंवळें उतर आसा.

रामबाब काव्याच्या वनांत म्हातारपणातूच पावल्यात अशें न्हय. तांची काव्याची ओड भुरगेपणापसूनची. शाळेंतल्या बांकार बसून लेगीत तांका कविता सुचताली. ते वेळची तांची ही एक वळ; ' आदा वांचुनी खर्च फार करीतां दारिद्र्य येई त्वरें ' आनी आतां जाण्टेपणांत पसऱ्याचे नांवीचेरूय तांका उतरां सुचतात. कारण, कविता तांचो धंदो न्हय, ती तांची वृत्ती. हे वृत्तीक लागून्च ते आतांय कविता घडयतात, जिवितांतली खोस वाडयतात आनी ती लोकांक वांट्टात. ' जीवनस्रोत ' (मराठी), उप्रांत 'उमाळो ' (कोंकणी) आनी आतां हो तांचो कोंकणी ' निरांजन ' झेलो...

मनीम जाण्टो जाता तसो ताका भुरग्यांलागीं संबंद जोडीन दिसता, ' निरांजनां'तली कवनां चडशीं भुरग्यांखातीर रचलेलीं, ' जीवनस्त्रोतांतल्यो ' चडश्यो कविता तत्वचिंतनपर, ' उमाळयां'तल्यो खूबश्यो कविता उमाळयान भल्लेल्यो. ही निरांजनाची वात भुरग्यांच्या दोळयांत उजवाडाचीं सपनां खेळयना.

उतर म्हळयार उजवाड. मनशाच्या मनांतलो काळोख उतरांच्या उजवाडा-नूच कुशीक सरता. उतर म्हळयार मनश्याच्या अणभवाचें भांडार. जिविताच्या वांकड्या तिकड्या, कांटयाखुटयांनी भरिल्या वाटेंन ल्हवपीक हातान पुंजायल्लीं अणभवाचीं उतरां. रामबाब उदारतायेन लोकांक वांटीत वेतात.

' एकीचें बळगें राखूंक
दीवंचें घेवंचें पडटा
नाजूक मोन्यो कळयो
खर वोतार बावतात ।। '

' धन, जीवन, नवलाय । खिणयालें हें जाण । अळंग मंग धरूनय । संसारा गणित माण ।।'

' संवसारांत फायचें चिंतता । तोच बुद्दीन भलो '

' बुद्द जेन्ना भश्टता, वायट बरें कळना, वेळ सोंपिल्लो प्राणी, कानार मनार घेना '

' सून आसली, मांय जाता
पूतय जाता बापूय
पोरनें नव्यान भरता
सुता फाटल्यान सूय '

असलीं शाणेपणाचीं उतरां रामबाब पोसो भरून ओंपतात. खोस गायता आनी नीत सांगता तेंच खरें गीत.

रामबाब कांय लोकां-काणयो आपल्या कवितांनी गुंथतात. ' शिवाचो वांटो ' आपणाक दवरून राजान केल्ले हे वांटे.

' मोर, मेरू आमकां पुरो । भोंवडे खर्चाक हरण उरूं
चानये करात तेरा वांटे । धा तुमचे म्हाका तीन उरूं ।। '

कोंकणी लोक-गीतांतल्या चालींचो उपेग करून ते आमच्या पोरण्या दायजा लागीं नातें जोडतात.

' अेक दीस बाग । आयिल्लो तानेन
उदक पियेवन । फुडें पळे ।।'

तशेंच ' कोणा एका काळा । वागोबाच्या गळया
खाणाच्या बोवाळा । हाड लागलें '

हांगा ' भोळी गाय ' चे लोक–कथेचो उगडास जाता. तांच्या गीनांतली उतरां चित्रां जावन मन भुलयतात;

' करमळेच्या तळयांत । मोठमोठी माळकां
चोंयशीं पातळ्ळयांत । बेबकांची बाळकां '
' दुदाचें तळें– साकरेचें आळें
बाय नवसाळें– गोरें न्हय काळें '
' दनपारांचो वेळ जाला घुल्ल तापला
झाडापेडार सांवळी ना सूर्य कोपला '

रामब्राव आपल्या कवितांतल्यान मोलाचो उपदेस करतात; आनी गोंय-कारांक तांचें हें माये–मोगाचें खाशेलें सांगणें;

गोंयच्या पुता खंय वता !
पोंटांजाळां पयस वतां
व्हडविकेचो देस तुजो
नामना उंच ताची दवर '
' गोंयच्या पुता कोंकणी बरय
कोंकणींतल्यान वेव्हार चलय
काळजा कोनसो अपुरबायेन
आवय भासेक राखून दवर '

रामभक्त कबीर लुगटां विणतालो. आनी विण्टां, विण्टां गातालो, आपलें जिवीत भक्तीन भरतालो. रामबाबांची पिराय लुगटां मापपान गेली. लुगटां मापतना ताणे काव्याचो आदार घेवन जिवीत मापलें. जाण्टे पिरायेर इश्ट – मित्र सोडून वेतात, भुरगीं – बाळां, मोयरीं धायगी पयमावनात पुणून लागीं केल्ली कविता निमण्या खिणामेरेन अंतर दिना. आकड्यानी मांडील्ले जिविताचें गणीत केन्ना, केन्ना चुकता. पुण जो उतरानी कवितेचें गणीन मांडटा ताज्या जिविताची तिजोरी सदांच भरून ओन्ता.

' या मुखवासी संसारांत, तूं तुज्या सुरांन गाय '

अशें रामबाब म्हण्टान आनी आपल्याच सुरांत गातात, आपल्या कवितेंत-ल्यान जिवीत सोदतात, जिवीत दाखयतात. ताचें हें कवीत काळजाक ऊब दिता, मनाक उजवाड ओंपता आनी जिवीताक वाट दाखयता.

ह्या निरांजनाच्या चौतीस वातींच्या उजवाडात तुमकां आमकां खोस मेळू ; आमच्या मनांत आवय भाशेचें गीत खेळू.

O

**वज्रथिकां**
सुरेश ज. बोरकार
राजहंस वितरण, पणजी
1985

## दोन थिकां

हांव सुरेश बोरकाराक वळखतां. पुण हांगा ताजी वळख करीना. तो केन्ना जालो, तो कितें शिकला, ताजो धंदो कितें, ताजें लग्न केन्ना जालें, ताजी जात कितें, ताजी लांबाय केदी, ताजें वजन कितलें, तो गोरो काय काळो हें हांव सांगीना.– सांगपाची गरज ना. ही सगळी माहिती पासपोर्ट करतना जाय जाता. आनी हें सगळें जाणा जावनूय मनशाची वळख जायना. सुरेश बोरकार हो कवी आनी कविता होय कवीचो पासपोर्ट.

सुरेश बोरकार हो अेक कवी–आमचे पोरणे परंपरेंतलो–संत कवींच्या परंपरेंतलो. तांचेभाशेनूच आपल्या अस्तित्वाचो सोद घेतना ताका वाटेंत कवित्व गावलां.

अशा लोकांचें अुतर तांचे कृतीत अुरता आना कवीची कृती ताज्या अुतरांत. पुण जेन्ना अशे लोक कवी जातात आनी कवी अशी वाट धरता तेन्ना अुनर कृती जाता आनी कृती अुनर. अशा कवींचें कवीत आनी जिवीत हीं अेकरूप जातात.

ह्यो ल्हानशोच कविता. ही थिकां पुण वज्राचीं. ह्यो कविता जितल्यो साद्यो तितल्योच अुत्कट. काळजाचे गर्भकुडीन जल्मल्ल्यो. हेरांच्या काळजाचो थाव घेवपी. सुरेशाची कविता वाचून मन सुखावता, भारावता आनी अस्वस्थूय जाता. हीं वज्रथिकां कठीण. तातूंतल्यान सत्याचो अुजवाड फांकता. सुरेशाच्या अेका अेका अुतराफाटल्यान अेक अुमाळो आसा, अेक विचार आसा, अेक अणभव आसा. हो अणभव जितलो संवसारीक तितलोच अध्यात्मिक.

संवसाराचे बरेवायट अणभव भोगून जेन्ना मनीम आपले भितरुच रंगता, आत्मानंदाच्या ल्हारार तरंगता तेन्ना अशीं अुतरां सहजनायेन भायर येतात.

सुरेश म्हणटा :

आतां
म्हजे जिणेंत
कितें अुणें ?
सुखाचें येणें
आनी
सुखाचें देणें.
... ... ... ... ...
म्हजे जिणेचो पेलो
आतां
सुखाच्या अमृतान भल्लो.

भोंवतणच्या जीवमात्राचीं दुख्खां आपल्या हाडामासांत सोंसना तेन्ना अशा मनशाचें मूळ आनी कूळ परदुख्खाचे भुंयेंत सोदून काडचें पडटा. सुरेश म्हणटा :

लाख दुखांनी आमी कश्टी
आमकां जन्मतांच मरणगती

सुरेशाचो पिंड पंडिताचो आनी आत्मशोधकाचो. अंतर्मुख पुण आळशी न्हय. सतत वावर करपी पुण वावरांत घुमपून अुरपी न्हय. जिविताच्या अिंद्रधणूच्या रंगांतल्यान तो सत्याचो रंगहीन अुजवाड सोदता. शुन्यांत विश्व पळयता. शून्य जावन विश्व जाता. सगळें मेळूंक जाय जाल्यार सगळें सोडून वचूंक जाय हो विरोधाभास ताका समजला. पुराय भरूंक जाय जाल्यार पुराय रितो जावंक जाय हें मत ताका कळ्ळां. हजारांनी वर्सांआदीं चिनी तत्वगिन्यानी लाओ-त्से हाणी हेंच मत मांडलें. कांचेच्या पेल्याचें म्हत्व कांचेंन ना पुण भितर आशिल्ल्या रितेपणांत. तशेंच मनाचें म्हत्व ताज्या रितेपणांत आसा. जें रितें आसा तेंच भरूंक येता.

सुरेश म्हणटा :

मरण
म्हजें जीवन
आनी हें सगळें धन
अेक शून्य
परिपूर्ण.

मरण म्हजें जीवन अशें जो म्हणटा तोंच खऱ्यांनी जियेता. खिणाखिणाक सुवार्थाक, अहंकाराक, अुगडासाक मारूंक जाय. दर खिणाक प्राण सोडूंक जाय तेन्ना नव्या जिविताचें अलोट त्राण मेळटा. जेजुअित पंथ स्थापन करपी संत अिग्नाशियुस लोयोला हाजें ब्रीदवाक्य अशेंच आसलें. मेल्ल्याभाशेन जा. जो

तुकारामाभाशेन आपलेंच मरण आपुण पळयता तोच अखंड जीवन जियता.

अशा लोकांची जीण ही अशी पनेळाभाशेन. पनेळ अुदकांत आसता पुण पनेळांत अुदक नासता. संवसारांत रावन संवसाराक आपले भितर थारो दिवप ना हें गुपीत सुरेशाक कळ्ळां. अशे हे लोक जिणेंत आसून जिणेभायरे. सुरेश म्हणटा :

तो जीव
जो अजीव
तोच म्हजो सोयरो
देखून हांव
असो जीणेभायरो.

जिवीत ही अेक यात्रा. अध्यात्मिक कवीत हीय अेक यात्रा. सगळयांत अुंच अशे सुवातेर व्हरपी :

सर भायर
राव अुबो
बिश्वाच्या तेमकार

निमाणें आत्मज्ञान हेंच खरें ज्ञान. पुर्विल्ले ग्रीक संत म्हणटाले : Gnothi seaton आपले आपणाक वळख. आनी फ्रांसेज बरोवपी राब्ले म्हणटालो : ‘ Science sans conscience n’est que ruine de lame’ ( आत्मज्ञानाबगर ज्ञान म्हळ्यार आत्मनाश ) आत्मज्ञान म्हळ्यारूच ब्रह्मज्ञान. जिवात्मो परमात्मो जाता. घर हें बिश्व मानपी विश्वाक घर मानूंक लागता. जेन्ना मनीस असो ब्रह्मांत विरता तेन्ना तो म्हणटा : ‘ म्हजेंपण आतां म्हजेकडेन ना.’ ज्ञानेश्वराभाशेन ताका दिसता, ‘ हें विश्वचि माझें घर.’

सुरेश म्हणटा :

बिश्वांतलीं सगळीं भुरगीं
म्हज्याम्हज्यांत
म्हजींच

जेन्ना आत्मो आत्म्याक वळखता तेन्ना देहाचीं सगळीं बंधनां तुट्टात. जीव मुक्त जाता. आनी मुक्तता म्हळ्यार आनंद.

आनंद !
काय दिकानी आनंद !
तुट्टात जेन्ना देहविदेहांचे बंध.

हो आनंद म्हळ्यारूच खरें गिन्यान. मनशाची खंत, मनशाचें रडप, मनशाचें दुख्ख हें सगळें नेणारपणाक लागून.

आमीच नकळं
आमी रडटात
कोणाच्या शिणांक.

अंतिम सत्याचो जेन्ना दिश्टावो जाता तेन्ना असल्या मनशाचें वैभव कसलें ? तें शब्दांनी मांगप कठीन तरी सुरेश अुतरांचो आधार घेता :

आमचें तें वैभव
आमीच जाणात
सुखाचें नंदप
सुखाच्या खिणांत

गिन्यान, सुख, मोग, ही सगळीं अेकाच चिदानंदाचीं रुपां. सुरेश म्हणटा : तो मोग.

आकांताचो घोगो.

आपूण कितलो ल्हान हें जाका कळटा ताकाच व्हडपण प्राप्त जाता. सुरेश म्हणटा :

कित्याक खूण
वचूं दवरून

पुण खूण दवरपाची गरज ना. खूण आपशींच अुरता. आनी तिका न दवरप हें कोणाच्याच हातांत ना. आपल्या जिविताची खूण, आपल्या आत्म्याची खूण सुरेशान आपल्या काव्याच्या अुतरांनी दवल्ल्या. आपल्या भुरग्याच्या रगतांत दवल्ल्या. मनशाचें जिवीत आनी विश्वाचो व्यापार हीं अशीं अेकामेकांत भरसल्यांत.

' म्हगेर जेन्ना चन्नी जालें तेन्ना आदिमाया जावन ह्या विश्वांत हांव सासणाचो अुल्लों.'

जिविताचें मर्म मेळप, विश्वाचें गुपीत कळप हें व्हडलें भाग्य. जें अुतरांनी सांगूंक येना तें अुतरांनी मांगप हें कवीचें कार्य. ' सूर्यबिंब वचकायेवढें /परि त्या ब्रम्हांड तोकडें ' हांगा अुतर सूर्यबिंब जावन सगळें मळब भरता.

ह्यो धाकट्ल्यो कविता. अुतरांनीच भरिल्ल्यो अशें न्हय. हांगा शांततेकूय वाचा फुटिल्लेभाशेन दिसता. हांगा अुतर आत्म्याचो हुस्कार जाला. अुतराचें थरथरपी ताणिल्ले तारेर हीं चिंतनांची मुकणीच बसल्यांत, पांखां हालयत केन्ना मळबांत रिगत सांगूं नज.

म्हज्या अुतराचो आधार घेन हांवें तुमकां देगेर हाडून सोडल्लें. आतां ह्या कविता दर्यांत तुमी खुशाल पेंवचें, न्हावचें, निवळ नितळ जावचें, ल्हाराभाशेन जावचें. ' ल्हाराभाशेन कळनाशिल्ले अथांगतेंत ' विरून वचचें.

O

**गीत गंध**
**भरत नायक**
**नामी प्रकाशन, व्हडलें गोंय**
1986

## भरत–वाक्य

नट, नाटकां बरोवपी, नाटकां बसोवपी, उलोवपी आनी कवी–भरत नायकाचीं हीं तरेकतरेचीं रूपां. ताजो फाटलो कवितां झेलो 'मना मना' हो वाचपाचो आसलो, चिंतपाचो आसलो. आयच्या 'गीतगंध' ह्या झेल्यांतलीं चडशीं गीतां फकत ल्हव वाचपाचीं न्हय तर व्हडान गावपाचीं. कवीत जेन्ना गीत जाता तेन्ना स्वरांचो गंध कानामनांत फांकता.

'मना मना' चो कवी हांगा जनाजनाचो जाता. लोकांचे उत्फरके, हावेस, किवाटे उक्ते करता : केन्ना मोगान, केन्ना रागान.

' पावसा,
तुजें उदक
हे जमनींत जिरय
आनी पांचव्या पानांत केळय '
' मनीसपणा वागणुकेन मनीस आमी जोडटले '
'गोंयच्या तालान गोंयच्या रागान गोंयचें सैम धोलयन दिसता'
' भुंयेन म्हजे वाटसुर्‍यांक भोंवपाखातीर वाटो दिल्यात...
दुस्मानाची बोडां फोडूंक माडायेझो गदा दिल्यात '
' तीं विखयाळीं बियां
आमी खणून काडलीं
आनी मोखून माल्लीं
तीं बियां तो घेवन आयला
ताका तीं सकल उडोवंक दिवं नाकात '

आयच्या तरनाटयांचो सात्विक संताप असो हो खर उतरांनी धगधगता.

गोंयच्या अेका तरण्या पुताचें हें तरणें गीत गोंयच्या मोगान थपथपलां.

‘ भांगराचें कूप जावन
गोंयचें माथें सजयन दिसता
उटंगरा पावस जावन
गोंयचे भुयेंत रीगन दिसता ’
गोंयच्या मोगावरीच देशभक्तीन हें कवीत लल्लनना :
‘ देश भांगराचो, आमचो देश भांगराचो
हावेस दोंगराचो, आनी हात नांगराचो ’
‘ पावला पावलाक गायता आमी भारत मातें गीत
गायत गायत हें राज चलोवच्याक तरणी पिळगी धीट ’

देशाच्या मोगाइतलोच ताका मोगाचो मोग केन्ना हांसपी, केन्ना रडपी; आनी मदांच सैमाचे सोबायेन भरशिल्लो, विरगळिल्लो :

‘ जगलातणें मळबांत
जिणेंत म्हजे तूं
दर्या उदक शांत
तांतूंत ल्हार तूं ’
‘ म्हज्या पुस्तकाच्या
सोळाव्या पानार
तुवें हळूच हाडून
पिंपळाचें पान दवरिल्लें.’

मोपिल्ल्या मोगाचें, सांगाडो जाल्ल्या मोगाचें हें जाळयें–भित्र काळजाचो जाळी केल्याबगर रावना. तसोच हो जीवघेणो मोग ‘ मिशीनां ’तल्लो.

‘ आनी मिशीन बसोवन आयलें
पुण तुजे ओसाडीन
म्हजें व्हडें बुडलें ’
‘ ती व्यथा
मनकथा
सकल रकय
तुजीं उतरफुलां... ’
‘ तुवेंच चलून केल्ले वाटेर
पावल सांवरना ’
‘ तुवें केल्लो घाय
म्हाका जिवो जाय ’

मोगाचो जीवो घाय रक्ताळ उतरांनी चितारप भरत नायकाक जमता तशें थोडयांकूच जमलां. ताज्या देशाच्या मोगापरस हो मोगाचो मोगूच काळीज हालोवणो, मन भुलोवणो, दूख जागोवणो. काव्यांतलो मोग जितलो कोडू. तितलोच तो गोड.

कवी म्हणटा :

'जाण्या सपनांत रात म्हजी सरली अशी तेलाविणें वात जळजळली '

वाचप्याचीय रात अशीच सरता. तेलाविणें वात जळजळटा.

ह्या काव्यांत मोगाचो घाय जळटा तसोच सैमाचोय रंग परमळटा :

' खीणा खीणा रंगता पळे
मेळ कोरांचो
बाबा मेळ कोरांचो '

ह्या कवींत अेक नट लिपला. नट अभिनय करता तो लोकांपासून. भरत नायक गायता तो लोकांपासत– माचयेर रावन. विसरूंक फावना कि ताजी दुसरीच कविता ताणे रंगमाचयेक ओपल्या :

' जय माते जय रंगदेवते
सेवेक तुजे आमी रावले उबे '

भरत नायक जिविताचे माचयेर उबो रावन लोकगीतां म्हणटा, कांतरां म्हणटा :

दर्या देगेरू, रेयेंत बोसोनु
फोकोत देखीतां
रे बाबा
फोकोत देखीतां '

' काजार जायना जायना म्हुणोन चाळोवंक लागलो गांव
लजेक म्हारग नाका म्हुणोन काजार जालो हांव '

केन्ना केन्ना कवी अंतर्मुख जाता आनी वाचप्यांकूय अंतर्मुख करता :

' हांगचो मोग
हांगाच राग
हांगचो रोप
हांगाच दाग
हांगचो गोबोर
हांगाच कोयर
हांगचो धुंवर
वयर वयर '

अशी ही कविता तरेकतरा रंगगंधाची, तरेकतरा रुपांची. गोंयचो मोग, सैमाची ओड, अस्तुरेचो मोग, जिविताची खोस, संवसारांतली निर्शेणी, रागाचो किवाटो ही सगलीं हे कवितेंत होल्मनात. सगल्या कवितांक अेकाच जोखान जोखप कठीन. कांय उत्तम, कांय बऱ्यो, कांय अशो–तशो, अशो ह्यो कविता. कांय कानाक भाळोवपी, कांय दोळयांक दिपावपी, कांय काळजाक हालोवपी, कांय मनाक चितूक लावपी. आनी सगल्यांतल्यान दिश्टीक पडटा कवीची विविध रंगी, विविध ढंगी अस्मिताय– गोंयचे अस्मितायेचो अेक भार, कोंकणी अस्मितायेचें अेक ल्हार.

O

**चान्याचे राती**
**उदय भेंब्रो**
**अपुरबाय प्रकाशन, वळवय**
1986

## पांच पानां

'चान्याचे राती'चेर बरोवपाक चान्याचीं उतरां जाय. तीं खंयचीं हाडूं? चंद्रिमाचो अुदय जाय म्हणसर रावं काय विजेच्या दिव्याच्या किर्णांन लेखणी बुडोवन बरोवं? फाटलीं वीस वर्सां सगळें गोंय आनी हेर कोंकण चान्याचे रातीच्या तालार गायता आनी नाचता. ह्यो चान्न्यो राती चितारपी कवी कमी आसत! कवीत म्हळ्यारूय अेक चित्रूच. चित्रांच्या रंग-रेगां फाटल्यान कवीचो चेरो दिसले बगर रावना. अुदयाचें चित्र कशें काडचें तेंच कळना.

गोंयचे अस्मितायेचेर जीवघेणो आघात जालो तेन्ना भंयभिरांत धरिनासतना गोंयचे भुंयची राखण करपाक ब्रह्मास्त्र सोडपी तेजिश्ट परशुराम- अुदय! शापादपि शरादपि .. हातांत शस्त्र आनी ओंठार मंत्र आशिल्लो. थांबनासतना, आडखळ नासतना निजाचे कोंकणी अुतराचे घमघशीत घोगे सोडून आयकुप्याचें काळीज न्हाणोवन सोडपी- अुदय. आपल्या तर्कशुद्ध विचारांनी आनी मार्मिक मुद्द्यांनी वितंडवाद घालप्यांचें खंडण करून तांचें गर्वहरण करपी- अुदय. जाणट्यां कडेन, गुणेस्तांकडेन ल्हव ताळ्यान नमळायेन अुलवपी- अुदय. आपल्याच हातान पत्रान पत्रां बरोवपी, पुस्तकां सोदपी, प्रुफां तपासपी, कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष- अुदय. कोंकणी पाठ्य पुस्तकां, व्याकरण, शब्दकोश हांची तीख नदरेन चिकित्सा करपी- अुदय. त्रिब्युनालार आपल्या पुराव्यांनी विरोधी वकिलाक तोंडांत बोटां घालूंक लावपी- अुदय. गोंयचे विधानसभेंत आपल्या स्पश्ट आनी नेटाच्या अुतरांनी सरकाराच्या वावरातल्या अुण्यांचेर झगझगीत अुजवाड घालपी- अुदय. चान्याचे राती अिश्टावांगडा आपल्या म्होवाळ गळ्यान सिनेमांतलीं पदां म्हणपी- अुदय. अुदयाचे अस्मितायेचीं हीं सगळीं तासां अेकाच वेळार चितारप भोव कठीण. अुदयाचीं तरेतरेचीं रूपां : अुदयाचो आवाज अिश्टांमजगती आयकूंक

येना. पुण अेकदां सभेचे माचयेर चडलो की तो वागाभशेन गरजता, सगळो वाठार थरथरायता :

' वज्रादपि कठोराणी मृदुनि कुसुमादपि '

' लोण्याहूनि मऊ आम्ही विष्णुदास कठीण वज्रास भेदू ऐसे '

हें अुदयाक लागता तशें आनीक कोणाक लागना. ताचें अुतर केन्ना अुदक, केन्ना अुजो. केन्ना कळो, केन्ना भालो. केन्ना वोत, केन्ना चान्ने. जितलो कोंकणी तितलोच मराठींत पारंगत. जितलो कोंकणीत खांपो अुलवपी तितलोच मराठीत खदा वक्ता. कोंकणीची तरफदारी अितल्ले तडफदार मराठींत आनी कोणें केल्ली दिसना. अुदयाचें जिवीत धक्याचपाट्यांतूच गेलें. भुरगेपणांतूच बापायक हद्दपारी. बापायचे मायेची सत्री नासताना जिविताच्या खर मड्यार ताचें भुरगेपण हुलपलें पूण करपलें ना जिविताचें वोत पिवन चडूच निवर जालें. हें वोत पिये पियेतूच अोंठार चान्न्याच्यो राती फुल्ल्यो.

गोंयच्या मळबाचेर अुदयाचो अुदय अपूर्वूच! व्यसनाचो वसो ना, सुवार्थाचो वास ना, हावपणाचो हावेस ना. अन्यायाचो प्रतिकार करपी, गरजवंताक हात दिवपी, पडिल्ल्यांची सेवा करपी, निवळ नितळ हारसो कसो! देखदिणो तरणो कसो आसचो अशें कोणेय विचाल्ल्यार अुदयाकडेन अेकूच बोट न्हय, पांचूय बोटां दाखोवं येत. अोंठार गीत, काळजात प्रीत आनी हातान नीत आशिल्लो हो कवी, फुडारी आनी वकील.

अुदय कथाकार, पत्रकार, नाटककार म्हणून लोकांमुखार आयला. अुदयाचो हो पयलोच कविता झेलो.

नाव जरी ' चान्न्याचे राती ' आसलें, तरी हातंतल्यो सगळ्योच कविता चान्न्यावयरी शिवळ नात. भितर कांय कविता आसात वोताच्या हुलपाच्यो. तशें म्हळ्यार चान्न्याची रात धर्तरेर अोतपाक चंद्रीमाक सूर्याचे रखरखीत वात सोंसचें पडटा.

गीतकार आनी कवी असो फरक हांव मानीना. आनी तसो मानचो न्हय अशें म्हाका दिसना. म्हज्या मतान सगळ्यांत श्रेष्ठ कवीन अेक तरेचें गीत आसूंक जाय. पुण संपादकान हांगा गीत आनी कवीन हाचे दोन कुणगे केल्यात. बारकायेन वाचल्यार अुदयाची प्रतिभा ताच्या गीतांतूच सहजतायेन आनी खोलायेन प्रगट जाता. ताच्या कवितांचेर हेर ल्हान व्हड कविची शाप पडल्याशी दिसता. गीतांत मात अुदय आपल्या खाशेल्या आनी निजाच्या गुणान परजळटा.

कवी म्हणून अुदयाक लोकप्रियता मेळूंक ना. पुण गीतकार म्हणून ताचीं गितां जाणट्या नेणट्याच्या, हिंदू-क्रिस्तांवाच्या अोंठार घोळटात. तीं अितलीं अोंठार घोळटात की, जायत्या जाणाक तीं गितां अुदयाचीं हें खबर नासता. गिताचे

लोकप्रियतेफाटल्यान गीतकाराचें नांवूय लिपून वता. जेन्ना अशे घडटा तेन्ना तीं गीतां लोकगीतां जानात. अशा लोकगीतांचो गीतकार जावपाचें व्हडलें भाग्य अुदयाक लाबलां. 'चान्याचे रानी,' 'येवचे तुवें,' 'याद घडी घडी,' 'गोंया तुजी याद येता,' 'हांव बाबा न्हवरो,' 'आनी मात्मो राव' हीं सगळी गीता म्हळ्यार कोंकणी भाशेच्या सोबायेचो, म्होवाळपणाचो अप्रूप असो अंकार. गद्याचे तीन गुण म्हळयार नाद, चित्र आनी अर्थ. ह्या तिनूय गुणानी हीं गीतां अपाट भल्यात. तांच्या नादाचो ताल जमो मनांत घुमता तशीच तांची चित्रां दोळ्यांत अुमतात आनी अर्थ मनात रिगता. ह्यो काय नादमय, अर्थमय आनी चित्रमय अशो ओळीः–

' अश्रुपांचो कांटो आंगार
अुमाळयांचीं फुलां मनार '
आनी
' श्वासांच्या वासांतूच रंगला पळे डाव
खिणयाळीच आयची रात
फायच्यो राती सोंपच्यो नात '
' आज घरा येतली कळा
कुळारच्या रे अुड मोरा
पायणो नवो हांसता घरांत
रावतां दोगां येवकाग ! '
' येवचें तुवें काळखे राती
न्हेसून शालू काजुल्यांचो
नक्षेत्रांचीं मोतयां शींपीत
व्हलैत पोनेळ चंद्रिमाचो.'

आनी लग्नाच्या, हळदी कुंकमाच्या रंगान रंगयिल्लें ह न्हवऱ्याचें चित्र काळजांत खातखुतल्यो करता :

हांव बाबा न्हवरो नांव म्हजें साजरो
पलतडीं लग्नाक वेतां
खोशेचो वझरो, तोंडान हांसरो
म्होवाळ ओंठार गीतां.

पुरुषोत्तम शिगबाळाचो जसो गद्यातलो भावोजी तसो अुदय भेंब्राचो हो न्हवरो.

कालच्या आनी आयच्याबी कोंकणी कविंचो अेक गुण म्हळयार ते कविता रचपी तशेंच ते गीतां घडवपी. गीतांतल्यान कवीत लोकांकडेन पावता. गीतां-

नल्यानूच कवीत लोकगीतांचें आमचें पुर्विल्लें दायज सांबाळून दवरता. पुण कवीन फकत गायनूच रावचें आनी फुनफुनचें न्हय अशें बंधन कोण घालतलो ? चान्न्याचे रातीं अुतरां नाचतात तशींच तीं आपल्या लागींच ल्हवल्हव फुतफुततात. कवी आपलेच भितर नदर मारून आपलेच लागीं अलयतात. सुख गावन दाखोवं येता, दुख कशें गावन दाखयतलो ? दुख सांगपाक अुतरांचो सूर बदलचो पडटा. सुखाचे सूर आपशींच कानार पडटात. दुखाचे सूर कान दिवन आयकूचे पडटात. आपल्या काळजांनलें दुख अुदय जेन्ना सांगूंक वता तेन्ना ताजीं अुतरां जड जातात, खर जानात. घुमटाचो मधुर ताल वचून, काळजाचे मतारेची तार थरथरून दुखेस्त स्वर कानार पडटात. अुदयान जिविताचो अुजो जायतो सोंमला जावंक जाय तरी होमखणांतल्या जाये फुलावरी तो हांसत रावला. परमळत रावला. भितल्ल्या मनांतले अुमाळे, अुत्फर्क काव्यांत दिश्टी पडचे नात तर खंय दिश्टी पडटले ? चान्न्याचे शितळ रातीं कवीच्या मनांतल्या धगधगींत अिंगळयांच्या धगाचो हुलप वाचप्याच्या काळजाकय मात्सो लागल्याबगर रावना.

हांव जगलों
जितो आसूनय मेल्लेवरी
वेनुल्लेचे जिणेवरी
सोयऱ्यांच्या संवसारांच्या
फुलत्या फळटया रूखांचेर
विर्जण घालीत दळीद्राचें
हांसत्या तांच्या सुखांचेर

अुदयाचे अभिमताये बशेनूच अुदयाच्या काव्याक नरेकनरांचे सूर, नरेकनरां रूपा. ताच्या काव्यांत मोग, सैंम, देशभक्ती, गोंयची ओड सगळे विशय होलमनात. मोग कसो जाना आनी फुलता हाची सुलूम ह्या ल्हवपीक अुनरांनी लागता :–

आमी–तुमी पैल्या दिसा
दुसऱ्या दिसा नांवान अुलो;
आरे–तुरे तिसऱ्या दिसा
चौथ्या दिसा पिसो गो केलो.

आनी गोंयचे ओडीन भरिल्लें हें अमुरपिकें चित्र :–

सूर्य गेला पलतडीं चंद्र आलतडीं
आमोरी अमुरपिकी याद घडी घडी
पांचव्या चार शेंतार ल्हार
सूर तुजो येता येता

अुदयाच्या गद्यांतलो नेट देशभक्तीच्या रुपान केन्ना केन्नाय काव्यांतूय असो दिश्टी पडटा :–

शस्त्र पुरो हें निर्धाराचें भस्म करतलें आक्रमकांचें

जसो बाकीबाब ' सासाय ' कवितेंत गोंयच्या नव्या फुडाऱ्याची वाट पळयता तसोच अुदय ' जवाहरा, तूं येतलो ' हे कवितेंत नव्या फुडाऱ्याक आंबडेता.

घेवन नांगर
कसूंक शेतां, पिकोवंक पिकां
घामात तुज्या
तुजोच गोबर
भरसून जाल्ल्या साऱ्यांतल्यान
येतलें कणस
शांतीचें अन्नाचें
पोट भोरूंक लाखांचें
दायज राखूंक देशाचें...

आनी ' गोंयकार भावा ' हे कवितेंत तो गोंयकाराक शिटकायता.

पांगरून कित्या बसला राया
देवान दिल्ले पांय– हात ?
दुसऱ्याचेर विस्वासून
करून आपलो भेवशी घात !

अुदय जांबावलेचो. जांबावले श्री दामोदराचें आगर. अुदयाच्या काव्यांत देवाची भक्ती फुल्ल्याबगर कशी रावत ? देखून तो देवाक अशें गाराणे घालता–

तुजे भेटेक आयलां देवा
म्हजी आगळी घेवन सेवा

आवय भुंयची, आवयभाशेची, देशाची आनी देवाची अुदयान केल्ली सेवा खऱ्यानीच आगळी.

म्हाका जशी जाली आनी दिसली तशी ही अुदयाची आनी अुदयाचे कवितेची वळख. चान्याचे रातीतलीं काव्याचीं फुलां फुलून दिसचीं म्हणून ही म्हजीं गद्याचीं गंध नाशिल्लीं पांच पांचवीं पानां.

O

जैत
प्रभाकर तेंडुलकार
अभय प्रकाशन, म्हापसा
1986

## मांडवीचे पलतडीं

मांडवीचे पलतडीं कोंकणीच्या पोरसांत प्रभाकर तेंडुलकारान जायत्यो रोंपयो रोयल्या, तांकां खत—मारें घालां. त्या रोपयांक फुलिल्ली हीं फुलां—तरेकतरा रंग—रुपाचीं पुण एकाच कोंकणीच्या मोगाच्या परमळाचीं

तेंडुलकार हो जसो पत्रकार तसोच कवी. बारा वर्साचें तरणे पिरायेर ताणें लिखणी हातांत धल्ली आनी आपले नवे विचार ' अ व्हांगार्द ', ' प्रजेचो आवाज ' ' वावराड्यांचो अिस्ट ', ' संतोम ', ' चाबूक ', ' गुलाब ' ह्या नेमाळ्यांतल्यान माडले. १९५४ वर्सा सुरू जाल्ल्या ' अ व्हांगार्द ' साताळ्याच्या कोंकणी विभागाचो संपादक जालो. धा वर्सा हो मोगाचो वावर ताणें बरे तरेन चलयलो. १९७९ वर्सा ताणें ' गोंयकार ' हें साताळें सुरू केलें. त्याच वर्सा ताणें रोमी बरोवप्याचें ' कोंकणी केंद्र ' स्थापन केलें. अजून मेरेन ह्या केंद्राचो अध्यक्ष तोच जावन आसा.

ताजीं कांय पुस्तकांय उजवाडाक आयल्यांत : ' तीन नियात्र तेरा कविता ', ' गुलाब ', ' मात प्रस्न '. पणजी आकाशवाणीचेरूय ताजी जायतीं उलोवपां जाल्यांत आनी जायतीं गीता आनी श्रुतिका.

तेंडुलकार हो चडकरून रोमी लिपी वापरता. पुण लिपीचो भेस बदललो म्हणून भास बदलना. कोंकणी ही कोंकणाची भास सगल्या धर्मांक, जाती-कातींक एकठांय हाडटा. तेंडुलकाराच्यो ह्यो कविता रोमी आनी नागरीचो भेस घालून आयल्या, सगल्या कोंकण्यांक एकठांय हाडपाक कवीचो आवय-भाशेचो मोग असो उक्तो जाता :

' मोवीन, सुंदर आनी रमाळ भास आमची कोंकणी
संस्कृतीचो ती धूव, मानून घेतल्या जाणारानी

तिची व्हडवीक गायल्या आमच्या जाणार पुतांनी
तिचे वरवींच अेकवटान फुडार घडयतले आमी.'

आनी कवी फुडार पारखून मुखार म्हण्टा :

' गितांच्या संगितानी ती आमच्या काळजांत नाचयल्या
हिच भास आतां आमचे राज घडोवपाक तयार जाल्या '

ह्या कविता -फुलांच्यो पाकळचो गोंयच्या मोगाच्या दंवान थपथपल्या, जड जाल्या :

' गोंय म्हजें जिवा परस व्हडलें
ताज्या जैताक दितां जिवित सगळें.'
' निळया रात्री नखेत्रांनीं मळब फुल्लेलें
सात रंगांनी गोंयचें चित्र रंगलेलें.'

गोंयच्या कुळागराचें हे एक मन भुलोवणे चित्र :

' पांचव्या म्हज्या कुळागरांत
शांतीची रे नंदता भास
जाया-जुयांचो सगळयाक
पडला रे घमघमीत वास '.

आनी गोंयची सोबाय तो ल्हवपीक उतरांनी अशी चितारता :

' सुपुल्यो मुड्डयो, व्हड दोंगर, सोबीत झाडां
दिपकायतात, पिसायतात, मोवळायतात आमचीं काळजां
सुपुल्लेच उदकाचे व्हाळ, तशो लांब रुंद न्हंयो
लकलकतात, मुरगट्टात शितळ चांदण्याच्या उजवाडान '

गोंयचे सुंदर भुंयेर आवय-भुंयेक त्राम दिवपी जल्मल्या हें पळोवन कवीक खंत भोगता :

' पुण कांय पूत विचित्र निपजतात
जे आवयक दुकांनीं रडयतात '.

गोंय आनी कोंकणीच न्हय तर हेर जायते विशय ह्या काव्यांत होलमनात : जिवीत, देव, सैम, मन.

हीं कांय काव्य-रुपी चितना :

' सुपुल्ले पाखे म्हयने मेजीनात
ते मेजतात फक्त खिण
तरुय तांका वेळ मेळटा
मेकळेपणांत सारुंक जीण. '

' मनशा, मातयेचो तुका रचला आनी मातयेतूच तूं वेतलो
गिरेस्त–दुबळो हाचे भितल्लो कसलोच वेमळोचार ना जातलो.'

' आमी सगळे आशेचे
कुडी–सुख भोगपाचे
नकळटाना सगळे रे
मसूंडेच्या वाटेचे.'

हें काव्य देवाच्या राज्याभाशेन :

' देवाच्या राज्यांत
दुदाची न्हंय
जाय तितलें पिये
कोणाचोच ना भंय.'

ह्या काव्याची रुच आतां वाचप्यांनीच घेवची– म्हज्या गद्य उतराचे नडीर रावन.

()

**सोंश्याचे कान**
**चा. फ्रा. देकोश्ता**
**जाग प्रकाशन, प्रियोळ**
1988

## सोंश्याचे कान : एक नवें पान

' Poetry lifts the veil from the hidden beauty of the world and makes familiar objects as if they were not familiar. '

SHELLEY

सोंश्याचे कान सगल्यांनी पळेल्यात पूण जेन्ना आमी ते कविच्या दोळ्यांनी पळेतात तेन्ना ते वेगळेच दिसतात. सृष्टीचेर संवकळेचो धुल्ल बसला तो पुसून उडोवन ती नवी ताल्ल कशी करप हें कविचें एक कार्य. हेच पासत कवीक परतून परतून भुरगो जावंचे पडटा– भुरग्याचे नदरेन विश्व पळोवपाक. भुरग्याची नदर खरी पूण उतर मात जाण्टयांचें जाय. शेंकडयांनी वर्सां जाण्टयांनी घडयल्ल्या भांडारांतल्यान कवी जाय तें उतर, जाय तीं उतरा घेता आनी आपले नवे मांडा-वळीन तांकां नवें रूप दिता—अपूर्प रूप.

चा. फ्रा. द् कोश्ताच्यो कविता वाचताना उतरांचे आनी चित्रांचे नवे सृष्टींत प्रवेश केल्ले भाशेन दिसता. खरो कवी परमेश्वरान केल्लो सृष्टीचे निर्मितीचो वावर मुखार व्हरता. स्फुर्ती देवते कडल्यान स्फुर्ती घेवन तो वाचप्यांक स्फुर्ती दिता. पोरणें घेवन तो नवें घडयता.

' सोंश्याचे कान ' म्हळचार कोंकणी काव्यरुखावेलें तिर्कातिकीत नवें पान.

मुंबयचे आकाशवाणीचेर पंचवीस वर्सां आदीं चा. फा. क पळेलो आनी आयकलो तेन्ना एक नवो कवी, खरो कवी भेटिल्ल्याचो आनंद जालो. कवितेंतल्यान जिविताची खर दाखोवपी मनीस मेळिल्ल्याची खोस जाली. त्यावेळार म्हजो इश्ट विष्णू नायक म्हजेवांगडा आसलो. चा. फ्रा. ची ' खरस ' ही कविता आयकून आमी मनांतल्या मनांत खर्शेले आनी हर्पले. कवीन चित्रायल्लें दुख्खूय सुखावरी गोड लागलें.

चा. फ्रा. ची मदीं मदीं भेट जायत रावली. मंगळुरांत, गोंयांत आनी बेंगळुरांत. बाकीबाबांची कविता जशी बाकीबाबांच्या तोंडातल्यान आयकुपाची तशीच चा. फ्रा. ची कविता चा. फ्रा. नूच म्हणिल्ली आयकुपाची आनी पळोवपाची. कारण, चा. फ्रा. आपली कविता जितली गळ्यान म्हणटा, तितलीच हातांनी बोटांनी, दोळ्यांनी म्हणटा. ताज्या आंगा आंगांतल्यान कविता फुलता, फुट्टा. ‘ ह्याड गो चेडवा बुडकलो रकय तळ्यांत ’ अशें जेन्ना तो घोगऱ्या ताळ्यान म्हणटा तेन्ना काव्याचो सगलो बुडकलो तो आयकुप्याच्या काळजांत रकयता. उतरांच्या ल्हारांचो आवाज आनी गाज जिवाक न्हाणोवन सोडटा. चा. फ्रा. ची कविता जितली वाचपाची तितलीच आयकुपाची. अर्थावांगडाच ती स्वर, लय, ताल घेवन जल्माक आयल्या. आनी ती आयकताना आयकुप्याचेंय काळीज तालार नाचूंक लागता. हातपांय ठेको धरतात. उतरांच्या स्वरांतल्यान आपशीच अर्थ उमाळो उकतो जावप हें बऱ्या काव्याचें लक्षण. आनी तेंच चा. फ्रा. च्या काव्याचें खाशेलपण. तांतुतले उतर, उमाळो, विचार कानाक भुलयतात, काळजाक हालयतात, मनाक हात घालतात. चा. फ्रा. च्या काव्यांत उतरांचो खेळ चलता खरो पूण तो सहजतायेन केल्लोसो दिसता, जसो जादुगार हातांतल्यान रंगोबिरंगी पेस्ल वयर उडयत कुशळतायेन तांकां झेलता आनी पळोवप्याचे नदरेमुखार अपूर्व रंगाळी आकृताय रचता. पूण असलो हो उतरांचो खेळ कोणाकूय जमपाचो न्हय. जाणे भाशेक केळयल्या, रगतांत घोळयल्या, तिज्यो सगल्यो बारीकसाणो पारखिल्या ताणेंच ही असली उतरांची कसरत करपाची. जो भाशेचो जाणा ताजोच भास जाता. चा. फ्रा. च्या काव्यांत कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय, सुंदरताय आनी अपूर्वाय पळोवची.

चा. फ्रा. ची कविता जशी जाणकारांची तशीच नेणाऱ्यांची ती पंडितांची तान पालयता तशेंच भोळ्याची भूक भागयता. ताजी खंयचीय कविता घेतल्यार ती अशी दोन पांवड्यांचेर वाचूं येता, समजूं येता. ‘ माग करूं लिपूनसो, ’ ‘ ह्याड चेडवा बडकुलो ’ ‘ आशा ’ ‘ खरस ’ ‘ उजो ’ ‘ चार चोंवगो मान ना ’ ‘ बाळाचो हांसो ’ ‘ आजूय तशें ’ ह्यो कविता मुजरत व्हडल्यान वाचच्यो आनी मागीर अंतर्मुख जावन मनांत घोळोवच्यो. अश्यो त्यो मनांत घोळयताना जिवाक अस्वस्थ करून सोडटात. खरो गिन्यानी, खरो राजकर्णी, खरो कवी असोच अस्वस्थ करता. मुंयच्या चद्रिमार दुख्खाचें लाशे उरताच उरता. काव्य हें सुंदर, आनंदमय हें खरें पूण जिविताक सगलोच आनंद, सगलीच सुंदरताय न्हय. कविची नदर सवसारांतलें दुख्ख आनी कुरूपताय पारखिता, खंती जाता. दुकांचे ओल्साणेन आनी जडसाणेन चा. फ्रा. चें कवितूय ओलेशें, जडशें जालां. चा. फ्रा. च्या दर्याक सदांच उजो पेटला आसताना तो मनांत ‘ मेकळें चिंतप ’ पोशीत रावता.

चा. फ्रा. च्या काव्याक जिविताची अगणीत तासां : अणभवाचीं थिकां लिकलिकीत, मोगाचीं चंवरां–परमळीत, अपमानाचीं किसरां–किसकिसीत. आनी तरीय आपल्या न्हिदसुऱ्या दोळ्यांतल्यान तो आमच्या मनांत 'स्वपणांतुलें राज' जागयता. कोंकणी समाज, ताज्यो चालीरिती, ताजे उत्फरके, उमाळे, दुबाव, हीं सगली ह्या काव्यांत होलमतात, जशो पानांत शिरो आसतात तशो; नशे उशीकाण्यांत कुसां आसतात तशीं. झाडां–पेडां, फुलां–फळां, कोमऱ्यो-पानां, कळे–कळयो, सैमाच्या सगल्या रुपाचें पडबिंब ह्या काव्यांत पळोवचें. कोंकणचो कवी कोंकणाच्या सैमांत हांगा असो एकरूप जाला.

चा. फ्रा. ची कविता सुंदरी नागरी लिपिचो भेस घेवन आमचे मुखार आयल्या. कागदार उदेल्ले कविचे विचार-उमाळे आतां कोंकणांच्या सगल्या कोनश्यांनी पावतले, शारांच्या घरांनी, खेड्यांच्या खोंपयांनी घर करून रावतले. कोंकणीच्या प्रमाणीकरणांत हें आनीक एक जैतवंत पावल. हे पासत 'जाग' प्रकाशनाक परबीं दीत तितलीं थोडीं : एक लिपी बरी आनी दुसरी लिपी उणाक अशें आमी केन्नाच म्हणूंक ना. लिपी हो भाशेचो भेस. पूण तीन चार विगड विगड लिपींनी बरोवपी कोंकणी बरोवप्यांक आनो वाचप्यांक एकठांय हाडटलो जाल्यार सद्या तरी देवनागरी लिपी बगर दुसरो पर्याय ना, उपाय ना. लिपिच्या दुर्गांक लागून जाल्ले कोंकणीचे कुणगे आतां शेकानशेक एकूच पिकाळ शेत कशें लसलसतले. वेगळ्यावेगळ्या वाठारांनी शिपडलेले कोंकणी मनीस आतां एका-मेकांक वाचतले, समजतले. जरी

'आमी बाबडी कोंकणी बाळा शिपल्या तरी चोंय मळां'

मंगळूरच्या कोंकणीच्या कावथ्याक वेगळे तरेचें मारें, वारें मेळून ताज्या फळाची रूच चिके वेगळी जाल्या. हें वेगळेंपणूच आमची गिरेस्तकाय. दरएकल्याचें वेगळेंपण हेंच आगळेपण. वेगळ्याक वेगळो म्हणून कुशीक सारता तोच वेगळो पडटा. गोंयकार कविचे विशय वेगळे, हावेस वेगळे. 'नवें गोंय, नवे गोंयकार' म्हणत फुडाराचें चित्र चितारपी बयाभावा पसून 'आज कोणूच उल्यना, आज कोणूच वथरेना' अशें म्हणपी नागेश करमली मेरेन सगल्यांच्या काव्यांत गोंयचे स्वतंत्रतायेची समाजीक क्रांतिची ओड दिसून येता. गोंयचे कालचे आनी आयचे परिस्थितीक लागून गोंयच्या काव्यांत जें राजकी, समजोक ल्हार उप्रासलां तें मंगळुरी काव्यांत दिसून येना. उरफाटे तांतूंत घरावे प्रस्न आनी मनश्याची आवतिकाय हांचोच चड विचार दिसता. तांतूंतले तांतूत चा. फ्रा. ची कविता मातशी वेगळी. बयाभावांचो किंवाटो, खंत तांतूंत थयथयताच ते भायर तांतुंतल्यान मनशाच्या मनांतल्या कल्लोळाचेंय दर्शन जाता. भाशेक रूप आनी आकार दिवपाचें काम सगल्यांत बरे तरेन करता तो कवी. कवी हो फकत उमाळ्यांचो

उद्गारो न्हय तर तो भाशेचो राखणदारूय; जेन्ना उतरां काव्यांत गुंथून उरतात तेन्ना तीं सासणाचीं तिगतात. संत तुलसीदास, संत कबीर, संत मीराबाय, संत नानक, संत तुकाराम हांणी मध्ययुगीन भारती भाशांतलीं उतरां अजून तिगोवन दवल्ल्यांत.

इतलीं वर्सां, इतले पयस रावन कोंकणीच्या मूळपीठा पसून तुटून पडल्या आसताना, द्रवीड भाशेचीं उतरां दिसपट्टीं कानांत घुंवत आसताना आनी कानडी लिपिचो भेस भाशेर चडला आसताना, मंगळूरकार भावांनी तीं पयलीं वयलीं, नितळ निवळ कोंकणी उतरां तशींच मंगल कशीं दवल्लीं हें कुवाडें म्हाका अजून सुटून सुटना. ही कोंकणी भाशेची शक्ती आनी कोंकणी मनशाची भाशा-भक्ती ! काळाच्या कर्नुपाचे घण घेवन, गांवाभायरेपणाचो कळ सोंसून, कितल्या अडी-अडचणीक, हाल-अपेश्टांक तोंड दिवन काळजाच्या करणांत दवरून हाडिल्ली आवय भाम कशी तिगयली, आपल्या भुरग्या-बाळांच्या मनांत कशी रिगयली ? पोर्तुगेजांनी भारतांत हाडिल्लो पोर्तुगेज धाटणेचो किरिस्तांव धर्म आपणावन लेगीत फिरंगी उतरां किसरां कशीं तोंपिल्लीं दिसनात. गंगेचे देगेवेले देववाणिचे शब्द आमले जाल्यारूय तांकां कोंकण किनाऱ्यावेल्या दर्याच्या ल्हारांची खारसाण आयल्या. दर्यादेगेवेली ही कोंकणी अळणी जावपाकूच ना. घांटावेल्यान उदकाचे कितलेय घोगे आयले तरी कोंकणीची म्हजी मिठा-कणी सदांच तरणीं.

ज्यावेळार फिरंग्यांनी आमचे आवयभाशेची निजाची मोड मोडूंक नासली आनी तिज्यांत नाका जाल्ले शब्द भरसूं नासले तेन्ना आमचे भाव आपले भाशेचें भांडार गांठीक बांदून गोंय सोडून मंगळूरांत स्थायीक जाले. त्या वेळचें कोंकणीचें सोबीत, नितळ रूप अजून मेरेन तांणी सांबाळून दवल्लां. देखून नामनेचे पंडीत दोतोर जुझे पेरेर मंगळुरी कोंकणीक प्रमाण कोंकणी कशी माननात. इबाडलेलें, भेळशेल्ले कोंकणीक निजी आदली गिरेस्तकाय, नितळसाण दिवपाचो मोलादीक येत्न मोंसिन्योर सेबास्तियांव रोदोल्फु दालगादु हाणे केल्लो. आमी गोंयकार जेन्ना मंगळुरी कोंकणी वाचतात आनी आयकतात तेन्ना आमका फाटलें दायज परतून मेळिल्ल्याची खोस जाता.

मंगळूरांत पाद्री आन्जेल माफेय हाणें जिवाचें रान करून कोंकणी रानांतलो सोबीत नाळो गाजयलो. कानडी वाठारांतले कोंकणीक कानडी भेस दिवन कोंकणी भाशेची राखण आनी पोसवण केली. ताज्या पावलार पावल दवरून लुईस माडकारन्यास हाणे ' आब्रावाचें यज्ञदान ' हें पद्य-नाटय रचून कोंकणीक मोलाचें योगदान दिलें. ' कोंकणी दिर्वे ' संपादून नव्या कविच्या स्फुर्तीक आनी शक्तीक सचार करपाक मेकळें मळ करून दिलें. तेंच कोंकणी दायज मुखार व्हरून फा. पॉल लुईस बोतेल्यु, आंब्रोझ द् सोउझा, लॅन्सलॉट, मिरील जी. सिकैरा, जे. बी.

मोराइश, मारीदास बी जायत्या कवींनी कोंकणी कविता सुंदरीच्या आंगार अलंकार चडयले. चा. फ्रा. द कोश्ता होय कानडी मातयेंन जल्मल्लो कोंकणी कवी. कानडी मातयेंत जल्माक आइल्लो पूण समस्त कोंकणाचे लाल मातयेन रंगलेलो. ताजें दायज फक्कत कानडी कोंकणीचेंच न्हय तर पूर्वापार चलत आयिल्ल्या साबार कोंकणी काव्याचें. सगलें कोंकण जाका वळखता आनी तोखेता असो तो एक कवी–वेगळो, आगळो.

ताज्या काव्याक प्रस्तावनेची गरज नासली. पूण दिव्या भोंवतणी रांगोळी काडल्यार रांगोळीच उजवाडान भरता. प्रस्तावनेंत कवीच्योच वळी भरसून, उतरां जोडून प्रस्तावना लांब–रुंद करूं येताली. चा. फ्रा. चे कवितेचेर उलयत तितलें थोडें पूण तिका चिरपाची, कातरपाची म्हाका मातूय उमेद ना. पाकळचो पिश्टून सोबितकाय दाखोवपाचो वा पांखां तोडून पिसोळयाची सुंदरताय थारा-बपाचो पिसो वावर हांव करिना. कविता ही एकेच नदरेन एका दमान मापूंक जाय, एकाच उमाळयान काळजार तोलूंक जाय. सुंदरीच्या आंगावेले अलंकार काडून तांका मोलावं येत पूण कवितारतिच्या आंगावेल्यो वस्ती वेगळयो कश्यो काडटलो ? काव्यांतले अळंकार म्हळयार काव्याचेंच जितें जिवें आंग. रुपडे ओडून काडूं येता पूण तोंडूच ओडून कशें काडटलो ?

चा. फ्रा. ची कविता तुमी वाचची–सगलीच वाचची. तिज्या आंगाचे कुडके काडून ह्या पानार हांव दवरिना. चा. फ्रा. चो अपमान जातलो. ‘ जेवणाक केदीं पान ना, चार चोवगां मान ना.’ अशें चा. फ्रा. न म्हण् दी. हांव म्हणचो ना. ज्या कवीक कोंकणी काव्याचे समराङ्गेंत तांबडया पाटाचो मान मेळ्ळा ताका अशें कोण म्हणत, वगर चा. फ्रा. ?

‘ सोंश्याचे कान ’ तुमचे मुखार आसात. काळजाचे कान करून तुमी आयकुचें.

O

**स्वतंत्र गोंयांतली**
**कोंकणी कविता**
**सं. मनोहरराय सरदेसाय**
**कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव**
1988

## पयली अुतरां

कोंकणीच्या मळार फाटल्या कांय शतमानांत जायतीं काव्य–फुलां फुलिल्लीं. पूण तीं सुकून वंयच्या पुस्तकां कुडीच्या धुल्लांत पडिल्लीं कोणाक खबर नासलें, अजुनूय मात्सें खबर ना. आयचें कर्तृप आनी फाटलें दायज हांचे मदलो तुटिल्लो धागो परतून जोडल्याबगर कोंकणी साहित्याची रंगयाळी आकृताय पुराय दिश्टीक पडची ना. हो धागो सोदपाक आनी जोडपाक शणै गोंयबाब, दोतोर पां. स. पिसुर्लेकार, प्रा. अ. का. प्रियोळकार हे वावुरले. दोतोर वि. बा. प्रभुदेसाई आनी दोतोर जुजे पेरैर अजून वावुरतात.

फाटल्या कोंकणी काव्याची खरी वळख फुडल्या कवींकूच जाल्ली अशी दिसना. गोंय, मुंबय, मंगळूर, कारवार आनी कोचीन ह्या वाठारांनी शिंपडिल्ल्या आनी नागरी, रोमी, कानडी आनी मल्याळी लिपयांनी वांटून गेल्ल्या अेकेच्च आवयच्या पुतांचें एकूच पोरणें दायज परतून सोदून काडल्याबगर कोंकणी भाशेच्या अेकचारागाक आनी फुडारागाक फाटल्या अितिहासाची घटाय मेळची ना. सोळा सतरा, अठरा ह्या शतमानांनी जाल्लें काव्य आतांच्या कवींक खबर लेगीत ना.

खयच्याय साहित्याक पयलोवयलो चंवर येता तो काव्याचो. पुर्विल्ल्या संस्कृत साहित्याची सुरवात जाली ती ऋग्वेदाच्या ऋचांनी. ग्रीस देशाचें आदिग्रंथ म्हळ्यार होमर कवीचें म्हाकाव्य. फिन्लंडसारको धाकटुलो देश आपल्या 'कालेवाला' ह्या मूळ म्हाकाव्याचो अभिमान धरता. अितालियन भाशेच्या 'अेकचारागा'क आनी साहित्याचें मळावण घालें तें दान्तेच्या 'दिव्हीना कोम्मेदिया' ह्या म्हाकाव्यान. मराठी साहित्य–शारदा ज्ञानेश्वरीच्या होंवयांनीच गावंक सुरू करता.

पोर्तुगेज गोंयां येवचे आदीं गोंयां कांयच काव्य–साहित्य नासलें अशें खात्रीन

कश सांगू येत ? अिन्किझिसांवाच्या भिरांतेक लागून संस्कृत आनी देशी भाशांतलीं हातबरपां ना जालीं वा खंयनरीं कोनशांत दडून रावल्यां हें पंडितांनी मान्य केलां. केळोशीचो शामराज वा कृष्णदास शामा ह्या कवीचें पोर्तुगेजाच्या आदीं बरयल्लें श्रीकृष्ण चरित्रकथा हें मराठी काव्य निकरेंच उजवाडा आयलां. ताजेंच जायतें गद्य-बरपूय हाताक लागलां. ताजेंच अेकाद्रें कोंकणी काव्य विसरायेचीं कुपां कुशीक सारीन लख्ख करून प्रगट जावचें ना अशें खात्रीन कोण सांगत ? अिकराव्या शतमानात घडयल्ल्या 'ला शांसों द रोलां' (La chanson de Roland) ह्या फ्रांसेज राष्ट्रीय महाकाव्याचो सोद अठराव्या शतमानात इंग्लंडांत लागलो हें ध्यानांत दवरुंक जाय.

येवरोपांतून हाडिल्ल्या धर्माचीं पाळांमुळां कोंकण देशांत घट बरीं धरचीं म्हणून किरिस्तांव धर्मप्रचारकांनी थळाव्या भासांचो पाळो धल्लो. सतराव्या आनी अठराव्या शतमानांत तांच्या वावराक फळ येवन किरिस्तांव धर्म साहित्याचें आनी धर्मीक गीतांचें अमाप पीक आयलें. क्रिस्तीकरणाचो अितिहास बरोवपी पाद्री फ्रांसिश्कु द सोवझ हो म्हणटा : 'कांय दिसांनीच तांकां कोंकणींत बरें अुलोवंक आनी वाचूंक येवंक लागले गांवच्या अेका कवीन त्यावेळार सोबीत बरें कवन रचलें.' पोर्तुगेज आयल्या अुप्रांत रोखडीच कोंकणींत कवनां जावंक लागलीं, हाचो अर्थ अितलोच की पोर्तुगेजाच्या आदीय कोंकणीत काव्य रचपाची परंपरा आसली. सांतानीचें हें स्तोत्र सतराव्या शतमानांतलें :

'सांतान तुजें सुफल जिणें
देवू जाला नातू तुजो
स्वामी मजो, राजा मजो
दानधर्मु माये, थोरु तुजो
सांतान माये, आमचे सासाये
चुंबन करूं तुजे पाये
कुपा आमकां दी, गे–
जेजू लागी आमपासून विनत करी '

अुप्रांत अिंकिझिसावाच्या धर्मकोल्ली जाळवणदारांनी कोंकणीच्या मुळारूच घाव घालून गांवभाशेकूच गांवाभायरी केली. तरी अेकोणीसाव्या शतमानासरेन जायतीं धर्मीक पदां आनी स्तोत्रां घडत रावलीं.

गोंयकारांच्या जिवितांत जशी पश्चिमी संस्कृताय रिगली, तशीच तांचे भाशेंत फिरंगी अुतरां भरसलीं, अुदेंतीच्या अुमाळ्याचेर अस्तमतेच्या संगिताचो साज चडलो, घुमट आनी व्हायलीन हांचो मेळ साधून, मांडो, दुल्पद हाचो जल्म जालो. ह्या लोकगीतानी सुर्बूस काव्य शिपडलां :

सूर्या देंवोन गेलो, चंद्रिम रे अुदेलो
आमोरेचो वेळु कोमेसार जालो
मोगा तूं खंय रे पावलो

असे तांनूत विळाप होलमतात तर दुल्पदांत भोंवतणचीं अशीं अुडटीं चित्रां दिसतात :

‘ वोताचें किर्ण आयलें म्हूण
सुको घायलें भात
शेजाम्नीच्या कोंब्याक लागून
तलक पेर्तुर्बार ’

कुडतरेचो आर्नाल्द मिनेझिस हो अेक पयलो वयलो मांडो रचपी. तो मोगाचे अुमाळेच अुक्ते करीना तर जिवितांतलीं अुणींय चितारता. गोंयकार हो असो, मूळावसूनचो कवी आनी कवनी.

देवळामुखार आनी घरांतय बायलांच्या ओंठार काव्य स्फुरतालें. धाला-मांडार दोन रांगो करून, मुखार पावली मारीत सवाशिणी बायलो म्हण्टाल्यो :

‘ ह्याडा अेक कुदळ काडा अेक धेपा
तितूं रोया रोपो तुळशीचो गा देवा,
रुप्याची घागर सोनियाची दोड
तुळशी शिंपती नारी पांच जाणी.’

आनी आजयेचे कुशींत मुंगरत भुरगीं गीत आयकताली :

‘ करामती नगरीं । भीमक राया धरीं ।
आमचे घरीं । अेक भोली गंगा । ’
‘ आगा, आगा वागा, म्हाका येवन खागा
नेण्टया दुब्याक माज्या सोडून दीगा ’

कोंकणी मनशाच्या जिवितांत काव्याची सुवात आगळीच. आल्वयो, गीत काणयो, माडे, दुल्पदां, फुगडयो, ह्यातूंत लोककाव्याचो परमळ फांकिल्लो आसा. कोंकणी ‘ गोमांमी तल्या अवेस्वराची सुरवात लेगीत ल्हानशा गितानूच जाता. जल्मल्ल्याची तोखणाय करपाक आनी मेल्ल्या गेल्ल्याचो अुगडास करपाक कोंकणी मनीस थोडो वेळ तरी कवी जावन उतरां जुळयता.

आता मेरेन जाल्ल्या शेंकडयांनी खेळांतल्या, तियात्रांतल्या कांतरांत उतरांची कसरत आनी यमकाचे खेळ आमले तरी केन्ना केन्ना तांतूंत मनाक दिपकावपी आनी काळीज हालोवपी कवीत होल्मता :

' आतां म्हजो कोर बदल्लो,
कित्याक हांव घोव बायलेचो
दोनूच वर्सां देवान दिल्यार बापूय भुरग्याचो '

आनी ह्या अुतरांतली खंत आनी सत कोणाक तोंपची ना ? :

' आमकां पाद्रीन केलीं काजार
दोगांकूय माल्लीं अेकाच खुर्सार '

तेबटेन, गोंयांपसून पयस केरळांत वचून राविल्या गोंयकारांनी कोंकणीन हिन्दुधर्मीक गितां रचलीं. संत अपय्या, राघवदास, जोगव्वा, आवडी हे सतराव्या शतमानांतले कांय नामनेचे कवी.

मंगळुरांत, पाद्री आंजेलो माफेय हाणे केल्ल्या वावराक आनी दिल्ले स्फूर्तीक लागून थंय ' कोंकणो रानांतलो सोबीत सुंदर ताळो ' गाजूंक लागलो. ' कोंकणी दिर्वे ' ह्या नेमाळयाक लागून जायते कवी मुखार आयले. लुईश मास्कारेनास ' हांचे आब्रांवांचें यज्ञदान ' ( १९३६ ) हें गीत–नाटक अजुनूय मन भुलयता.

म्हैसूरचो राजकवी कोंकणी अुलोवपी मंजेश्वर गोविंद पै ( १८८२–१९६३ ) हांच्या लिखणींतल्यान केन्ना, केन्ना कोंकणी कवीत रुपाक येनालें तरी तांणी कानडीचेंच दूद पिवन आपल्या कवीपिंडाची पोसवण केली.

गोंयांत कांय किरिस्तांवानी पोर्तुगेज भास साभित्यिक भास म्हणून आपणायली. पुण अजाप म्हळयार तांणी आपलें भारती दायज सोडलें ना. फेर्नांदु लेयाल ( १८४६–१९१० ) मारियान ग्रासीयश ( १८७१–१९३१ ) पावलीन दीयश ( १८७४–१९२६ ) आदेवदात बार्रेत ( १९०२–१९४७ ) ह्याचें काव्य गोंयच्या मोगान थपथपलां, भारती संस्कृतायेन रसरसलां. पोर्तुगालांत गाविल्लो आनी पोर्तुगालांतूच तरणे पिरायेर सोंपिल्लो आदेवदात बार्रेत, हाणे तर ' बेगान्यानो ' ही कविता कोंकणीत रचल्या.

गोंविंद मंजेश्वर पैच्या काळांतलेच शणै गोंयबाब ( १८७६–१९४६ ) हांणी नाटक, काणी, चरित्र, अितिहास हे प्रकार कुशळतायेन हाताळले. पुण ' गोंयकाराचो मुंबयकार ' हें कवन ( १९१० ) आनी ' गोड म्हजें गोंय सुंदर म्हजें गोंय ' ( १९३५ ) ही गद्य–कविता सोडून दिल्यार तांणी काव्याच्या मळांत पाय दवल्लो ना. जनमानसांत रिगून काळीज हालोवपाची आगळी शक्त कवितेंत आसता हें तांकां खबर नाशिल्लें अशें न्हय. पुण कोंकणाचो आनी कोंकणीचो अितिहास सोडून काडपांत आनी कोंकणीचेर आगळीक करप्यांक व्हडलें गोंय दाखोवपांत तांकां मनांत काव्य घोळोवपाक फाव तो वेळ मेळ्ळो ना जावंये. तो मायेमोगाचो आनी गरजेचो असो वावर तांचे अिश्ट आनी भक्त काशिनाथ

श्रीधर नायक ( बयाभाव ) हांणीं केलो, आनी कोंकणीच्या मडबार ' सडया-वेल्लीं फुलां ' फुल्यलीं. कोंकणीच्या नव्या युगांतली जिनीं, जिवीं अशीं तीं फुलां-अमाळयाची ओकसाण, कल्पनेचे रंग, अुतरांवो ताजसाण घेवन आयिल्लीं. सडयावेल्लीं फुलांच तीं. तीं खर वोनांत थावल्लीं नात. आनी तेन्ना पसून कोंकणी काव्याचो मळो, मळो अुल्लो ना. थोडयाच वर्सांनी परमळीत आनी रंगयाळच्या फुलांनी भरिल्ली अशी ती बाग जाली.

१९४ वर्साच्या १८ जून दिसा गोंयचे भुयेर दोतोर राममनोहर लोहियान मुटके झुजाचें शींग फुकलें. तांच्या स्फूर्तिदिण्या अुल्यान जागे जावन गोंयच्या कवीच्या अुतरांक नवो नेट आयलो. नवी स्फूर्त मेळ्ळी. सामान्य मनशाचें सेकळे-पणाचें सपन कोंकणी कवितेंतल्यान उक्तें जावंक लागलें. मुटकेची चळवळ चिड्डून उडोवपाक सालाझारान मुटके झुजाऱ्याक धपकायले, बंदखणींत घाले, कांय जाणांक जिवे मारले. जायते गोंयकार गोंयाभायर जाले. गोंयांत राष्ट्रीय लिप-चोरयां जायनां राजकी वावर करूंक लागले. आनी ह्या वावरांत तांका अेक आगळोच दिश्टावो जालो. भौसाक शिकयतलो जाल्यार, जागयतलो जाल्यार, कोंकणी भाशेच्या पालवा बगर कशेंच जावचें ना. आनी ह्या दिश्टाव्यातल्यान मुक्तावेल्या कोंकणी काव्याचो रूपकार आकाराक आयलो. ह्या नव्या कोंकणी काव्याचो प्राण म्हळयार स्वतंत्रतायेची ओड, हांतूंत अजाप ना ह्याच वगतार गोंयाभायर, वध्यांक ' मीर्ग ' आनी मुंबय ' साद ' ' सार्थक ' ' प्रजेचो आवाज ' ' गोमंत भारती ' आनी ' विद्या ' ह्या नेमाळयांतल्यान ' अभिजित ' ' दिनकर देसाय ' ' शंकर भांडारी ' ' मनोहर सरदेसाय ' हांच्यो कविता येवंक लागल्यो.

कानडी साहित्यांत अेक समर्थ कवी म्हूण नामना पाविल्ल्या दिनकर देसायांची कवना सुरवूस. मराठी काव्य मळार यशस्वीपणान येस जोडिल्ल्या शंकर रामाणी ह्या गोंयांत आशिल्ल्या गोंयकार कवीन म्होंवाळ मोगा-पदां आनी निसर्ग-गीतां रचलीं. चा. फ्रा. द्‌कॉश्ता ह्या मंगळूरच्या कवीन अर्थान अुपाट भरिल्ल्यो आनी काळजाक हात घाल्पी अश्यो कांय अपरूप कविता दिल्यो. शंकर भांडाऱ्यांनी कांय मिश्किल तर कांय गंभीर अशीं गीतां बरयलीं. आनीक जायत्या तरण्यांनी काव्य-मळार पावल दवरलें खरें पूण त्या पावलांची वाट जाली ना. कोंकणी काव्याचो आनी गीतांचो प्रसार करपाक ह्या काळांत आकाशवाणीन म्हत्वाचो आदार दिलो. कोंकणी काव्य सुवयतल्या गोंयकारांच्या घराघरांत पावलें.

नीज कोंकणी ' अभिजित ' एकसुरोच पूण चकचकीत तारो कसो कांय कांय वेळ झगझगलो. वेंचिल्ली निजाची कोंकणी अुतरां, विजयाची खांचाय, अुमाळयाची हुनसाण आनी सांत्रीत बादावळ हांकां लागून अभिजिताचे कवितेक

कोंकणी काव्यांत वेगळीच सुवात आसा. 'गोंय' आनी 'गोंयची सुटका' हे अभिजिताच्या काव्याचे मुखेल विशय. हेर सुटके- झुजाऱ्यावरीच ताजेंय 'दिसभर लागलां थंयसर ध्यान.'

मराठीतलो व्हडलो कवी म्हणून नामना जोडिल्ल्या बाकीबाब बोरकारांच्या काव्याकूय आतां कोंकणीचो चंवर फुल्लो. 'पवित्र हो मंगळार' 'सात लाख गोंयकार आमी', 'भारताच्या ध्वजा म्हज्या' ह्या कवितांनी गोंयकारांच्या काळजांतले हावेस उक्ते केले. तांच्यो कविता उपरांत १९६० वर्सा, 'पांयजणां' ह्या नांवान उजवाडाक आयल्यो.

'गोंयचो मोग' आनी 'स्वतंत्रतायेची ओड' हेच विशय मनोहर सरदेसायाच्या काव्यांतूनूय होल्मतात. गोंयापसून हजारांनी मैल पयस आशिल्ल्या ह्या तरण्याच्या काळजांत गोंयच्या मोगाच्यो कविता स्फुरल्यो. साद्या सोप्या घरावे भाशेंन बरयल्ल्या ह्या काव्यांत गोंयच्या सैमाचीं आनी गोंयच्या जिविताचीं रंगयाळीं चित्रां आसलीं. 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या पुस्तकांत उपरांत (१९६१वर्सा) त्यो कविता उजवाडाक आयल्यो.

१९६१ वर्साच्या निमाण्या म्हयन्यांत गोंय मेकळें जालें. गुलामपणाचो बांद फुटून गोंयकारांचो हावेस घोंव्यांनी व्हांवक लागलो. काव्याकूय नवी दिशा मेळ्ळी. नवो नेट आयलो. एकाच दिसा पांच कविता झेले अजवाडावन र. वि. पंडित हांणी एक नव्या निर्यमक आनी निर्बंद अशा काव्याचो घोगोच कोंकणी साहित्य मळार ओतलो. भाशेची पटमाण आनी ताजवाण दाखयतानांच पंडित कोंकणी समाजाची दुर्दशा दाखयतात. मनीसपणाक लागिल्ले सुकतेचेर खंत परगटायता. 'म्हजें अनंत गावचाचें' अशें व्हड अभिमानान सांगता. पंडितांनी आपल्या कवितांचो इंग्लेज, हिंदी, कानडी बी भाशांनी अणकार करून घेवन आपली कविता कोंकणाचे अशीर शिमेभायर पावयली.

मनोहर सरदेसाय हांचें 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' हो झेलो सुटके आदलो. गोंयचो मोग, गोंयचो सैम, गोंयच्या गुलामपणाची खंत ही ह्या काव्याचीं कांय मुखेल तासां. 'जायात जागे' (१९६४) हांतूंतल्या कवितांचे सूर वेगळे, तांतूंतले सद्दूय वेगळे. तांतून आपल्या हातान नवें गोंय घडोवपाचो हावेस आसा, आनी त्याच वांगडा सुटके आदीचीं सपनां रूपाक न आइल्ल्याची खंत आसा. 'जायो–जुयो' ह्यो ल्हानशोच कविता, थोडयाच अक्षरांच्यो, खोल अर्थाच्यो आनी दुखेस्त सुराच्यो. 'पिसोळी' ह्योय धाकटुल्योच कविता पुण नांवांपरस तीं मारक्यो उडटीच. परमळापरस तांकां रंगूच चड शिकिल्ल्या आनी शिकनाशिल्ल्या हिंदू आनी किरिस्तावांक साद्या–सोप्या भाशेंतल्यान एकठांय हाडून, मनोहर सरदेसायान तांकां कवितेची रूच लायली. बाकीबाबांच्या सुटकेउपरांतच्या कवितांचे

विशय तेच-स्वतंत्रतायेची ओड. गोंयचो मोग–पुण अुमेद आनी हावेस हांची सुवात आतां खंत आनी किवाटो हांणीं घेतल्या. ' सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले, ' ' अशें हड्डें फुलयत, व्हड ताळयान म्हणपी हो कवी आतां सांगता : ' हें आयलां तें स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय.' हो बदल कसो जालो ? निळया मळबांत अुडपी सपनांचीं भिरीं भूंय पडून कित्याक तडफडूंक लागलीं ? आपले कवितेंतल्यान बाकीबाब सर्व सामान्याचेच विचार अुक्ते करतात हातूंन दुभाव ना. ' पांयजणांत ' फुडाराचो दिश्टावो घडिल्लो कवी आतां कोडू वर्तमानाचें खंतीभरीत दर्शन घडयता. कोंकणी काव्य हें अशें समाजाच्या स्वासाच्या तालार घडत आयलां.

तरी बाकीबाब निर्शेल्यात अशें समजूंक फावना. गोंयचे पिकाळ भुंयेर तांचो अटळ विस्वास. निर्शेवणी येंवचे पयलींच ते म्हण्टात. ' जागी जाल्या गोंयची सासाय येतलो भार, येतलो भार, धोल ताशे बडय बडय, मार शेंसार, मार शेंसार.' आजमेरेनचो कोंकणी कवी हो असो समजांतल्यान स्फूर्त घेता आनी लोकांक स्फूर्त दिता.

पांडुरंग भांगी हांचो ' दिश्टावो ' हो कवितां-झेलो सुटके अुप्रांत धा वर्सां मागीरचो. तरी भांगी हो कवी पयले पिळगेंतलो. बयाभाव अुप्रांतचो पयलो व्हडलो कवी होच. शणै गोंयबाबाचे परंपरेंत वाडिल्लो आनी ती परंपरा जतनायेन राखपी. तांचे कवितेची भास घोंटलेली, तिकतिकीत कांतयले बावले सारकी. हो कवी आपलें दरअेक अुतर पारखून, जोखून बरयता. तो आपुण अंतुर्मुख जाता आनी वाचप्यांकूय अंतर्मुख करता. आनी जिवितांतल्या कांय सत्यांचेर अुजवाड घाल्ता. तांच्या काव्यांतलो दुखेस्त सूर जिविताच्या खोल तळालागीं व्हरून सोडटा. भांग्यांचे कवितेंत निराशेचीं खूबशी काळी कुपां दिसलीं तरी तांकां आशेची झगझगीत देग आसाच आसा :

' मातीच ही सगली खरी
मातयेचीच पूड
तरी तिच्या गर्भकणयेंत
हावेसांची चूड.'

भांग्यांच्या मानान माधव बोरकार हो सामको भुरगो. पुण भांग्यांचे परंपरेतलो न्हय जालो तरी तो भांग्यांचे अशेर वाटेंत वेना. आपले आपणांतूच अणभव सोदून काडून ते वेचीक उतरांनी गुंथपाची तीच संवय. थोडयाच अुतरांत व्हड अंदखणीच्या देवळांत आपल्या तेन तरणेपणांत नागेश करमली हाणें कोंकणी कवितेची जोत जतनायेन राखली. गोंय मेकळें जातकच ताज्या काव्यांत निर्यमक वळीच्या नेटा वांगडाच अन्यायाआड तिडक आसा, आनी फुडाराचें चित्रण आसा.

' जेन्ना अशी जाग आयली
तेन्ना उतरां उजो जालीं
बळगें जालें झूज जिवें
खुबलीं सगलीं आयलीं पेलीं.

क्रांतीचो दिश्टावो जाल्ले हे कवीचो शब्द म्हळ्यार उज्या कीट.

' उज्या कीट !
जीण जाल्या उज्या केण
मळबाआंट पेटत आतां !'

विजयाबाय सरमळकार हिणें ' गोठलां ' कविता झेल्यांत बायलांचें आगळेंच भाव–विश्व साकार केला. उमाळ्यान भरिल्ल्या घराव्या उतरांनी ती घरांतल्या जिविताचें मन–भुलोवणें, काळीज हालोवणें चित्र काडटा. बायलाचें सुखदुख, तिज्यो खती, तिज्यो व्यथा फकत बायलांकूच कळटात. समस्त भारती बायलांचे उमाळे ह्या गोठलांत म्होंव करून रावल्यात.

सांगपाचो ध्यास. भायल्या जिवितांतल्या दिसपट्ट्या घोवाळांचे पडसाद तांचे कवितेंत दिसनात. पुण काव्याच्या मळार भायलो बोवाळ आनी भितल्ले अुलवप हो फरक करप कठीणूच. हो कवी स्वतांतूच रमता हें खरें आसलें तरी ताज्या काव्याक ह्या सगल्या विश्वाचोच आदार आसा. समाजांतलो मनीस न्हय तर अखिल विश्वांत जल्माक आयिल्लो मनीस हो तांच्या काव्यांतलो खरो नायक. भांगी आनी माधव बोरकार हांणी कोंकणी काव्याक दिल्ली नवी खोलाय आनी रुंदाय मुखावेली कवीची पिळगी कुशीक सारची ना.

भायलो रंगी सैम आनी भितल्ले अुमाळे हांचो अप्रूप मेळ रमेश वेळुस्कारांचे कवितेंत दिसता. गोंयच्या खेड्यांत वाडिल्लो हो तरणो कवी गोंयच्या सैमाक मनसायता आनी त्याच वांगडा अुतरांक मनभुलोवणें संगीत दिता. वेळुस्काराचें ' झाड ' तर आपल्या सगल्या पानांनी आनी मुळांनी जियेता. माधव बोरकार आनी रमेश वेळुस्कार हांच्यो कविता वाचप्यांच्या मनांत एक ' मूड ' तयार करतात.

प्रकाश पाडगांवकाराच्या ' अुजवाडाच्या पावलां ' क काळखाची चड ओढ. पाडगांवकारांच्या काव्यांत कवीत आनी गीत हांचो संगम जाला. 'वास्कोयानां'त पाडगांवकारांन नवी नदर, नवें अुतर हाडलां. वास्को शाराचें कुशिल्लें, खोरजिल्लें आंग दाखोवन, पाडगांवकारान कोंकणी साहित्यांत दलित वाङ्मयाची सुरवात केल्या. समाजीक रोगांची चिकित्साय करतां, करतां साहित्य सुंदरायेची हानी न जावंक दिवप हो वावर बरोच कठीण.

समाजाच्या भौशिक अणभवाक कुशीक सारीनासताना, आनी समाजा-

वहल्यान स्फूर्त घेवन तांतूंतल्या साहित्यांत शवन ओतप हें पुंडलीक नायकांक मानलां. तांच्या काव्यांतलें उतर पातळ दुधारी तरसादीभाशेन थरथरता. तांतूंन चेपिल्ल्या, चिडिल्ल्या गोंयच्या मनशाचो हावेस आसा. निजाच्या कोंकणी उतरांची खरसाण आनी नेट आसा. 'गा आमी गावणे' ह्या कविता–झेल्यांतलो 'म्हजो वांगर वैल' हे कवितेंत नव्या नेटान मदेल्लो, फुडाराच्या सपनान फरफुरल्लो, गोंयचो तरणाटो नव्या युगाचो धेंक घालता. मुळाव्या आनी थळाव्या कोंकणींतल्यान स्फुरिल्लें हें तिवर कवीन नव्या कोंकणी काव्याच्या जीवसाणीची गवाय दिता.

कोंकणी काव्याच्या नव्या ल्हारान सगल्यांक आपल्या धपयांत भारायल्यात. मांडो आनी कांतराची गीत-परंपरा आशिल्ले किरिस्तांव कवी आपल्या हिंदू कवी भावाच्या पावल्यार पावल दवरून चलतात. फाटली परंपरा आनी नवी स्फूर्त हांचो मेळ मानलो तो फकत एका मॅथ्यू फेर्नांदिश हाका. भारती तत्वगिन्यान आनी संस्कृतायेचे वाटेंत परतून चांट मारपाच्या वोवाळान जायते किरिस्तांव कवी संस्कृत उतरांच्या जाळांत घुस्पल्यात. पूण स्फूर्त आनी अभ्यास आसुनूय आर्विकोन गोमीश आनी बेर्नाद पेव्हारिश् मेंदिश हांच्या सारक्या कवींक ह्या घुस्पा–गोंदळांतल्यान भायर सरपाक जायते कश्ट पडल्या. संस्कृत उतरा-पोंदा चेपून वचनासतना, साधी सोंपी तरी समर्थ अशी कविता करपाची कला जेरी फेर्नांदिश ह्या कवीक सोपेपणान मानल्या. ताज्यो कविता ल्हानशाच पूण नकशुद. ल्हवपीक बोटांनी विणिल्ल्या रस्मी लेंसाभाशेन. कोंकणीची मावसाण आनी म्होंवसाण ताका होलमल्या. अर्थ, उमाळो आनी कल्पना हांकां हो कवी नाजूक धाग्यांनी एकठांय बांदता. सगल्या थरांतले जायते किरिस्तांव कवी कोंकणींत नवी कविता घडयताना दिसतात. जांज आद्रांद तोमाझिन्यु कार्दोज, अॅन्थनी कुर्य पियेणकार, तेर्निस रुद्रीगिश, फातिमा द् सोवझ.

ह्या सगल्याचो आनी जायत्या कवींचो फाव तो परामर्श घेवप वा सगल्या कवितांक फावो तो सुवात दिवप कठीणूच. जायत्यो लायक कविता पात्रां आनी नव्या नेमाळ्यांतल्या पानांत आमचे नदरेआड दडून गावल्या जायत हांची आमकां जाणविकाय आसा.

गोंयांत जितलो काव्याक चंवर आयलो तितलो आनी तसो तो मंगळुरांत आयलो ना. खरें म्हळ्यार, कानडी लिपींतले साहित्य रोमी आनी नागरी लिपीं-तल्या साहित्यापरस मातुय उणें ना. पूण मंगळुरांत काव्यापरस कादंबरी आनी नाटक हांकांच चड म्हत्व आयलें. हांगाच्या काव्याचे विशयूय जायते वेगळे. गोंयच्या काव्य–विशयांतेर राष्ट्रभक्तीपणाची दाट साय पडल्या. स्वतंत्रतायेची खर ओड हो तर त्या काव्याचो आत्मोच. मंगळुरच्या काव्याचे चडशे विशय धर्मीक आनी

घरगुती. आनी हे विशय उक्ते करपाक मंगळूरच्या साहित्यिकांनी नाटक-कादंबरोंचोच चड आदार घेतला. चा फा. द्कोस्ता ह्या कवीक मंगळूरचो लोक नाटककारूच म्हणून चड वळखता. कवी म्हणून ताजी तोखणाय मंगळूराभायरूच चड जाल्या. चा. फा. चो खरो पिंड कवीचो. ताज्या नाटकांनली भासूच काव्यमय. आनी ताजें काव्य म्हळयार कोंकणी सरस्पतीच्या माथ्यातलो पर्मळीत तुरोच. भाशेचो सोबाय, अर्थाचो खोलाय, अुमाळयाची हूनमाण ही सगलीं घेवनूच कोस्ताची कविता जल्म घेता. तत्वगिन्यान आनी मोग हे कोस्ताचे कवितेचे दोन मुखेल विशय. 'खरस' ही ताजी कविता अकर्तुपी मनशाच्या मनाची निश्फळ जीववेणी खरस थोडयाच अुतरांनी रंगयता. अर्थ आनी स्वर हाचो जाल्लो एकजीव कोस्ताचे कवितेंतूच पळोवचो. जाण्टो कवी मरीदास (फा. अँथनी द् सोवझा) हांचें काव्य चडकरून धर्म आनी कोंकणी भास हांचे भोंवतणी घुंवता. मरीदासाक अुतरांचें आगळेंच आनी हिस्राभायलें पिशें. केन्ना, केन्ना कवीचो संयम विसरून तें अुतरां फाटल्यानूच धांवतात. तरी कोंकणीचें संगीत आनी अुतरावळीची गिरेस्ताय ताच्या काव्यांत भरून वाता. जे. बी. मारायश हाचो कविता चडशा मागावयल्यो. मोगा भोंवतणचे सगले अुमाळे त कुशळतायेन चित्रायतात : मागाचो आड, मोगाचो हुस्को, मोगाचें सुख, ताची मांडणी सरळ, अुतरां सादीं, सोपीं, घरगुती. कोंकणी भाशेक हालीच्या काळान, चडांत चड अेकरूपताय हाडली ती कोंकणी कवितेनूच. मुंबयकार, बारदेसकार, साश्टीकार, अंत्रूजकार, कारवारकार, मंगळूरकार तशेंच हिंदु, किरिस्ताव, मुसल-मान ह्या सगल्या कवीनी कोंकणीक नवें प्रमाण रूप दिवपाक हातभार लायला. पुण अेक गजाल घडल्या आनी घडत आसा. तीन नवाच्या वावराक लागून घडिल्ल्या प्रमाण भासेंत अुलोवपाच्या कोंकणीतलो काय सोबीत रुपां आनी रंगयाळी अुतरां कुशाक पडत काय म्हणून भिरांत दिसता. बरयल्लें साहित्य भाशेक अेकरूपताय हाडटा हें खरें तरी ताका लागून भाशेक जडताय येता हेंय तितलेंच खरें. 'A Written word fixes a language and also fossilizes it' देखूनूच भास सदांच जितीजिवी आनी गतीशील अुरपाखातीर तिजेर अुलोवपाचे भाशेचो प्रभाव पडप गरजेचें जाय. ग्रंथीक भास आनी लोकभास हांच्या दिसपट्ट्या सांगातानूच भास गिरेस्त आनी बळिश्ट जाता. कोंकणी कवितेक पंडिती रूप येवन ती सामान्य मनशापसून पयस वचूंक ना ही भाग्याची गजाल.

फाटल्या वीस वर्सांत कोंकणी काव्य मळार आयिल्लें पीक अप्रूपच. अितल्या ल्हान काळांत ल्हान, व्हड, बरे, वायट अशें शेंकडयांनी कवी जाले. फक्कत गोंयच्या वाठारांत ऑर्पानियन पोलच्या वेळार उत्पन्न जाल्ल्यो कविता आनी गीतां एकठांय केलीं जाल्यार ती शेंकडयानी भरतली. इतले संख्येन जाल्या ह्या

कवितां भितर थोड्यो तरी कविता बऱ्या काव्याच्या कसाक लागतल्यो आनी तिगतल्यो हातूंत दुभाव ना. ह्याच कविता-झेल्यांत चाळीसांवयर कवींच्यो शंबरां-वयर कविता आस्पावतात. आनी कितल्योशोच कविता काव्य गुणान अुपाट भरिल्ल्यो आसुनूय त्यो हांगा कुशीक दवरच्यो पडल्यात.

आयच्या कोंकणी कवीची जात थारावप कठीनूच. आतांचे जायते कवी निशीसकलचे. तांच्या काव्याक नवें रूप, नवो आकार येवचो आसा. तरी फाटले आनी नवे कवी हांचे भितल्लें अंतर दिमल्याबगर रावना. फाटल्या कवींची स्फूर्त, तांचे आदर्श आनी तांची अुनरावळ ही वेगळी आशिल्ली. आतांच्या कवीच्या काव्याचो गाभो मात्सो वेगळो आनी कवींची जिविताकडेन आनी जिविताभितर पळोवपाची नदरूय वेगळी. अुनरांचें गुपीत सोडून काडपाची आनी जिविताचो अर्थ सुचीत करपाची तांची धडपड स्पश्ट दिसता. आविल्ल्या काळांतल्या पयल्या वयल्या कवीच्या काव्यांत समाजीक, संस्क्रुतीक आनी राजकी क्रांतीची ओड मळसळटा आनी हाका लागुनूच तांच्या अुतरांक नेट आनी धार येता. फुडल्या पिळग्यांक हें हेनुपूर्ण काव्य कितलें मानत हें आतांच सांगप कठीण पुण त्या काव्याचो समाजाचेर जो प्रभाव पडलो आनी त्या काव्याच्या अुदेशीं कोंकणी भास आनी साइत्य हांकां कसो आकार येत गेलो हाजी नोंद कोंकणी साइत्याच्या फुडल्या इतिहासकारांक करचीच पडटली. सुर्वेच्या कोंकणी काव्याचीं पाळांमुळां कोंकणी समाजाच्या जिवितांत घुस्पल्लीं आसात, खोल रिगिल्लीं आसात. साइत्यांतली सुंदराय आनी त्या साइत्याचो मनश्याच्या विचाराचेर आनी अुमाळचांचेर जाल्लो परिणाम ह्या दोनूय आंगांचो अितिहासकाराक विचार करचो पडटा.

गोंय, मुंबय, मंगळूर ह्या विविध वाठारांतल्या विविध कवितेची वर्गवारी करप होय वावर तितलोच कठीन. कांय टीकाकार करतात त्या भाशेन आतांच कोंकणीचे काव्य-संप्रदाय थारावप मत्याक धरून जावंचे ना. फाटल्यांच्या पावलार पावल दवरून कांय कवी बरयतात, ते अेकामेकांकडल्यान स्फूर्तूय घेतात हातूंत दुभाव ना. पुण अितल्यावयल्यानूच तांचे वेगवेगळे घराणे करप बरोबर जावंचें ना जे म्हत्वाचे कवी आसात तांकां तर खंयच्याय परंपरेचे खुटयेक बांदूक जावंचें ना. दरेका म्हत्वाचे कवीक आपली वेगळी अस्मिताय आसा. दुसऱ्या कडल्यान तो स्फूर्त घेता पुण नक्कल करीना. दुसऱ्या भासांतल्या मांवटा पोंदाय तो वाडीना. कोंकणी काव्याचे जीवसाणीची आनी ताज्या पजंळीत फुडाराची ही म्हत्वाची कुरू.

O

**शकुन्तला**
**यशवंत रामाणी**
**राजहंस वितरण, पणजी.**
1988

## कानांत कितें ? मूदी.

यशवन्तबाब रामाणी हांचो पिराय आतां तरणी उरूंक ना. तरी तांची उमेद अजून तरणी आसा. हे उमेदीच्या नादयाम्च तांणी एक म्हान संस्कृत नाटयकृतीचें कोंकणीत रुपांतर करपाचें थारायलें. पुण यशवंतबाबांचे उमेदीचे जोडीक जायतें वाचन आसा, जिणेचो खोल अणभव आसा.

शणै गोंयबाब, आचार्य रामचंद्र शंकर नायक आनी हेर कोंकणी नाटक-कारांनी युरोपी नाटककारांचें रीण काडून कोंकणी माचय मजयली. एका भारती नाटककारांचे रीण काडून यशवंतबाब कोंकणी साहित्यांत भर घालतात. संस्कृत नाटचभांडारांत अप्रुप रत्नां होलमतात. कोंकणी सरस्वतीच्या आंगार तीं रत्नां आज ना फाल्यां लखलखतली हातूंत दुभाव ना. ते दिशेन यशवंतबाबान घाल्लें पावल चड म्हत्वाचें.

इग्लंडचो साहित्यसम्राट शेक्सपियर हाणें आपल्या ‘ रोमियो–ज्युलिएट ’ ह्या नाटकांत मोग अमर केला तसोच ‘ अभिज्ञान शाकुन्तलम् ’ ह्या नाटकांत कविकुलगुरु कालिदासान. शेक्सपियर पयल्या वयल्या मोगाची ओड दाखयता आनी मोग्यांचेर पडिल्ल्या मर्ण–संकटाचें चित्रण करून काळीज हाल्लयता, विचारांक जागयता. कालिदास ‘ मोग ’ ह्या उमाळ्याचीं सगळीं तामां दाखयता. कंवळी ओड, विरह्–यातना, विसराय, पुनर्मीलन; आनी सैमाचें आनी मनीस सभावाचें अप्रुप दर्शन घडयता.

‘ शाकुंतल ’ हो संस्कृत नाटकाचो उच्चबिंदु. युरोपाक भारती साहित्याचो पयलो वयलो दिश्टावो जालो तो ‘ शाकुंतला ’ च्या अणकारानूच. विलियम जोन्स ह्या इंग्लेज पंडितान १७८९ त ‘ शाकुंतला ’ चो इंग्लेज भाशेंत अणकार केलो. रोखडोच ताजो फॉस्टर ह्या पंडितांन जर्मन भाशेंत अणकार केलो. जर्मन महाकवी गटे हाणे ‘ शाकुंतल ’ वाचून उद्गार काडले खंय :–

'शाकुंतल ह्या नखेत्राक लागून म्हज्यो राती घणघणीत उजवाडान भरतात.'

त्या नखेत्राची किर्ण यशवंतबाबान कोंकणी साइत्य.मळार घाल्यां.

यशवंतबाबाचें हें नाटक म्हळयार एक अणकार. अणकार करप म्हळयार एके कुपीनलें अत्तर दुसरे कुपींत ओतप. अशें करतांना मूळ अत्तराचो थोडोभोव भाग उडून वेनाच. तरी ह्या कोंकणी अणकारांत मूळ संस्कृत नाटकाचो परमळ उल्लाच.

यशवंतबाबाचो आनी साहित्याचो लागचो संबंध. तांणी जायतीं वर्सां पणजेच्या सरस्वती मंदिराचो कारभार चलयलो. ती संस्था नांवा-रुपाक हाडली. साहित्य वाचपांत आनी साहित्यिकांलागीं चर्चा करपांत तांचो जायतो वेळ वेता. कोंकणी, मराठींत तांणी थोडेंभोव बरपूय केलां. हिंदु धर्मीक साहित्य तांच्या ओंठार घोळटा.

ह्या नाटकांत यशवंतबाबान फाव तशी आनी फाव त्या रागांत गावपाची गीतां रचून घाल्यां आनी अशे तरेन उतरांक आनी उमाळ्यांक संगीताची अजोड जोड दिल्या.

नाटक हें शुद्ध साहित्य न्हय. बरोवपी, नट, दिग्दर्शक, चित्रिक, संगीतकार, प्रकाश-योजक हाच्या आदारातूच नाटकाक पुराय जिविनाच्या दर्शनाचें रुप येता. देखून, नाटक छापचे आदीं ताजा प्रयोग जावचो अशें म्हाका दिसता. जुळाऱ्यांच्या हातांत अक्षरां पडचे आदीं मवंगां माचयेर खेळचीं ही इत्सा. ही इत्सा सफळ जावची हें मागणें. शकुंतलेची शेणल्ली मुदी आमी सोदून काडूंया.

()

**झाडे गाणे गाती**

**द्वारकानाथ शेंडे**

**राजहंस वितरण, पणजी**

1988

## जेव्हा शब्द नाचू लागतात

काही वर्षांपूर्वी ' मृदंगी ' च्या संगीतावर डोलावत होतो, आज ह्या गीतांच्या तालावर नाचत आहे.

माणूस जसजसा वयाने वृद्ध होत जातो तसतसा तो वृत्तीने तरुण होत गेला पाहिजे. कपाळाला आठ्या पडल्या तरी काळजावर आठी उमटू देता कामा नये. पुन्हा बालपण प्राप्त करून घेतल्याशिवाय म्हातारपणाला पूर्णत्व प्राप्त होत नाही–जीवन चक्राला गती मिळत नाही. आणि प्रतिभा म्हणजे तरी काय ! प्रतिभा म्हणजे विश्वाकडे शिशूच्या दृष्टीने बघण्याची कला.

माणूस ५० वर्षांचा झाला म्हणजे त्याला ५ वर्षांच्या मुलांचे मन कळले पाहिजे, फ्रेंच कवी व्हिक्टर ह्युगो यांनी ' आजोबा कसे व्हावे ' हा कविता संग्रह आपल्या नातवंडांच्या सान्निध्यात उतारवयात लिहिला. रवींद्रनाथ टागोरांनी म्हातारपणात मुलांसाठी लिहिलेला ' सहजपाठ ' सुप्रसिद्ध आहे.

शिक्षकाला तर मुलाचे मन कळलेच पाहिजे. द्वारकानाथ शेंडे यांनी दोन तपे शिक्षण कार्य केलेले आहे. चांगला शिक्षक एक चांगला कवी पण असला पाहिजे. फक्त कवी मनालाच बालमन कळण्याची शक्यता आहे. गोकुळातील बाल–लीलांचा ज्याला विसर पडत नाही तोच खरा ' द्वारकानाथ.' मलाला कडेवर उचलून घेण्यासाठी आईला वाकावे लागते. द्वारकानाथ आज वाकलेले आहेत– पन्नास वर्षांचे अंतर त्यांनी ३७ गीतांत तोडलेले आहे. द्वारकानाथ प्रौढत्व विसरले तरी कवित्व विसरले नाहीत. ही सर्व बालगीते म्हणजे उत्कृष्ट कविता होत. स्वर्गस्थ बाकीबाब बोरकरांच्या सहवासात झालेल्या काव्याच्या साक्षात्काराने शिक्षकाच्या छडीला काव्याचे कोंभ फुटले आणि चैत्रवाटा स्पष्ट

झाल्या आणि त्यात ' फुलाफुलाशी आम्हा मुलांचे चटकन नाते जुळे.' असे घडले. अधून, मधून, द्वारकानाथांना झालेल्या बाकीबाबांच्या काव्यस्पर्शाची जाणीव होते.

नभ द्रवले हो, नभ द्रवले हो,
जलघट वरचे फुटले हो
भिजले तरूवर भिजल्या वेली
घर घरटे अन् न्हाले हो.

बालकवींचा वरदहस्त तर त्यांच्यावर आहेच.

पर्जन्याच्या धारा धारा
झिम्मा खेळत आल्या ग
उघडा दारे या उघड्यावर
गगन बोलते वरचे ग

मुलांना जनावरांचे, मुक्या प्राण्यांचे अत्यंत आकर्षण असते. मानसशास्त्राचे असे मत आहे कि मुले म्हणजे प्राचीन मानवाप्रमाणेच असतात. आणि, प्राचीन मानवांचा जनावरांकडे फार निकटचा आणि जिव्हाळ्याचा संबंध होता. तद्वत, बालकांना पण जनावरांच्या संगतीची फार ओढ असते

द्वारकानाथांच्या ह्या गीतांत जनावरांना महत्वाचे स्थान आहे : मनी माजरी, उंदीर मामा, कुत्रा, कोंबडा, गाय, चिमण्या, कोकिळा, पापट, मैना, वाजवे, माकड, घोडे बालकाचे भावविश्व सुंदर, संपन्न करणारे हे प्राणी ह्या गीतांत बागडतांना दिसतात.

ऊन-पाण्यापासून, थंडी-वाऱ्यापासून मुलांचे रक्षण करण्यासाठी भिंती छप्पर याची गरज असली तरी शाळा म्हणजे कोंडवाडा होता कामा नये. निसर्गाशी असलेले मुलांचे घनिष्ट नाते तुटता कामा नये. भिंतीला खिडक्या असतातच तसेच मनाच्या खिडक्या कधीही बंद ठेवू नयेत. ह्या बालगीतातील ओळी-ओळीतून निसर्ग खळखळत वाहत आहे.

पाऊस झिम्मा खेळतो आहे. भिजलेली झाडे गाणी गात आहेत. मोर नाचतो आहे, हरळी हसते आहे, मातीचा वास वाऱ्यावर खेळत आहे. कागदांच्या होड्या वाहत आहेत, आकाशातली विजली कडाडते आहे, काजवे चमकताहेत.

ही बालगीते नुसती बडबड गीते नव्हेत. इथे शब्दाला अर्थ आहे, अर्थाला रंग आहे. इथे कवी शिक्षक आहे, संगीतकार आहे, चित्रकार आहे. लेओनार्दो द व्हिन्ची म्हणत असे. ' चित्रकार हा दृश्याचा कवी तर कवी हा अदृश्याचा चित्रकार.'

इथे द्वारकानाथ दृश्याचेपण चित्रकार बनतात, लेखणीचा कुंचला करून

कुशलतेने निसर्गाची विविध रंगी चित्रे सहजतेने चितारतात. गोमंतकाच्या निसर्गरम्य गावातील ही काही मनोहारी दृश्ये,

' भार फळांचा
फांद्या वाकल्या
काजू आंब्यांना रंग चढला
पोपट मैना घेती भराऱ्या
पक्व फळांना चोची भिडल्या.'

' मेघ धावती थेंब खेळती
मोर नाचतो रानी ग
पर्जन्याच्या आशीर्वचनी
भुईवर हरळी हसते ग. '

मुलांच्या गीताना संगीताची गरज असतेच पण अंगविक्षेपाची पण आवश्यकता भासते – गायनाला नृत्याची, हावभावांची साथ असली तर अदृश्य स्वराना दृश्य स्वरुप प्राप्त होते. ' पंपगाडी ' हे असेच एक गीत आहे.

चांगले गीत घडवणे वा घडणे ही एक अत्यंत अवघड गोष्ट आहे. अभ्यासा-अंती, परिश्रमाअंती, आपण पांडित्यपूर्ण निबंध, प्रबंध लिहू शकतो पण एक सहज –सुंदर गीत घडवणे फार कठीण. अवघड लिहिणे सोपे आणि सोपे लिहिणे अवघड असते. बाल साहित्यांतल्या प्रदेशांतली ही अशी उलटी खूण. अनुभव, अभ्यास, भाषा प्रभुत्व असून भागत नाही, तर अनामिक अशी शक्ती लागते. हवेतर तिला अंतःस्फूर्ती म्हणा वा परमेश्वरी कृपा म्हणा. शाळा हे ह्या बालगीतांचे केंद्रस्थान असले तरी ह्या शाळेसमोर एक बाग आहे.

' शाळेची आहे
छोटीशी बाग
सगळी रोपे
हिरवीचार.'

शाळा आणि बाहेरचे विश्व यांच्या मधला दुवा म्हणजे बाग. शाळेतली मुले आणि बागेतली फुले यांच्या मधला हा अतूट संबंध :

' फुलतात फुले
झाडाझाडांवर
मुलाच्या मुळे.'

मनोरंजन हे बालगीताचे प्रयोजन आहेच, शिवाय बुद्धीचा विकास, कल्पना-

शक्तीची वृद्धी आणि शरीराला व्यायाम ही पण त्यांची इतर प्रयोजने होत. बालगीत म्हणजे शिक्षणाचे एक प्रभावी साधन. शैक्षणिक कार्यक्रमांत बालगीताला पर्याय नाही.

स्वत: मूल होऊन मुलांच्या गळ्याने द्वारकानाथ गात असले तरी हा सुंदर मुखवटा अचानक गळून पडतो. परगावात असलेल्या द्वारकानाथाला आपल्या गावाची उत्कटतेने आठवण येते. भावव्याकुळ होऊन ते म्हणतात–

' मी मिटून बसता डोळे
मज गावच माझे दिसते
अन् तिथेच बसल्या जागी
लड आठवणींची सुटते.

जेथे शब्द नाचतात ती ही बालगीते वाचताना, ह्या बालगीतांवर लिहिताना, न जपता देखील प्रौढत्वी शैशव प्राप्त झाल्यासारखे वाटते. द्वारकानाथांचा आभारी आहे.

O

**शब्दशंकर**
**शंकर भांडारी**
**राजहंस वितरण, पणजी**
1989

## शंकराचीं फुलां

सर्गेस्त भांडारी धर्तरेर आशिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका एकदां म्हळ्ळें, ' हांव म्हजो कविता-झेलो काडटां, तुजी प्रस्तावना जाय. '

शंकराक ना म्हणपाक म्हज्या जिवार आयलें. तरी हावें म्हळें, ' शंकरराव, सध्या हांव कवितांपरस प्रस्तावनाच चड बरयतां. जांणी दुसऱ्यांच्या कविता झेल्यांक प्रस्तावना बरोवंक ना अशे जायते बरोवपी आसात. तांकां कित्याक विचारीना ! '

मुखार किदें जालें हांव नकळ. पुण एक दीस शंकरान म्हाका सांगलें, ' म्हजें पुस्तक उजवाडाक येता. तुवें उलोवंक जाय. '

' कविता-झेलो मरे ! '

' न्हय, ' पावला-कणकणी ' म्हजे निबंद आकाशवाणीचेर हावें उलोवपां केल्लीं तींच. ते नांव तुवेंच सुचयल्लें.'

' आनी तुजो कविता-झेलो केन्ना येता ?'

' पळोवया. '

तो कविता-झेलो आतां उजवाडाक येता आनी ताका प्रस्तावना म्हजीच. ही प्रस्तावना बरयताना खोस जाता आनी दुखूय भोगता.

शंकराचेर शंकर गेल्या उप्रांत जायत्या जाणांनी बरयलां. ताका जल्मभर विरोध करपी मनशांनीय ताजेर तुस्तीचीं फुलां शिंपडायल्यां. शंकर एक आगळो, वेगळो मनीस आगळें, वेगळें करपी, केल्याची खंत न धरपी, झगडपी, झुंजपी, गोड गावपी, तीख उलोवपी, चिमटे काडपी, घाये करपी, मायेन सांमपुपी, भीड भिरांत धरी नासताना आपणाक जाय तेंच करपी, छाती मुखार काडून ताठ मानेन चलपी. जसो सांग्यांत तसोच कलेंन बुडिल्लो : सोरो पिवप ही एक कला करपी आनी

आपले कलेच्या सोन्यांन लोकांक पिशें लावपी. जेन्ना शंकर उलयतालो, गातालो तेन्ना लोक ताज्या उतरांच्या व्हारार हाल्ता-धोलताले.

शंकर भांडारी म्हळ्यार कितें ते सगल्यांत बरें सांगलां तें रवींद्र केळेकारान. तो म्हण्टा : ' शंकर भांडारी हो शंकर भांडारी. '

अवतार घेता फक्त विष्णु अशें म्हण्टात. म्हाका तें खरें दिसना. शंकरूय अवतार घेता. फटी दिसना जाल्यार शंकराक पळोवचो. खरो शंकराचोच अवतार. केन्ना उजो कसो- रागान धगधगपी, केन्ना उदक कसो-थंड, शांत. केन्ना उतरांच्या चाबकांनी दुस्मानाच्यो सालट्यो काडपी तर केन्ना म्होंवाळ गीतांनी मनाक मोहून उडोवपी.

शंकराच्या गळ्यांत विखाळ सोरोप आसता तसो ताज्या हातांत भान सोडून लोकांक नाचूंक लावपी अगडबंब, बंब, बंब डमरूय आसता.

रोमन लोक म्हण्टाले : ' उलयल्लें उबून वेता, बरयल्लें उरता ' आनी ते उलयल्लें सगलें बरोवन काडटाले. ही म्हण जितली खरी तितलीच फटी. फांतरांत कोंत्रायल्लें उडून वेता, कागदार बरयल्लें जळून वेता पुण उलयल्लें वाऱ्यार उबून कानांत रिगून काळजांत घर करून रावता. वेद कोणे बरयल्ले ! रामायण, महाभारत कोणें बरयल्लीं ! तुकारामाचें बरयल्ले अभंग बुडले पुण लोकांनी आयकल्ले, ओंठार घोळयल्ले सासणाचे उल्ले.

उलोवप पयली, मागीर बरोवप शंकरूय असोच पयलीं उलोवपी, मागीर बरोवपी. शंकराकूच उलोवं दी :

' कितेंय बरोवपापरस चार- चौगांत हांव चड उलयल्लां. बरोवंक बसपाक जी मनाची थंडसाण आनी सोंशिकसाण लागता, ती म्हजे लागीं ना. हाव वराचो वरां उलयत- पुण जेन्ना बरोवपाची सक्ती जाता, तेन्ना निरूपायान लिखणी हातांत घेवची पडटा.'

शंकर हो उलोवपी- खांयो उलोवपी वेंचीक उलोवपी, रूचीक उलोवपी, खोंचक उलोवपी, आडखळ नासतना, सरळ उलोवपी ताजो आवाज जितलो म्होंवाळ तितलोच प्रभावी. सभेंत माचयेर तसोच कुडींत कदेलार शंकरान सांगिल्ल्यो खबरी, ताणे केल्ले विनोद ताज्या इश्टांच्या मनांत तांचो पडसाद आयकूंक येता. शंकराच्यो कविताय तश्योच- उलयल्ल्यो, म्हणिल्ल्यो गायिल्ल्यो. जेन्ना शंकर कविता म्हण्टालो, गायतालो तेन्ना सगलो लोक मंत्रमुग्ध जातालो.

शंकराठांय कांय दुर्गुण आशिल्ले जायत पुण एक दुर्गुण मात ताज्यांत वासाक लेगीत नासलो- तो म्हळ्यार लोकांक बाज हाडपी दुसऱ्याक बाज हाडप हाजेसारको दुसरो दुर्गुण ना अशें इंग्लीश बरोवपी ऑस्कर वाइल्ड सांगता.

शंकरान जायत्या जाणांक त्रास दिला जायत पुण केन्ना वाज हाडलोना. शंकराचें उलोवप कोणाकच केन्नाच लांबलेंशें दिसलें ना, ताजो सांगात नाकामो जालो ना– शंकराच्या सांगातांत वेळ कमो वेनालो तेंव कळनामलें. आतां तो आमचे मजगनी नामतांना वेळ वचून वचना. ' पावला कणकणी ' ताजी याद येता.

पुण शंकर आमच्यांत आसा : आमचे भितल्ल्या ताज्या उगडासांत आसा, तो ताणे बरयल्ल्या ' पावला कणकणी 'तल्या निबंदांत आसा आनी तुमच्या हातांत आसा त्या ह्या कविता झेल्यांत आसा.

ह्यो कविता म्हळ्यार शंकराच्या जिविताचें एक लिकलिकीत तास.

शंकरांतलो कवी आनी कवनो वेगवेगळो काडूं नज. आपले मिस्किल नदरेन तो केन्ना कोणाक चिमटो घेत सांगूं नजो.

' स्वतंत्रतायेच्या दिसा नाच आनी गायत राव ' म्हणपी शंकर त्याच दमांत म्हण्टा.

' दुस्वासाची भास आनी,
धर्मानावान धुमशेणा
सत्तेखातीर लेंबडे जाती
ल्हेंवटे आनी बायजाणां '

आनी तशेंच हेंगणराज्य.

' अठरा वर्सां जालीं आयज
गणाचें आयलें राज !
काण गणा !
कोण जाणा.'
' मात्शी हिंसा केले बगर
आमचो गणा वाडगणा
गोदेच्या अुदका पासत दीसरात वांटपणां '

गणराज्या दिसाच गणराज्याचीं अशीं फकाणा करपी शंकराबगर आनी कोणाक जमूंक ना, जमचेलें ना.

अन्याय–आगळिकेचो शंकराक निजाचोच राग. संभावित मनशांच्या तोंडावेलें रुपडें भुरकून काडपाक तो हांस–हांसत आपलीं नाखटां वापरता.

' चारित्र्याक हांव म्हत्व दितां
चरित्र्य म्हण्टा तें वाऱ्यार पडलां
चुकून म्हजी नदर

आमची सोडून खेंच बचना
आतां तांचेच पदर जाग्यार ना.'

शंकराचे निकातकीत तकलेक तिडक मारता तेन्ना ताजी उतरां इंगळे जातात, आनी तांतूनल्यान उज्या–किटी भायर मरतात :

बर्मासिकी धुमसतालो
आयज पळे पेटलो उजो
ह्या उज्यान जायत गोबर
घडये तुजो, घडये म्हजा.

जीव–घेण्या दुखाची कळ उक्ती करपाकूय शंकरालागी चुरचुऱ्याची उतरा आसात. पंडित जवाहरलाल नेहरूंच्या मर्णाउप्रांत बरयल्ली ही कविता :

सैमाचे दिवलेंतली
पर्जळती सोंपली वात
आयज सगळचा संवसारार
अकस्मात काळखी रात
आयज शब्द बह्मांतलें
      जालां अेक अुतर अुणें
जवाहरा तुजेविणे
      रितें, रितें आमचें जीणें.

शंकरान केन्ना कोणाचेर खरो, खरो मोग केला काय ? शंकरान आपले ऐन जुवानीत बरयल्ले हे कवितेवेल्यान तशें दिसना खरें. मोगाच्या उज्यान हुलपल्याबगर अशी ही धगधगीत उतरा कशी येत ?

पोल्यावेल्या तांबड्या अुज्यांत
ओंठ म्हजे हुलपुंदी
मोगाच्या रसमी धाग्यांत
मन म्हजें घुस्पुंदी

आनी

' विसरूं कशे ते जागे
लिपचोरयां मेळचेले ?
दोळयांतल्या बावल्यांनी
खेळ बळयां खेळचेले ?'

शंकराक कमलेच बंदन नाका आसलें– जावं घरानलें, जावं भायलें, जावं साइत्यांनलें, जावं राजकर्णानलें. देखून तो लग्न जालो ना, सदांच एकलो रावलो, मेकळो रावलो. एकलो, मेकळो म्हळ्यार मात एकसुटो, एकमुळो न्हय.

शंकर इश्ट – मित्रांबगर, लोकांबगर जायनासले. ताजे इश्ट–मित्र समाजांतल्या सगल्या थरांतले – कुजनेर धरून मिनेरामेरेन.

शंकर जसो लोकप्रिय तशीच ताजीं गितां जेन्ना कवी आपली कविता गाता तेन्ना लोकांक संगीत आनी कवी, गावपी आनी बरोवपी हे एकरुप जाल्ल्याचो अप्रुप अणभव मेळटा. बाकीबाबांच्यो कविता जश्यो बाकीबाबानूच म्हणपाच्यो तश्यो शंकराच्यो कविता शंकरानूच म्हणपाच्यो. आतां ह्यो कविता वाचताना लेगीत शंकराचो ताळो आयकूंक येता.

शंकर हो सर्वस्पर्शी सगल्याचो आस्वाद घेवपी, एकाकूच दसून रावपी न्हय. मनीस एकूच घेवन बसल्यार ताज्या अणभवाक शीममेर पडटा. शंकराचें अणभव विश्व विशाल – भय –भिरांत नासतांना ताजे बरे वायट सगले अणभव घेतिल्ले आनी ता तांची वर्णनां मेकळेपणान करतालो. ताणे सांगिल्ल्यो सगल्यो कथा – काणयो, खबरी गजाली एकठांय केल्यार एक शंकरायनूच जावपाचें.

ह्या कविता झेल्यांत शंकराच्यो सगल्यो कविता, ताचीं सगलीं गितां येवंक नात. ताज्यो जायत्यो कविता, ज्यो ह्या झेल्यांत नात, त्यो हांवे खंयच्या तरी नेमाळ्यांनी वाचिल्ल्याचो उगडास जाता. खरें म्हळ्यार, तांकांय ह्या झेल्यांत सुवात मेळूंक जाय आसली.

राग, मोग, दया, हें उमाळे मनांत शिजले म्हणून बरें कवीत जल्माक येना. उमाळ्यांबांगडाच उतरांची गरज आसता कवी रगतान बरयना, तो उतरांनी बरयता. उमाळ्यांच्या बळावांगडाच शंकराक शब्दांची कला प्राप्त जाल्या. गोंयां जे कांय थोडेच कोंकणी बरे उलोवपी आनी कोंकणी बरे बरोवपी जाल्या तांतुंतलो तो एक शंकर भांडाऱ्याचे कोंकणी उतरांचे, कोंकणी ओपाऱ्यांचे भांडार विपूळ ताका कोंकणी भशेची वळख आनी पारख जाल्ली तशी थोडयांकूच जाल्या आनी जेन्ना ताज्या उतरांक लय कलाचो सुरेल सांगात मेळटा तेन्ना मेकळ्या ताळ्यान म्हणूं येता. 'गोमटें गोंय शंकराच्या गळ्यान गाता.' शंकर गेल्या उप्रांत शंकराच्या कवितांचो झेलो भायर सल्लो. हाचो इतलोच अर्थ की शंकर आपल्या इश्टांच्या काळजांत सासणाचो उल्लो. ही शंकराचीं फुलां शंकराक ओंपता.

O

**इसाप–काणयो**
**महाबळेश्वर सरदेसाय**
**जाग प्रकाशन, प्रियोळ**
1989

## काणी आनी शिटकावणी

ह्यो इसापाच्यो काणयो. कोंकणीन अणकारिल्ल्यो. इसापाच्यो काणयो संवसारांतल्या सगल्या ल्हानव्हड भाशांनी अणकारीत जाल्या आनी संवसारभर पातळ्ळ्या इतली नामना आनीक खंयच्याच कथाकाराक मेळूक ना जायत. तरीय इसाप ह्या मनशाविशीं आमकां सार थोडें खबर आसा. खबर आसा तें इतलेंच : क्रिस्ताआदीं सशें वर्सां पयलीं इसापाचो जल्म जाल्लो. तो एक गुलाम आसलो. तो मुकण्या–जनावरांच्यो ल्हान ल्हान काणयो सांगतालो आनी लोकांक हासयतालो. शिकयतालो.

इसापाची खरी वळख जाता ती ताच्या काणयांतल्यानच. ताणें मनशाचो संवसार पळेला. जनावरांचें जिवीत देखलां. खरें कितें, फट कितें तें पारखिल्लां. आनी जें पळेलां, अणभवलां तें तो साधया सोंप्या उतरांनी सांगता. ताचे काणये-तलीं जनावरां मनशांवरीच चिंततात, उलयतात. मनशांवरीच घोळटात. चुकतात. मनशासमजतीं जशे नागवण, तड्डकीं, शाणे, पिशे, बुदवंत, अदकुटे, वळिश्ट, दुबळे आसतात तशेच ते जनावरांमदीं आसतात. सांगपाची गरज आसा ? हीं जनावरां म्हणजे मनशाच. इसाप जनावरांक मनशांचो सुवाद दिता आनी मनशाक जनावरांच्या पांवड्यार हाडटा. मोनजात आनी मनीसजात अशीं एकामेकांत भरसून गेल्यां. इसापाची कथा म्हळ्यार एक काणी. आनी एक शिटकावणी. भुर-ग्याक काणी, जाणट्यांक शिटकावणी. जाय जाल्यार काणयेंत रमचें वा शिटकावणेन शाणें जावचें. ताचे काणयेंत म्हांवा सुमाबरी म्हौंव आसा आनी तिखा कृगुय आसा.

भौ. म्हाबळेश्वरबाब सरदेसाय हाणीं इसापाच्या गद्य काणयांचेर कोंकणी पद्याचो साज चडयला. काणयेच्या रंगांत काव्याचो सूर ओतला. भुरग्यांनी गांवच्यो आनी जाणट्यांनी तोखेवच्यो अशो ह्यो काणयो.

म्हाबळेश्वरबाबच्या कविमनाक हांगा परतून चंवर आयला. ते तरणे आसतना असोच एकदा चंवर आइल्लो आनी 'हिरवळ' हो कविताझेलो ताणी आमकां दिल्लो आतां जाण्टे पिरायेंन तांका हो भुरग्यांचो मोग जडला. शिव, हरणां, लांडगे, कोले, ब्रोकड, सोशे हांच्यांन ताचें मन रमूंक लागलां. पद्याच्यो ल्हानच वळी, सोंपी उतरां आनी फाव तें यमक. थोडयाच शब्दांत म्हाबळेश्वरबाब सगळें चित्र उबें करतात. शिवाक भेटूंक आइल्लो हो कोलो :

' अशीच ताची घेवंक खबर
निमणें एक आयलो कोलो.
' म्हाराज, आतां आसा सुमार !
पयस रावन प्रस्न केलो. '
शिव आनी आस्वल हांचें हें झूंज
' दोगय झाले रक्तबंबाळ
खर्शेले, धापेले
अर्दमेले जाल्ल्यावरी
जमनीर दोगय शेंवटले.'

आनी हें सुर्बूस चित्र दोमकावळचाचे :–

' आसलो एक दोमकावळो
हेरांपरस मात्सो वेगळो.
मात्सो मोटो, मात्सो उजळ
दिसलें ताका जायन कावळो.'

इसापाचें शाणेंपण लेगीत म्हाबळेश्वरबाब अशाच नकसूद उतरांनी कोंकणीत मांडटात :

' मनीस कसो जाय आसूंक ?
उतरांसमान करणी जाय !'
' कोणाच्या मजतीक वच्चें कोणे !'
येवजून पावल उखलूंक जाय.'
' ताणे म्हळें, चुकलें म्हजें
उसरां सुचून उपेग कितें !'
खंय कोणाचें मरण केन्ना
थारायल्लें आसता कोणाक खबर !'
' बेबकी फुगून बैल जाता !'
' फटिंगपणां पचना सदांच
केन्ना तरी उक्तीं जाता !'

‘ आनीकाची आस्त धरून
मुदलच होगडावता ! ’

आनीकाची आस्त धरूं नये हें आमीय जाणात, तरीय आमी नेण्टीं आनी जाण्टीं आनिकाची आस्त धरतात आनी म्हाबळेश्वरबाबांकडल्यान इमाप-काणयांच्या दुसऱ्या वांटयाची वाट पळैतात.

O